# वनमहोत्सव

पांच एकांकी

दत्ताराम दामोदर कामत बांबोळकार

अपुरबाय
प्रकाशन

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हें पुस्तक 'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे' खाला छापलां.

**VANAMAHOTSAVA**
Collection of one act plays
by - Dattaram Damodar Kamat Bambolkar

प्रकाशन क्र. ३६


पयली उजवाडावणी
सप्टेंबर १९८९

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय
४०३ ४०१

छापपी :
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें-गोंय
४०३ ४०१



मोल :
२५ रूपया

आई आनी भाऊ
(सौ. मोहिनीबाय आनी श्री. दामोदर बांबोळकार)
हांकां –

– दत्ताराम

मांडावळ


☐ नांदी (प्रस्तावना) ॲड्. प्रकाश थळी

१. वनमहोत्सव १
२. खामसुत्रो बावले खंय खंय पावले १८
३. हीं झुजां सैमाचीं ४२
४. मायपास ५८
५. पुण्यफळ ७६

☐ एकांकीचे पयले प्रयोग (वळेरी)

# नांदी....

कोंकणी एकांकीच्या वाठारांत फाटल्या तीस पस्तीस वरसांत तोखणाय करीसारखो वावर जाला. संख्येन आनी गुणांनी कोंकणी एकांकीचो वावर आनी येस दोळे दिपकावणे म्हळचार अतिताय जांवची ना.

अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्त्यांतल्या खंयच्याय प्रकाराची चर्चा करतना आमी चडशे शणै गोंयबाबांचें नांव घेवन सुरवात करतात. एकांकीचे बाबतींत हो मान घडये राणू नायकांक फावो जावंये. श्रुतिकांच्या आनी नभोनाटचांच्या रूपान पुंडीबाब दांडो आनी कृष्णमाम मोयो हाणी घाल्ली भर छापून येवंक ना म्हुण काळखांत उरल्या.

प्रहसनां, फार्सिकल नाटकुलीं आनी Skits, तियात्राचे सायड शोज (Side Shows) Curtain raisers आनी आपउलोवपां हांच्या रूपांनी बी कोंकणी एकांकी माचयेर जायती वरसां वावुरता. बाप्पाचो Stock Character घेवन ताचे भोवतणी रचिल्लीं प्रहसना आयजूय चड करून उत्सवां वेळार आनी कॉलेजींच्या सुवाळचांनी लोकांचे मनोरंजन करतात. पूण आधुनिक प्रायोगीक एकांकीक मोड्ण मेळ्ळें तें मुंबयच्या आंतरमहाविद्यालयीन एकांकी सर्तींतल्यान आनी तेच चळवळीचो वांटो आशिल्ल्यां ‘ विद्या ’ नेमाळचांतल्यान.

मुंबयची कोंकणी आकाशवाणी आनी ‘ साळीक ’ बी नेमाळचांनी एकांकीक थोडोभोव हातभार लायला. उपरांत गोंय मेकळें जातकच गोंयच्या कला अकादमींच्या आंतर विद्यालयीन आनी महाविद्यालयीन वर्सुक्या सर्तींनी कोंकणी एकांकीक खुबच पोसवण दिली, दीत आसात. आतां तर गोयांत जायत्यां गावांनी एकांकी सर्ती जायत आसतात. हासावण्या प्रहसनाची फास्की मोडून गंभीर एकांकी प्रायोगीक रूपान जबरदस्तपणान सादर केल्ल्यो पळोवंक मेळटात

एकांकीच्या प्रयोगाच्या येसांत कलाकार, दिग्दर्शक आनी तांत्रिक आंगा भर घालतात हें खरें. पूण मुळांतच Script त दम नासल्यार प्रयोग तितलोसो रंगचोना. क्वचीत एकाद्रो मातब्बर दिग्दर्शक गुणी कलाकारांच्या आदारान, तांत्रिक Gimmicks करून

प्रयोग फुलयता हें मान्य. पूण असल्यो एकांकीका वाचतना कंटाळो येत
आनी Script वावत म्हणपाचें कळटा. प्रयोग माचयेर चलतना तांतू
बऱ्या दिग्दर्शकाचें कसब अदींमदीं जाणवल्याबगर जशें रावना तशें
बऱ्या लेखकांचेय आसता. प्रयोग सोंपतकच कलाकार दिग्दर्श
दिसचेनात. लेखक हो मागीरय ताचे संहितेंत उठून दिसल्यारूच ति
बरी एकांकीका.

कोंकणीक अशें तरेचे कांय बरे एकांकीकार लाबले. आनीकूय
कांय तरनाटे बरोवपी मुखार आयल्यात. नेमाळ्यांनी खूब एकांकीक
छापून येतात. कोंकणी एकांकी आतां फाटी पळोवची ना. त्याभायर
कोंकणी एकांकीकेक, राष्ट्रीय पांवड्यारूय मान्यताय मेळ्ळया
पुंडलीका नायकाच्या 'चौरंगाक' जेन्ना साहित्य अकादमी पुरस्का
मेळ्ळो तेन्ना पुंडलीकावांगडाच ह्या साहित्य प्रकाराचोय गौरव जालें
हें विसरूंक फावना. पुंडलीकाफाटल्यान एकांकीकारांची एक पिळगीच
फुडें सरली आनी तातूंतले एक महत्वाचें आनी चड करून विद्यालयीन
पांवड्यार येस जोडिल्लें नांव म्हणजेच दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार

दत्तारामाच्या एकांकीचे प्रयोग चड करून शालेय सर्तिमी जाल्ले
आसले तरीय गांवागांवभी ताका मेळिल्लो येवकार पळोवन आनी
ताच्यो संहिता वाचल्यार, वयल्या पांवड्यारूय ताचे प्रयोग करूं येतात
हें जाणवता. दत्तारामान पुराय लांबायेचीं नाटकांय बरयल्यांत फाटल्या
धा-बारा वरसांसावन तो सातत्यान बरयता. 'शेणिल्लो गांव,'
'महिरावण,' 'रथोत्सव' बी ताचीं कांय नाटकां बरें येस जोडून
रावल्यांत.

दत्तारामालें कुटुंब मूळ बोकडबाग - रामनाथी. थंयसून हें कुटुंब
बांदोड्या महालक्ष्मी देवळाच्या प्राकारांत स्थायिक जालें. बांबोळकारालें
हें घरूच कलाकारांचें. गुरूदास (ताचो व्हडलो भाव) हो एक
बऱ्यापैकी नट आनी कथाकार. ताचो धाकटो भाव राधाकृष्ण एक
गुणी Charactor - Actor. आतां मुखचित्रकार-नेपथ्यकार - दिग्दर्श
बी विगडविगड तासांचो श्रीधर हो ताचो बापोलभाव. श्रीधराचेय
भावूय बरे नट. अशे तरेन ह्या बांबोळकारांच्या घरांत एक स्वयंपूर्ण
रंगमाची वसता.

शालेय पांवड्यार दत्तारामान बरोवप, श्रीधरान बसोवप आनी

रामनाथीच्या राजे सौंदेकर हायस्कूलान निर्मिती करून सादर करप आनी सगळीं बक्षिसां उबारप हें एक समिकरण जालां.

दत्तारामाच्यो ह्या संग्रहातल्यो 'पुण्यफळ' आनी 'मायपास' सोडल्यार हेर एकांकीचे प्रयोग हांवें पळयल्यात आनी हांव धादोशी जालां. 'वनमहोत्सव,' 'हिं झुंजां सैमाचीं' आनी 'खामसुत्री बावले, खंय खंय पावले' ह्यो एकांकी हांवें 'कुळागर' चो हांव संपादक आशिल्लों तेन्ना मुजरत मागून घेवन छापल्यात. त्या निमतान दोन-तीन फावट वाचल्यात.

दत्तारामाच्यो एकांकी वाचतना म्हाका केन्ना वाज आयलोना. दिग्दर्शकाचें नदरेंतल्यानूय त्यो वाचतना म्हाका तांतूत कांय सोबीत आशय-केंद्रा, सौंदर्य-स्थळा आनी दिग्दर्शकाक वाव दिवपी सुवातो मेयळचात. बऱ्या नाटककारांचें हें एक म्हत्वाचें लक्षण. दत्तारामाकडल्यान म्हज्यो तरी खूब अपेक्षा आसात. तो अभ्यासू, ताचेकडेन सातत्यूय आसा, उमेद आसा. कोंकणी रंगमाचयेच्या पर्जळीत फुडाराक ताचो खूब उपेग जावपाचो आसा.

एकांकी हो एक नाटचप्रकार आसलो तरीय तो एक आपले परीन स्वतंत्र असो प्रकार. एकांकी आनी पुराय लांबायेचें नाटक हांचें नातें कथा आनी कादंबरी हांच्या नात्यावरी. कथा हे कादंबरेचें सूक्ष्म वा मोटवें रूप न्हय एकांकी हो स्वतंत्र रचाना तत्वा आशिल्लो एक स्वयंपूर्ण साहित्यप्रकार. स्वतःचें तंत्र आशिल्ली अशी नाटचरचना.

नाटक आनी एकांकी हे दोनय 'नाटच' प्रकार आशिल्ल्यान दोनांयमदीं सभावीकपणान कांय समान मूलतत्वां आसतात, जशीं तीं कथा आनी कादंबरी ह्या दोनायनी आसतात. पूण एकांकी आनी नाटक ह्या दोनाय नाटचप्रकारांतल्या नाटचाचे जातिधर्म आनी अविस्कार-तरा वेगवेगळचो आसतात

'एकांकी' खेळ हातूंत 'एक' हें उतर अंकाची संख्या सांगता. पूण नाटच वस्तू, प्रसंग, व्यक्ती, वातावरण, संस्कार अशा जायत्या घटकांचे संख्येकडेन न्हय जाल्यार गुणात्मक 'एकत्वा' कडेन बोट दाखयता. सगल्यो नाटचशक्ती एककेंद्रित (Concentrated) करपी असो हो नाटचप्रकार. मर्यादित वेळाभितर एक काळजाक तेंकपी, एकजिनसी परिणाम सादप हें एकांकीचें उद्दीष्ट आसता.

एकाच नेटान आनी दिकेन फुडें सरपी तांतूतलें नाट्य जी गर्त धारण करता, ती खासा तिचीच आसता. सुरवात जाता खिणाक नाट्याच्या गाभ्याक सोमतेंच भिडप आनी फुडें लेगीत त्या गाभ्याक मातूय धील्ल सोडीनासतना आकार दीत वचप हें एकांकीचें खाशेलेंपण एकांकींत व्हडल्यो कलात्मक शक्यतायो संभवतात हें दाखोवन दिवपी कांय रचना आसात. (देखीक : पुंडलीकाच्यो कांय रचना) बरे एकांकीच्या आस्वादांतल्यान मेळपी समाधान हें एखाद्या उत्कृष्ट पुराय नाटकांतल्यान मेळपी समाधानांप्रमाणा संपूर्ण आसता. पूण नाटक आनी कादंबरी ह्या अदीक आस्कळ विस्कळ फाटभूंय आशिल्ल्या साहित्त्यप्रकारांची भव्यताय मात एकांकी वा कथा हांच्या आवाक्या भायली आसता.

एकांकी, लघुनाटक आनी ह्या सगल्यांमदीं नाट्याचे मूलधर्म सारखे आसले तरी प्रत्येक प्रकारांतले नाटचस्वरूप आनी ताचेवेल्यान येवपी नाट्यरचनेचे कायदे स्वतंत्र आसतात. मर्यादीत वेळ आनी उसरपत हांका लागून एकांकीकाराक रचनेंतली शीस्त पाळचीच पडटा सुर्वेची धीलाय, थोडीभोव गरज नाशिल्ले संवाद, कृति आनी लेखनाचे दिकेविशींची थोडोलेगीत अनिश्चितताय बी गजालींतल्यान एकाद्रे नाटक घडये सावरत पूण एकांकीचो मात ह्यो गजाली घात मारपाक कारण जांव येतात.

एकांकी सुर्वेकूच उत्कर्षबिंदूक (Climax) आफुडटा आनी सतत त्याच पावंड्यार तिका अखेरमेरेन रावंचे पडटा. सूचकताय, ध्वन्यर्थ, मोजक्याच उतरांचीं शैली आनी प्रेक्षकांकडेन तत्काळ संवाद सादपाची तांक बी गजाली खूब गरजेच्यो. तेखातीर लेखकाक आशयगर्भ नाट्यवस्तू घेवंची पडटा ती चड घुस्पागोंदळाची, मिश्र स्वरूपाची आसूंक उपकारना. ती एकपोडीय आसची पडटा. नाल्यार परिणाम तीव्र जावप कठीण. ह्या एकबीज स्वरूपाक लागून एकांकीत एकभावात्मकता आनी एकरसात्मकता सामकी गरजेची उरता.

कथेभाशेनूच एकांकीक खंयचोच विशय वर्ज्य नासता. देखुनच ती बहुरूपीण आसूं येता. काव्यात्मक, प्रहसनात्म, विनोदी, समाजीक, राजकी, वैचारीक, तत्वचिंतनात्मक आदी जायत्या रूपांनी ती फुलता. पूण तिची कांय खाशेली बलस्थानाय आसात. देखीक : सूक्ष्मनाट्याच्या

चित्रणाक एकांकी चड अनुकूल म्हणू येता.

चड करून व्यक्तींव्यक्तीमदल्या भावसंबंदातली सूक्ष्मतरल नाटय सांपडावपाची तांक खासा उल्लेखनीय. रहस्यनाटय आनी अतिमानुषी येत्रजण करपी नाटच ह्राकाय एकांकीचें माध्यम चड सोयीचें आसत. कारण असल्या नाटयानुभावांतली उत्कंठनाय आनी भयाचो ताण मर्यादीत वेळांत सोंशीसारको आनी आस्वाद घेवपासारको आसता. एकांकी अनेक रूपांनी आकारूं येता. पूण एकाच वेळार हीं सगलीं रूपां ती घेवन येवं शकना.

एकांकीचे बाबतींत आनीकूय जायत्यो गजाली सांगू येतात. पूण थोडयाभितर सांगचें जाल्यार पुराय लांबायचें नाटक बरोवप एकवेळ सोपें, पूण बरी एकांकी बरोवप तितलें सोपें न्हय. एकांकी आकारान आनी आवाठान ल्हान म्हुण ती रचपाक सोपी आनी उमेदवारीक सोयीची अशी लोकांची कल्पना जाल्या ती मात चुकीची. Pascal एका पत्रांत बरयता :- " I have no time for a short letter therefor I am writting you a long one." नवोदीत एकांकीरान हातूंतल्यान इल्लो बोध धेवं येता.

दत्तारामाच्या एकांकीनी वयर सांगल्यात ते सगळे गुण दिसतात. लेखकाक भोंवतणचें सगलें लागता तशें तें दत्तारामाकय लागता. अस्वस्थ करपी प्रस्न, Socio political समस्या, भ्रष्टाचार, पातकां, मनशाची आडांगपणा, जुलूम, अन्याय बी तो नकसुद उतरांनी, प्रभावी पूण सुटसुटीत संवादानी, केन्ना चिमटे काडीत केन्ना हांसत-खेळत एकांकीतल्या साबार प्रसंगानी मांडटा. ताका हालींसाराक चड प्रचलीत आशिल्लो Mob play वा Group Theatre चो प्रकार चड मानवता.

नेपथ्याविरयत, अभिनयाक आनी तंत्रिक आंगांक वाव दिवपी विगड विगड प्रसंगाचेर फोकस घालीत वचपी पद्धत तो आपणायता. केन्ना किर्तनाचो, केन्ना Puppetry चो Form घेवन वास्तव आनी Fantasy चें शिममेरेर कसरत करीत हो खेळ चलता. कांय वेळा तातूंतलों भाष्यकार अखेरेक इल्लो बोधय दिवन वता, सार सांगता. शिकवप वा बोध करप हें खरें म्हळ्यार नाटककाराचें काम न्हय पूण शालेय रंगमाचो नदरेमुखार दवरून ह्यो एकांकी बरयल्ल्यान दत्तारामाची कांय पात्रां बोध दिवपाचें काम करतात आसुंये.

हांतूंतलीं 'वनमहोत्सव' ही एकांकी हालींसाराक गोयां रानां मारून दोंगर बोडकें करून स्वतःचीं बोल्सां भरपाची सर्त कांय आमदार - राजकर्णी लोक करतात तांचेर घण घालता. त्याचबराबर वनमहोत्सव म्हुण जे कितें 'सुवाळे' दरवर्सा चलतात ताचीय यथेच्छ फकाणां मारून सत्त्याचेर उजवाड घालता.

आमदारांनी रानां मारप गरजेचें वा रानां मारीना तो आमदार जावं नजो अशे तरेचे एक समीकरण गोयां जावंक लागील्लें. म्हाका याद जाता, मडगांवां उदयबाब भेंब्रो अपक्ष आमदार म्हुण वेंचून आयिल्लो तेन्ना मुंबयच्यान एका मिस्कील गोंयकारान ताका पत्रांत विचारील्लें "तुवें एकपसून सायलो केन्ना मारलो ना. तूं आमदार कसो जालो ?" इंग्लिशींत हालींच एक ल्हानशें कवित वाचलें. एका रानांतली झाडा आपलेभितर उलयतात "We have given These men So many Crosses/How Come they Cant give us a single christ ?"

दो. मनोहररायांनी एकीकडेन बरयला :

"मंत्री जेन्ना झाड लायता
तेन्ना ताळयांचो कडकडाट जाता
रानांतले खरवंतीचो खरखर
कोणाक आयकूंक येना."

दत्ताराम जें कितें सांगपाचें आसा तें आपले धाटणेन प्रभावीपणान सांगता. हे ताचें नाटकुलें एक बऱ्यापेकीं परिणामकारक **Socio - Political Satire.**

वनमहोत्सव म्हणजे कितें? नाटिकेंतलें 'तो' हें पात्र व्याख्या दिता :–

"वनमहोत्सव म्हणजे एक मोटो उत्सव. पावसापयलीं, आमचे सगळे राज्यांत म्हणजे काश्मीरपासून काश्मीरपर्यंत आनी कन्याकुमारीपासून कन्याकुमारीपर्यंत व्हडा दबाज्यान साजरो करतात. ह्या दिसा प्रत्येकान सकाळीं उठचें, तोंड निवळ धुवचें, कोणाकय जाल्लें आसत जाल्यार दोंगरार वचून येवचें. मागीर नितळ बरो धारेचो कोयतो घेवन आपआपल्या घराफुडलीं, घराफाटलीं, दावेवटेनचीं, उजवेकडेनचीं सगळीं झाडां कचाकच मारून सगळें बरें निवळ करचें. सगळी जमीन बरी शेणान सारवची. मागीर घराफुडें एक खड्डो खणचो. तांकी प्रमाण

एकामेकांक आपोवचे आनी त्या खड्ड्यांत एक ल्हानशें रोप लावचें हांकाच आमच्या राज्यांत 'वनमहोत्सव' हें नांव दवरलां. अशा वेळार सरकार आपल्या भक्तांक विनयता –

"भावी पिढ्यांसाठी वृक्ष
दारी लावा वृक्ष" ....

भ्रष्टाचाराचें सूत्र आनी मंत्र मोजवयाच उतरांनी :

"अडेज तुका अडेज म्हाका
सांगू नाका, कोणाक सांगू नाका"....

आनी

"उगडचा दोळयानी पळय पूण
दोनय ओंठ दाम"

येवकार गीत आयकात :

"सरकाराचें काम तें आमचेंच काम
आमचेंच काम तें जनतेचें काम
जनतेचें काम तें कुड्ड्यांचे काम
कोण गाळटा घाम, कोण जोडटा दाम,
सुस्वागताम्ऽऽऽ"

दत्तारामाचे लिखणेतल्यान सहज अशी आयिल्ली जायतीं चमकदार भेदक आशयाचीं वाक्यां येतात.

देखीक :

"...जेका मरतगीर लाकूड घालोंक जाय तेणे आपल्या नावांव एक तरी झाड लावोंकच जाय"

दत्ताराम स्फुट कविता चडसो केन्ना बरयना पूण ताच्या एकांकीनी भरपूर काव्य गीतरचना विडंबन आनी काव्याक गरजेचे Personification पळोवंक मेळटा.

झाडांपेडां सांबाळून वनसंहार टाळून सैमाचें संतुलन सांबाळपाची चळवळ 'चिपको' चे सुंदरलाल बहुगुणा धरून जायतेजाण चलयत आसात. भाषणानी आनी सभा-सत्याग्रहांनी जाता ताचेपरस चड प्रभावी कार्य घडये नाटकांतल्यान आनी पद्यनाट्यांवरवी जांव येता. दत्तारामाचे 'वनमहोत्सवा' चे रस्त्यारस्त्यार गावांगावांनी प्रयोग करून पळोवपासारके.

'खामसुत्री बावले, खंय खंय पावले' हे नाटिकेंतूय दत्तारामान समाजांतल्या अनिष्ट प्रवृतिचेर वडी मारल्या. खामसुत्री वावल्यांचे नदरेतल्यान मनशाची वायट कर्तुबा आनी वृत्ती प्रवृत्ती चव्हाटयार मांडून तांचो जाहिर पंचनामो केला. हे संवाद वाचात :

मानाय : (तरनाटयाक) हात घालीना ?

तरनाटो : घालतां. पूण कितले पयशे दितलो ?

मानाय : साकाक हात घालपाक पयशे ? साकाक हात लावप म्हणजे दोतोरान पोटाक हात लावप काय कितें ? पयशे खंय, पयशे ! घालूंकच नाका कोणय हेवटेन तेवटेन वचपी सांगल्यार घालतलो.

तरनाटो : उबारतल्याक पयशे दिवचोना ? तूं हो साक गुदावांत व्हरून घालपाक पयशे घेवचोना ?

मानाय : ना.

तरनाटो : म्हणजे तूं फुकटच काम करता ?

मानाय : ना. असले दोन साक व्हरून घालतोलो तेन्ना दोन रुपये घेतलों.

तरनाटो : म्हणजे रेडचा, एक साक घालपाक एक रूपयो अशेंच जालें ना ?

मानाय : ना पाडचा. एक साक व्हरून घाल्यार पात्रांव पैशे दिना.

तरनाटो : कित्याक दिना ?

मानाय : मोडचो रुपयो खंय गावता ?

तरनाटो : मागीर कितें करतलों ? हांगा तर हो एकच साक आसा.

मानाय : हो साक दोनदां व्हरून गुदावांत उडयतलों.

तरनाटो : पिसो !................

पुलीस आनी मवाली पळयात कशे उलयतात :–

पुलीस : तुका पकडलेशिवाय तूं सारको वदचोना, चल धांव धांव. तुका धरून लडे दितांच हांव.
(मवाली, ताच्याफाटल्यान पुलीस, तरनाटो आनी चली धांवता. धांवतां धांवतां फुडें पुलीस आनी फाटल्यान मवाली धांवता असो देखाव )

मवाली : सरकार-सरकार हांव तुज्या फाटल्यान आनी तूं म्हज्या

सामकार ऽऽऽ

पुलीस : (धांवतनाच) आरे, तूं कसो फाटल्यान उरलो रे ऽऽऽ

मवाली : तूं म्हजे फुडें धांवलो आनी हांव फाटीं उरलों ऽऽ

पुलीस : (लक्षांत येवन तसोच फाटल्यान येता आनी रावता) खूब तेपान धांवलो. (खर्शेता) हांगा कोण एक ना. बरें जालें. आयज कितली जोड जाली ?

मवाली : हे पळय, हे पांच हजार एकटचाले. हे ते बायचे पैशे आनी ही कांकणा घे. एक लेंस आसलो तो त्या तरनाटयाच्या बोल्सांत ल्हवूच घालो. ताका खबरच ना.
(पुलीस सगळें आपल्या बोल्सांत घालता.)

पुलीस : ही दोगांय आमच्या फाटल्यान धांवत येतालीं, तीं खंय पावलीं ?

मवाली : येतलीं. हे पळय, तांतूतलो अर्दो वांटो म्हाका दी आनी उरिल्ल्यांतले धा परसेंट तुका दवरून बाकीचे वयर पावय.

पुलीस : (हांसता) भियेंव नाका. आमी आसाच फाटल्यान. (पयस पळोवन) पड–पड बेगीन. हांव तुकां मारिल्लेवशेन करतां.

हीं पळय आयलींच तीं...................................

'हीं झुजां सैमाची' हें एकांकीत लेखक परंपरागत पिळग्यांमदलो जो संघर्ष चलत आयला ताची चर्चा करता. आख्यानाच्या रूपान, किर्तनाच्या form तल्यान कथा सांगून आनी ती कथा माचयेर enact करपाक वाव दिवन हो खेळ फुलत वता.

म्हाताऱ्यांक अडगळीची वस्त म्हुण भरती करपाक जे 'वृद्धाश्रम' बी थापतात ताणी ही एकांकी मुजरत वाचपी, पळोवंची. हांगा लेखक कोणाचो पाखो घेना. पूण अखेरेक तो किर्तनकाराच्या तोंडातल्यान जें भाष्य करता तें चड म्हत्वाचें.

'मायपास' ही एकांकी दत्तारामान नाजूक हातांनी बरयल्या. संवेदनशील लेखकान हळुवारपणान बरयल्ली ही काळजाक भिडपी अशी एकांकी. आवय-बापूय वगडावल्ल्या ज्या 'हापोक' फुलां खपनात म्हुण ताका पोसपी मावशेचो नित्त्य मार खांवचो पडटा, त्या दुर्दैवी अभागी जीवाची ही काणी.

हापोक हेर भुरग्यांवरी खायन पियेन, खेळनशें दिसता, शाळेंत

वचत दिसता. पूण फुलां खपनात म्हुण मावशेचो मार खातां खातां ताचें कवळें मन बावता आनी तरणी जीण करपता तें दाखोवपी ही काणी. दुसरेवटेन भुरगेंबाळ नाशिल्लो 'मिगेलणाय' रेंदेर 'हापोक' जीव लायता आनी अखेरेक ताका कायमचो वेंगेन घेता नाचीय ही काणी.

फुलांखातीर चार चार आण्यांचे वाटपण करपी टुरीस्ट हांगां दिसतात त्याचप्रमाण फुलां घेनासतना 'हापोक' पांच रूपया दिवपी भोंवडेंकारूय हांगा आसात. थोडयाभितर मोग-मोयपास मेळपाची आनी ना मेळपांची वेगवेगळीं आनी तरेतरेची सवंगा-थळां हांगा काळजाक घरां घालतात.

'पुण्यफळ' नाटिकेंत लेखक पाप-पुण्याचो विशय हाताळटा, तत्वचिंतन करता. एकाच वेळार मेल्ल्या दोन मनशांचे आत्मे वयर यमराजाच्या दरबाराकडेन मेळटात. एकलो भिकारी जाल्यार दुसरो गिरेस्त. धर्तरेर आसतना दोगांयचो लागींच्यान संबंद आयिल्लो आसता. एकमेकांचे गरीबकायेक आनी गिरेस्तकाय सत्ताधीशपदाक एकमेक कारण जाल्ले आसतात. पूण मरणाच्या दरबारांत सगळे सारखे शेकी गरीबाक सर्ग मेळटा आनी गिरेस्ताक नरक. मरतकीच रोखडेच त्या गरीबाचें दोळे बी कांय अवयव काडून व्हेल्ले आसतात देखून तो पुण्यफळ मेळयता.

एका काळार हजारानी शेकडयानी पानांच्यो कादंबऱ्यो येताल्यो तांची सुवात आतां सुटसुटीत कथांनी घेतल्या. कारण लोकांक वाचपाक आस्वाद घेवपाक आतां पयलीवरी वेळ-उसरपत नासता. ह्याच न्यायान पांचपांच साततास नाटकांचे दिस फाटीं पडून तीन अंकी दोन अंकी वा बीनअंकी नाटकांचें आतां दीस आयल्यात. एकांकीक तर बरो फुडार आसाच.

कोंकणी एकांकीक खूब मागणी आसा दत्तारामासारकिल्या समर्थ एकांकीकारान आतां सटासट आनीकूय संग्रह काडूंक जाय. अर्थीक नदरेनूय कोंकणी एकांकी घट अुबी रावूं येता अशें दिसून आयलां.

दत्तारामाक हांव घसघशीत येस आवंडेता.

राय
३०/६/१९८९

**ॲड्. प्रकाश थळी**

## एकांकीतलीं पात्रां

तो

झाड

भविष्यकार

सरपंच

सायब

मुकादम

गोपी

केसव

निवेदक

चिरो – १

चिरो – २

चिरो – ३

चिरो – ४

पांच/स जाण

---

**वनमहोत्सव**

- १ -

# वनमहोत्सव

---

**देखाव : पयलो**

(माचयेर 'तो' अेका जाग्यार उबो रावन सकल्यो वळी म्हणटा तसो बाकीचो 'मॉब' येवन ताका साथ करता.)

तो : पोरसांतलीं झाडां तीं आंगणांतलीं झाडां
मॉब : झाडां कापा, झाडां मारा.
तो : आंगणांतलीं झाडां तीं शेजाऱ्नीलीं झाडां
मॉब : झाडां कापा, झाडां मारा.
तो : शेजाऱ्नीलीं झाडां तीं रस्त्यावेलीं झाडां
मॉब : झाडां कापा, झाडां मारा.
तो : रस्त्यावेली झाडां, तीं गांवची झाडां
मॉब : झाडां कापा, झाडां मारा.
तो : गांवची झाडां तीं दोंगरावेलीं झाडां
मॉब : झाडां कापा, झाडां मारा.
तो : दोंगरावेलीं झाडां तीं रानातलीं झाडां
मॉब : रानां कापा, वनां कापा
तो : रानांतली झाडां तीं महोत्सवा झाडां
मॉब : रानां कापा, वनां कापा.

('रानां कापा, वनां कापा' चो आवाज ल्हव्रू ल्हव्रू कमी जायन व[...]
तसो 'तो' दुसरेकडेन वचून पेरगांव घालपाचे अॅक्शनीत . . .)

तो : (पेरगांव घालता) आयकयात, आयकयात सरकाराचें फर्मा[...]
आयकयात हो ऽऽऽ

मॉब : आज रे ?

तो : न्हय.

मॉब : फाल्यां बी काय कितें ?

तो : न्हय. परां ऽऽऽ

मॉब : परां ? कितें ?

तो : परां, गांवच्या मळार गांवची गरामपंचायत, व्हडा दबाज्यान वनमहोत्सव
करपाचो आसा. तेखातीर गांवच्या जाणट्यांक, नेणट्यांक
बायलां-भुरग्यांक, नागडे पोरांक वनमहोत्सवाचें जाहीर आमंत्रण
देतो हो ऽऽऽ

मॉब : (अजापान) वनमहोत्सव ! वनमहोत्सव म्हणून आनी कितें ?
(मॉब एकामेकांक विचारी – विचारीत 'तो' च्या फुडयांत येवन
बसतात. 'तो' आतां किर्तनकार जाला.)

तो : (किर्तनाच्या आवेशांत) राम - राम - राम - राम - सीताराम - सीताराम
श्री. वनदेवी माताकी जय. संत सरकारकी जय. तर मंडळी, वनमहोत्सव
म्हणजे एक मोटो उत्सव. पावसापयलीं, आमचे सबंद राज्यांत म्हणजे
काश्मीरपासून काश्मीरपर्यंत आनी कन्याकुमारीपासून कन्याकुमारीपर्यंत
व्हडा दबाज्यान साजरो करतात. ह्या दिसा प्रत्येकान सकाळीं उठचें
तोंड निवळ धुवचें, कोणाकय जाल्लें आसत जाल्यार दोंगरार वचून
येवचें. मागीर नितळ बरो धारेचो कोयतो घेवन आपआपल्या
घराफुडलीं, घरापाटलीं, दावेवटेनचीं, उजवेकडेनचीं सगळीं झाडां
कचाकच मारून सगळें बरें निवळ करचें. सगळी जमीन बरी शेणान
सारवची. मागीर घराफुडें एक खड्डो खणचो. तांकी प्रमाण एकामेकांक
आपोवचे आनी त्या खड्ड्यांत एक ल्हानशें रोप लावचें. हाकाच आमच्या
राज्यांत 'वनमहोत्सव' हे नांव दवरलां. अशा वेळार सरकार आपल्या
भक्तांक विनयता –

भावी पिढयांसाठी वृक्ष
दारी लावा वृक्ष

(सगळे म्हणीत वतात. काळोख.)

## देखाव : दुसरो

(ग्रामपंचायतीच्या कार्यालयामायर उबो रावन सरपंच रस्त्यार उबो आशिल्ल्या मुकादमाक उलो मारता.)

सरपंच : आरे ऐ ऽऽ मुकादम ऽऽ

मुकादम : कितें सरपंचबाब ?

सरपंच : आरे असो वयर यो रे. उदळदर तुजीच वाट पळेतां.

मुकादम : येतां येतां. मात्सो सकयल वचून येतां.

सरपंच : मागीर वच रे. पयलीं हांगा यो.

मुकादम : सामकें अर्जण्ट काय कितें ?

सरपंच : आरे, असो वयर तरी यो. मोटचान उलोवपाचें न्हीं तें.

मुकादम : येतां. रोखडो येतां. वतां तोच येतां.

सरपंच : मागीर वच रे. हें आमचें काम सामकें अर्जण्ट. आरे, सरकारी काम. सरकारी !

मुकादम : कितें सरकारी ? गव्हर्नमेण्ट वर्क. तशें जाल्यार आयलोंच हांव. (आपलेच भोंवतणी भोंवताडो मारता आनी पंचायतीचीं सोपणां चडिल्ल्याची ॲक्शन करीत सरपंचामुखार येता.) कितें ?

सरपंच : आरे, अितलो सरकारी कामानी घोळिल्लो मनीस तूं. थंय सकयल रावन कितें म्हणून विचारता. कोणय आयकतबियकत जाल्यार ?

मुकादम : तें आसूं. कसलें सरकारी काम तें तरी सांग.

सरपंच : काम सामकें ल्हान. पंचायतीचीं अितलीय कॉन्ट्रेक्टां तुका दिलीं तांतूंत हें काम सामकेंच ल्हान.

मुकादम : सरकारी काम कितलेंय ल्हान आसू व्हड आसूं, हातचें सोडप म्हळयार पिशेपणा. सरपंचबाब, सरकारी काम म्हणजे तुमचें आमचेंच काम.

सरपंच : सरकारी पद्धतीन वनमहोत्सव करूंक जाय. परां !

मुकादम : परां ! !

सरपंच : हय. फक्त दोन दीस उरल्यात. वयर सावन सायब येतलो सुवाळ्याक. जाता तितले वेगीन वनमहोत्सवाची तयारी करूंक जाय. वनमहोत्सव खंय करपाचो जाणा ? यो दाखयतां ...

(दोगय चलत रावतात. सरपंच फुडें मुकादम फाटल्यान. तसो मॉब म्हणटा ...)

मॉब – १ : खंयच आतां वचूं नाका
खावूं – जेवूं – पिवूं नाका

फुकट वेळ वगडांव नाका
सरकारी काम आयलां धांवून
तें हातचें सोडूं नाका

मॉब : बंबेरी बंब, बंबेरी बंब, बंबेरी बंब – बंब, बंबेरी बंब

सरपंच : (जागो दाखयत) हांगा ऽऽऽ

मुकादम : हांगा ?

सरपंच : हय हांगाच.

मुकादम : पूण हांगा हें येदें व्हडलें झाड आसा न्ही ?

सरपंच : तें मारुन उडय. पूण वनमहोत्सवाचें रोप हांगाच लागूंक जाय.

मुकादम : न्ही, हांव म्हणटालों रोप जाय जाल्यार हाजे कुशीक लावया.

सरपंच : सरकारी थराचेर उत्सव, म्हणजे व्हडलो माटोव घालूंक जाय. लोकां बसूंक कदेली जाय. देखून हांगा निवळ करूंक जाय. हांगमल्ली आसकडा येता तितलींय झाडां मारुन उडय. वनमहोत्सव हांगा जावंक जाय.

मुकादम : बरें आसां सरपंचबाब. पावलें म्हजेर. हांगाच करूंया.

सरपंच : दर वर्सा हांगाच. फुडल्या वर्साय हांगाच. तशें दर वर्सा कॉन्ट्रॅक्टय ...

मुकादम : म्हाकाच.

सरपंच : झाडां भोंवतणचे पेड बरे जांव दी.

मुकादम : सरकारी कॉन्ट्रॅक्ट म्हणजे म्हजें घरचें काम कशें. मेळत तशें करुन बोल्सां फुगोवपी हांव न्हय.

सरपंच : आनी तशें करपय बरें न्हय. तर हांगा धा इंचायेचो फोंडारो मार. फोंडारो सामको निवळ जांव दी. भितर पळेतल्याक आपले तोंड तांतूंत दिसपाक जाय.

मुकादम : फोंडाऱ्यांत !

सरपंच : हय. ताच्या मायर बरें गडगंज चिऱ्यांचे पेड बांदून काड. मातसो रंगय तूंच मार. वेल्यान व्हडलो सायब येतलो. आपल्या हातान ते फोंडाऱ्यांत रोप लायतलो. ताजें व्हडलें झाड जातलें.

मुकादम : बरें आसा.

सरपंच : कितलो खर्च येतलो ?

मुकादम : चड न्हय. तीनच हजार पुरो. सरकाराचें काम म्हणजे आमचेंच काम. चडथोडें बोल्सांनले गेले म्हणून तातूंत गा कसलें ?

सरपंच : तीन हजार ?

मुकादम : तीन हजार म्हणजे लागतातच ते. फुडल्या वर्सा काम नाका तर म्हाका.

सरपंच : फुडल्या वर्साय काम तुकाच जाय मरे ? तशें जाल्यार ...

मुकादम : ना – ना आनीक आनी कमी करूं नाकात.
सरपंच : जाता तितल्या कमी खर्चांत कर. हजाराभितर कर. पांचश्यां भितर कर. जाता जाल्यार शंभर रुपयांत सगळें कर.
मुकादम : शी ... शी ... ! तितल्यान फोंडारो, पेड, रंग, मानाय कशेंच जावचे ना.
सरपंच : बील करतना पांच हजाराचें कर.
मुकादम : पांच हजार ?
सरपंच : अडेज तुका अडेज ...
मुकादम : समजलें. पेडाक.
मॉब : (नाचत म्हणटा)
अडेज तुका, अडेज म्हाका
सांगू नाका, कोणाक सांगू नाका.

## देखाव : तिसरो

(मानाय कुदळ घेवन फोंडारो मारता. मुकादम येता)
मुकादम : गोपे, कितें करता ?
गोपी : फोंडारो मारतां.
मुकादम : येदो फोंडारो कोणां पुरूंक ?
गोपी : व्हडलो सायब येतलो न्हू ?
मुकादम : येदो नाका. गड्डयानी खेळपाक मील काडटात तेदें लेगीत खूब जालें.
गोपी : तशे न्हू पात्रांव, झाड लावपाक मात्सो खोल नाका ?
मुकादम : पिंपळ हुमटावन हाडून लावपाचो ना. बारीक ताळी लावपाची.
गोपी : जालें, तर पात्रांव.
मुकादम : केसव खंय गेलो ?
गोपी : (उलो मारता) केसवो, ऐ केसवो ऽऽऽ
केसव : (येत) येयलों, येयलों.
मुकादम : दोगय मेळून चार ...
केसव : दोगय मेळून चार कशे जांव येता पात्रांव ?
मुकादम : चिरे ...
गोपी : दोगय मेळून चार चिरे ...
मुकादम : हांगा थंय पडल्या आसतले. हांगा फोंडाऱ्या भोंवतणी लायात.

वर्साभशेनच.

(गोपी आनी केसव हेवटेन तेवटेन सोदीत एक एक चिरो हा
फोंडाऱ्या भोवतणी चारय वटेन दवरतात आनी पेड बांदिल्ल्या
अँक्शन करतात.)

मुकादम : पुरो. चुन्या डबो खंय ?

गोपी : हाडला पात्रांव.

मुकादम : इल्लें उदीक घालून सारय.

केसव : पात्रांव, चुनो जाल्यार मागीर हाडोन मारोया. मातो मातशी ओल
आसा न्हू.

मुकादम : ओल्याचेरच मार. तुज्या बापायचें कितें वता ? (दोगय चुनो सारतात.)
आरे, जमनीक आनी कित्या सारयतात ? तें कितें शेण काडटात ह
रे ?

गोपी : चुनो उरलो पात्रांव म्हणून सारयतालों.

मुकादय : उरूं. तो व्हर आनी तुज्या घराक काड.

केसव : आनी म्हाका कांय मा पात्रांत ?

मुकादम : तुका ना ? तागेलो चुनो काडून सोपतगीर रितो डबो तूं व्हर.

केसव : (खोशी जावन) आं पात्रांव.

मुकादम : हो घेयात तुमचो दिसवडो. तुका एक रुपयो आनी तुका एक रुपयो

गोपी : एकच रुपयो पात्रांव ?

मुकादम : वचात. (दोगय वतात)
(मुकादम हिशोब करता.)

मुकादम : वनमहोत्सव - फोंडाऱ्याचो ...

मॉब : एक हजार.

मुकादम : पेडाचो ...

मॉब : एक हजार ...

मुकादम : रंगाचे ...

मॉब : तीनशें.

मुकादम : मानायांक ...

मॉब : दोनशे.

मुकादम : (आडवी लायन मारिल्ल्याची ॲक्शन) एकूण ...

मॉब : अडेज हजार. (थांबून) सरपंचाक ..

मुकादम : अडेज हजार. एकूण ...

मॉब : पांच हजार.

मुकादम : ओ ऽ हो ऽऽ लुकसाण, सामकें लुकसाण निमणें म्हाकाच कांयच उरूंक

ना. आसूं, सरकाराचें काम तें आमचेंच काम.

एकटो : खर्चाचो आंकडो.

मॉब : पांच हजार.

एकटो : अडेज तुका, अडेज म्हाका ...

मॉब : पांच हजार.

एकटो : सरकाराचे काम तें–

मॉब : आमचेंच काम.

एकटो : उगडचा दोळचांनी पळय पूण–

मॉब : दोनय ओंठ दाम.

एकटो : (चाल बदलून गायता)

चला आता वनमहोत्सवाक
पंचायतीच्या निमंत्रणाक

(सगळे म्हणत – नाचत पंचायतीकडेन वतात.)

## देखाव : चवथो

(पंचायती कडलो देखाव. वनमहोत्सवाचो सुवाळो. येवकार गीत सुरू-)

सरकाराचें काम तें आमचेंच काम
आमचेंच काम तें जनतेचें काम
जनतेचें काम तें कुड्डयांचें काम

कोण गाळटा घाम, कोण जोडटा दाम. सुस्वागताम ऽऽऽऽ

सरपंच : (भाशण करता) माननीय सायब, मी सरपंच आनी माझ्या बंधुभगिनीनो. आज वनमहोत्सव. वन म्हणजे रान. रान म्हणजे जंय खूब झाडां, रानटी जनावरें वगैरे असतात. आणि महोत्सव म्हणजे काय ? तर महोत्सव म्हणजे-म्हणजे (घुस्पता)... म्हणजे काय ते आपल्याला खबर आहेच. मी आपला खूब वेळ घेतला. येवडे सांगून मी माझे भाषण संपल्याचे जाहीर करतो. (ताळयो) व मुखेल पावण्याना आतां त्याचे शुभहस्ते झाड लावण्याची विनंती करतो. जय हिंद.

(सायब उठटा आनी रोप लायता. ताळयो. सगळे घोशणा दितात 'वनमहोत्सव की जय' सायबांचा विजय असो.)

सरपंच : आता मी सायबाना दोन शब्द बोलण्याची विनंती करतो.

सायब : बंधुभगिनीनो, सरपंच आनी मी किंवा मी आनी सरपंच म्हना, कि
मी आनी तुम्ही म्हणा, सगळे इथं जमलेले आहोत. आताच सरपंचा
वनमहोत्सव म्हणजे काय ते शविस्तर सांगितलेले आहेच. मी आपल्या
एवढीच विनंती करतो कि परत्येकाने आपआपल्या घरी कि
स्वतःची (खोकता) नसेल तर दुसऱ्याचे घरी जावून (खोकता) अ
लावावे. नमस्ते आनी जय हिंद. (ताळयो)

सरपंच : आता मी हा वनमहोत्सवाचा कार्यक्रम संपल्याचे ...

मुकादम : सरपंचबाब, हांव थोडे उलोंव ?

सरपंच : उलय. उलय.

मुकादम : आमचे गावांत हो जो वनमहोत्सव म्हणोन किते जाता तेका खूब महत्
आसा आनी दर वर्सा तो करतात म्हण्टगीर तेका किते तरी आसोंक
जाय. हांव म्हाज्या घराकडेन सुद्धां दर वसा करतां. म्हागेलें व्हड
पोरसूं आसा. पयलूं पोरसांत खूब व्हडलीं व्हडलीं आंबे पणस असल
झाडां आसलीं. तेका लागून पोरसूं म्हळ्यार रान कशें दिसप. हांवे द
वर्सा एक एक आंबो-पणस मारून थंय बारीक बारीक रोपे लायले. अं
निमाणे झाड मारतलों आनी थंय एक रोपो लायतोलों. आतां म्हा
पोरसूं बरें निवळ जालां हें सांगूक म्हाका खूब खोस जाता. म्हाजी
तुमकां सगळ्यांक एक इनंती आसा कि जेका मरतगीर लाकूड घालोंव
जाय तेणे आपल्या नांवान एक तरी झाड लावोंकच जाय. इतलें सांगोन
हांव जय हींद म्हणटां. (कोणच ताळयो मारीना) ताळयो मारात म्हाजें
सोपलें. (ताळयो)

मॉब : ताळयो मारात, ताळयो मारात, ताळयो रे
सरकारी सुवाळो आतां सोपलो रे
घरा आमी आता वचूंया रे
ताळयो मारात, ताळयो मारात, ताळयो रे
(सगळे म्हणीत वता आसतना एकदम कानार हात दवरून रेडीयोवेल्यो
खबरो आयकुपाचे पॉझींत–)

निवेदक : आकाशवाणी. वनदेव रानकार तुमकां प्रादेशीक खबरो दिता. मुखेल
खबरो. आयज जळीं मळीं वनमहोत्सव व्हडा उमेदीन पाड पाडलो.
सरकारान राना मारूंक आनी कांय परमीटां दिवपाचें जाहीर केलां.
जळवाचे लाकूड व्हरपी धा ट्रक आज पूलीसेन व्होल्तार आडायले.
ट्रकांत जळोव सारखा बरो गच्च भरूंक ना म्हणून ट्रकांचे ड्रायव्हरांक
भितर उडयल्यात. आतां पुराय खबरो.

आयज जळीमळीं वनमहोत्सव मोटे उमेदीन पाड पडलो.

आयचे एका वनमहोत्सवाक उलयतना रानमंत्र्यानी सांगलें कि झाडां लायलींच म्हणून जायना तर तीं गोरवानी खावची न्हय म्हणून सायलाचीं झाडां मारून ताका भोवतणी घट वंय करूंक जाय. आनी वयेंचें सायला लाकूड चोरून व्हरचे न्ही म्हणून ताजे भायल्यान आनीक एक वंय करूंक जाय.

आमचो बातमीदार कळयता कि वनमहोत्सवाचे सर्तित अंदूयबी किण्ण गावांन पयलें बक्षिस मेळयलें. गांवच्या सरपंचान घेतिल्ल्या त्रासांची सगळ्यांनी तोंड भरून तुस्त केली. (सरपंच ताळयो मारता) ह्या वेळार मुखेल सोयरे म्हणून हाजीर आशिल्ले श्री. आठगुळे हाणी झाड लावपाखातीर भोवतणी बांदिल्ल्या पेडाचीं तोखणाय केली आनी हातुंतल्यात बाकीच्या पंचायतीनी देख घेवची म्हणून सांगले. एका रोपाखातीर भोवतणी बांदिल्ल्या पेडाक जवळजवळ पांच हजार पंचायतीन खर्चिले म्हणून लोकानी कसलीच पंचायत करची न्हय म्हणून ताणी धीर दिलो. सरकारान राना मारूंक कांय परमीटां दिवपाचें गुपचूप जाहीर केलां. (निवेदक मोन्यानी खबरो सांगिल्ल्याचे हावभाव करता.)

एकटो : (गायत) आरे काळखांतलो किण्ण गांव शेपडीं हालयता
फुकटाभितर पेड बांदून इनाम मेळयता.

मॉब : हय घणकट कट घणर कटर घणर ऽ ऽ ऽ घण् घुमचेकपड घूम घुमचेकपड घूम
(सगळे म्हणीत वतात. काळोख.)

## देखाव : पांचवो

(एकटो झाड जावन बसना. चौग जाण ताजे भोंवतणी चिरे कशे बसतात. मॉब्रांतलो एकटो गायता, तशें मदलें झाड ल्हव् - ल्हवू उबें जाता.)

एकटो : रात जाता दीस जाता जाता रे
म्हयन्या फाटल्यान वर्सां वता रे
चुकून रोप मूळ धरता रे
झाडाची वाड जाता जाता रे
जशे दीस आनी राती वता रे

झाड · (चिऱ्यांकडेन बोट दाखोवन) हांगा ऽऽऽ

चिरे : कितें ?

झाड : हांगा. हांगा जाता –

चिरे : कितें जाता ?

झाड : अन्याय.

१ चिरो : अन्याय ? आनी आमचेर ?

झाट : हय. तुमचेर अन्याय जाता.

२ चिरो : आमचेर अन्याय करतल्यांक आमी वगी रावचेना.

झाड : फुके डरांव करतात ते बेबे, आरे अन्याया आड झूजूंक रावात उबे.

३ चिरो : आमी बेबे ? आमी तर घट चिरे, वर्सांवर्सांचे ह्या पेडाचे.

झाड : अशेच बसल्यात वर्सांवर्सांचे पूण अन्यायाची कीट पेटना कोनश्या तुमच्या काळजाचे.

४ चिरो : तुज्या मुळांत गावता सूख. कोणे वचचें बेठेंच अन्यायाआड झुजूंक.

झाड : शी ऽऽ थू.

बायजणां – बायजणां चार ही बायजणा
घालांत पायांत पांयजणा, नी नाचात उगडे रणा
फुकटांतले चिरे तुमी, तासूंक लेगीत ना
चारय वटेन मिरयतात, शिमीटाचो लेप ना
चुन्याची करप ही, धवसाण लेगीत ना
पावसाचे दडकेर गा, तुमचे कांयच चलना
शेवटतात उगडया मळार, नी कोण लिमयता सकाळच्या पारार
तरीसुद्धां चुन्याचें नवें कापड न्हेसूंक
रावतात तुमी चारयवटेन वनमहोत्सवा वेळार
शी ऽऽ थू ऽऽऽ
आरे फुकटाचे बोंदर न्हेसोवन, कोणे जोडले हजार
अन्यायाची चाड ना ते तुमी म्हजे सामकार
बायजणां बायजणां चार हीं बायजणां
घालात पायांत पांयजणा, नी नाचात उगडे रणा.

१ चिरो : न्हय आमी बायजणा

मॉब : न्हय आमी बायजणा.

२ चिरो : झुजतले झुजतले अन्यायाआड झुजतले.

३ चिरो : हाडां तांची तोडटले फुकटांत जे जोडटाले.

मॉब : झुजतले झुजतले अन्यायाआड झुजतले
हाडां तांजी तोडटले फुकटांत जे जोडटाले.

४ चिरो : पूण हांगाय ... !
झाड : कितें ?
४ चिरो : हांगाय जाता. हांगाय जाता.
झाड : कितें जाता ?
४ चिरो : न्यायाचो दुस्मान.
झाड : अन्याय ?
४ चिरो : हय.
झाड : आनी म्हजेर ?
४ चिरो : हय तुजेर – तुजेर – तुजेर.
झाड : म्हजेर कसलो अन्याय ?
४ चिरो : कितले आयले कितले गेले,
सावळी तुजी चाखून.
कितले आयले, कितले गेले,
बडी लाकूड मारून.
३ चिरो : वखताखातीर साल तुजी
कोणा आवयन व्हेली तासून
गोड गोड फळां तुजी,
कोणे व्हेली फातरून.
२ चिरो : ज्या घरा चडलें तुज्या हातपायां पाखें
त्याच घरा रात्तीपोंदा जळटा तुजे मुखें
१ चिरो : जाल्ल्या भुरग्याक पायणे गा तुजे कुडीचें
मेल्ल्याक लेगीत निसण गा तुज्या हाडांची
मॉब : अन्याय गा अन्याय हो कोणे उक्तोवचो
अन्याया आड न्याय गा कोणे दिवचो.
झाड : हो कसलो अन्याय, हे म्हजे गुण, हें म्हजें काम.
४ चिरो : पुण मेळटा तुका उपकाराचें दाम ?
गुण तुजे गावचे गा वनमहोत्सवाक,
हार तुरे घेवन मिरवप शोभे देखाव्याक.
कोणाचे गा व्हडले हात रोप कापता
कोणाचे गा व्हडले हात रानां कापता.
'झाडांपेडां वाचयात' दिसा आडुता,
कुराड घेवन तुका मारूंक रातयां हेडटा.
२ चिरो : छी ऽऽथूऽऽ
एका हातान लायला रोप,

दुसरे हातान हुमटीता,
वनमहोत्सवानाडचार, बोल्सां फुगयता.
अन्याय गा अन्याय हो सोसूंक कसो जाता ?
ह्याजें उतर झाडा गा तुज्यान दिवंक जाता ?

१ चिरो : वनमहोत्सव गा, वनमहोत्सव
हय ऽ ऽ, वनमहोत्सव गा वनमहोत्सव
(सगळे झाडाभोवतणी गायत चित्रविचीत्र नाचतात.)

झाड : (सोसूं नज जावन मोटचान) रावात - रावात - रावात !
(जड स्वरांत)
दिया म्हाका हात नी दिया म्हाका आधार
अन्याया आड झूजूंक उठूंया आमी नेटार
महोत्सवा दीस लागीं लागीं पावला
काळाचो हात गळ्यालागीं आयला
ह्याच जाग्यार दुसरें रोप लागचें आतां आसा
ताच्यापयलीं कुराड म्हज्या आंगार चलची आसा.

१ चिरो : नाका, नाका झाडा, तूं अशें उलोंव नाका
तूं वचून आमकां अशे वतान तळपोंव नाका.

२ चिरो : थंड तुजे सावळेंत तुजे पाय धरून रावले
घट तुजी मुळां आमच्या गळ्यांत घालून रावले.

३ चिरो : तूं वचत जाल्यार आमी खंय शेवटतले
कोणा पायांक घट धरून उबे रावतले ?

४ चिरो : तुजो आमकां आधार, नी आमचो तुका सांगात
मनशावांगडा झुजूंक बळ आयलां आमच्या आंगात.

झाड : शाबास रे शाबासकी म्हज्या इश्टांक
मनीसपण शिकोंवया आमी मनशांक

मॉब : झुजतले, झुजतले अन्याया आड झुजतले
हाडां तांचीं तोडटले फुकटांत जे जोडटले.

**देखाव : सवो**

(सरपंच आनी मुकादम आपलेच तंद्रीत. झाडाक पळोवन अजापता.)

सरपंच : झाड ऽ ऽ ऽ हांगा झाड कोणें लायलें ?

मुकादम : कांय वर्सा पयलीं हांगा वनमहोत्सव केल्लो न्ही सरपंचबाब ?
सरपंच : तेन्ना झाड लायिल्लें ? तेन्ना तर रोप लायिल्लें ?
मुकादम : रोपाचें झाड जालें.
सरपंच : रोपाचें झाड ? रोपाचें झाड जालेंच कशें ? आतां वनमहोत्सव खंय करपाचो ?
मुकादम : हय तेंय खरे. आताचें आतां झाड मारून उडयतां. गोपे ऽऽऽ केसवो ऽऽऽ (गोपी, केसव येता.)
गोपी/केसव : कितें पावांव ?
मुकादम : हें झाड आताचें आतां मुळासकट मारून उडयात आनी पाळां मुळां खणून काडात.
गोपी : येदें व्हडलें झाड मारपाचें ? काय बरें झाड !
केसव : झाडां जावपाखातीर रोप लावप आनी आतां तेका मारप ?
सरपंच : रोप लायतात वनमहोत्सव करूंक, झाडां जावपाक न्ही.
गोपी : वनमहोत्सव दुसरेकडेन करूंया.
केसव : हांवय तेंच म्हणटालों.
सरपंच : तें तुमी म्हाका सांगतात ? तुमकां हांतूतलें कितें कळटा रे ? हांगा ह्या जाग्यार जावपी महोत्सवाची सर दुसऱ्या जाग्याक येता ? वनमहोत्सवाचें झाड हांगाच लावपाचें. हांगाच लागतलें.
गोपी : सायब, नाका मारूं तें झाड. काय बरो वारो येता.
केसव : आनी ह्या एदद्या उगडद्या मळार एकय झाड ना. असल्या रखरखांत ह्या झाडांमुळां काय बरें थंड दिसता पळय.
मुकादम : तुमी वगी रावात रे. तुमी म्हजे कामवाले. सांगता तितलेंच करात. (सरपंचाक) सरपंचबाब, हांव झाड मारून घेतां. सदचेबशेन पेंड बांदून काडटां. सगळी वनमहोत्सवाची तयारी करतां. तुमी कांय चिंता करूं नाकात.
सरपंच : कितलो खर्च येतलो ?
मुकादम : पोरूं इतलोच पुरो.
सरपंच : झाड मारपाचे आनी एक हजार वाडोवन दाखय. अर्दे तुकां अर्दे ...
१ चिरो : दर वर्सा बोल्सां भरता आमच्या नांवान,
आतां आनी चड खातले तुका मारून.
२ चिरो : अन्यायान जळटां हांव अन्यायान जळटां,
सूड कसो घेवचो तांचो हेंच हांव चिंतता.
३ चिरो : सोपून वचूं दी ही आख्खी मनीस जात,
स्राप म्हज्या काळजाचे फट किद्या जायत ?

४ चिरो : स्त्राप म्हज्या काळजाचे फट जावचे ना,
मनशाक ख्यास्त भोगलेबगर रावची ना.

झाड : सुडाची भाशा रे आमकां सोबना
सुडाचे भाशेन रे प्रश्न सोपना.
मनशाक मनीसपण शिकोवपाचो आयला आज वेळ,
भविष्यकाराचे रूप घेवन, हांव खेळटां तांचेलागी खेळ.

सगळे चिरे : झाडां तुजें मन व्हड, तुजें काळीज गा व्हड.

मुकादम : ती कुराड घे आनी कामा लाग सडसडीत. वर्सामशेन महोत्सवा
तयारी करात. चिऱ्यांक मात्सो चुनो सारय. फोंडाचें निवळ कर.

सरपंच : निवळ म्हणजे हारसो कसो. भितर पळेतल्याक तोंड दिसूंक जाय.
(सरपंच, मुकादम वतात. गोपी कुराड घेवन झाडाक मारूंक वता.)

झाड : गोपी ए गोपी, याद आसा तुका,
पळोवन घे सारखो आनी वळख तरी म्हाका.
याद जाता ?

मॉब : याद जाता, याद जाता, याद जाता ?

झाड : भर दनपारचो वेळ गोपी दनपारचो वेळ,
कडकडीत वतांत काळ खेळटालो खेळ,
घरकान्न तुजी वळवळटाली जीवा आकांतान,
नि मोने तिजे दोळे मागताले जीणेचे दान.
वैजीण, दोतोर, लोक सगळी धावांधांव,

गोपी : वैजाचो निमाणो उपाय, तुजो पालो वांटून हाड,
सगळे जग हेडलों तरी तूं नदरेआड.
कित्याक म्हज्या घरकान्नीचो जीव रे घेतलो ?
तुका मारून हांव सूड रे घेतलों.

झाड : सूडाची भास रे म्हजे लागीं नाका,
तुज्या घरकान्नीच्या मरणाक न्हय हांव जापसालदार,
खरें, फट जाल्यार तें मनशाक वचून विचार.

मॉब : गोपी रे गोपी कित्या अशें घडलें
मनशाचे करणेन मनशाक रे भोगलें.

गोपी : ना – ना – ना. आमी झाड मारचे ना.
(म्हणत म्हणत दोगय वतात.)

## देखाव : सातवो

(सरपंच आनी मुकादम येतात)

सरपंच : आरेच्या ! हे खंय गेले ? आनी कायच काम करूं ना.

मुकादम : तांका मारल्या मस्ती. कामावेल्यान काडून उडयतां.

सरपंच : आतां एका दिसाभितर हें काम कशें जातलें ?

मुकादम : तुमी भियेंव नाकात. हें झाड मारपाचें म्हजेर पावलें. दुसरे मानाय हाडून हांव हें झाड मुळासकट हुमटावन उडयतां.

झाड : मनशाक मनीसपण शिकोवपाचो आयलो रे वेळ
भविष्यकाराचे रूप घेवन हांव खेळटां आतां खेळ.

चिरे : जैतिवंत जा झाडा जैतिवंत जा.

(झाड भविष्यकाराचें रूप घेवन येता.)

सरपंच : हो तो येता तो साधू काय कितें ?

मुकादम : कोणय तरी ढोंगी आसतोलो.

(भविष्यकार फुडें येता)

भविष्यकार : तू सरपंच आनी तूं मुकादम न्हय ?

सरपंच : तूं कोण ? आमकां सारखो कसो वळखलो ?

भविष्यकार : हांव भविष्यकार. ज्योतीशी. फुडें कितें घडटलें हे हांव आजच सांगूक शकतां.

सरपंच : म्हजें भविश्य सांगात पळोवया. (हात फुडें करता)

मुकादम : म्हजेंय भविश्य सांगात.

भविष्यकार : (दोगांचेय हात हातांत घेता) हे तुमचे हात न्हय.

सरपंच, मुकादम : हे आमचेच हात.

भविष्यकार : न्हय. हे मनशाचे हात. मनशाचे भविष्य स्पष्ट दाखोवन दिवपी हे हात. (हातांकडेन पळयत) आवयस, कितलो भयंकर जीवघेणो खेळ घडपाचो आसा रे तुजे जिणेन. तुजी कर्मा तुकां कशी ओडीत घेवन चल्ल्यांत खोल दरयेंत उडोवंक. आनी तूं धडपडटा जीव वाचोवपाखातीर तडोर शेवटयिल्लें नुस्ते कशें. धतरेवेलो प्राणवायू सोंपत चल्ला. तुजो घुस्मटमार. सूर्याच्या धगान धर्तरी वितळत चल्ल्या आनी तूं झाडांचें सावळेखातीर तळमळटा. तुजो प्राणवायू तयार करपी झाडां, सैमाचे नेम चलोवपी झाडां आनी सैमाक सजोवपी झाडां. कसलींच झाडां ना आगे, धर्तरी पळय कशी उगडीनागडी बोडकी

बायल कशी. जाल्ल्या भुरग्याक फाटीर मारून ह्यो पळय वि
आवयो धांवतात. हो पळय मनीस मनशाकच खाता. जी
आकांतान धांवपी मनीस पळय. आरेरे ! तडफडत तडफडत म
सगळे धर्तरेर मनशाचीं मडींच मडीं, झाडाचें वेंगेंत जळपाची
पळयत कुसत पडल्यांत. हे, पैशाची चटक लागिल्ले हात, मन
विनाशाकडेन व्हरपी हात, झाडांची कत्तल करपी हे हात
उडयात. नाजाल्यार मनशा, तुजो भविष्यकाळ भयंकर वायट आस
(सरपंच आनी मुकादम आपलेच हात पळयत भयभीत जा
भविष्यकार नाच जाता. तसो मॉब गावंक लागता.)

मॉब : कशी मनशान कत्तल केली रे
वनमहोत्सवा नाडचार झाडां रे कापता, झाडां रे कापता
मनशाचे कर्मालागून मनीस रे फटवता, मनीस रे फटवता
ताजी, बुद्धीच सोपूंक आज लागली,
कशी मनशान ...

रानां आज शेणून गेली, दोंगरय बोडके, दोंगरय बोडके
धनाखातीर मनीस तोडटा सैमाचे कुडके, सैमाचे कुडके
सैमाचे सुंदरकायेक मनीस जाता परके, मनीस जातात परके
फुडें मनशाची जीण कशी जगतली,
कशी मनशान ...

(काळोख)

## एकांकीतलीं पात्रां

तरनाटो
चली
मानाय
पसरकार
मवाली
पुलीस
येंप्रेगाद
फुडारी
पुतळो
म्हातारी
पंच
प्यून
गाडेकार

सात/आठ जाण

---

खामसुत्री बावले खंय खंय पावले

-२-

# खामसुत्री बावले खंय खंय पावले

---

देखाव : पयलो

(माचयेर खासुमत्री बावले वेगळेवेगळे शैलीन उबे. तातूंत तरनाटो, मानाय, व्यापारी, मवाली, पुलीस, येंप्रेगाद, फुडारी, तरनाटी चली, म्हातारी, जनता तेशिवाय हेर आनीक बावले. एका कोनशाक एक थीर पुतळो. पड्डो वयर वतना सगळचो बावल्यो हांसतात त्यो दिश्टी पडटात.)

तरनाटो : ए, आज आमची मज्जा. आज आमकां नाचोवपी जोशी ना. तो खंयतरी गेला. ते म्हणसर आमी भरपूर खेळूंया.

कांय जाण : पूण कसलो खेळ खेळपाचो ?

चली : आमी मनशाचो खेळ खेळूंया.

सगळे : हयवय. मनशाचो खेळ.

(सगळे खोशेन नाचतात. नाचतां नाचतां म्हणटात.)

आमी खामसुत्री, खामसुत्री बाबा खामसुत्री
मनशाचो खेळ आमी खेळटलीं, खेळटलीं.
मनीम आमकां बेगीन कर,
कायमचे नाका पूण जोशी येसर
मारूतीबाबा शेपडो तुजी नाका,
मनशाचे तोंड दी, माकडाचें नाका

तोंडाक भास दी, बुद्धिची तांक दी
हाताक बोटां दी, पायांक चाल दी
मनीसपण बाबा मनीसपण दी

(नाचपाक रंग भरता, तशो येदोवेळ कोनशाक उबो अ
मनशाचो पुतळो हासूंक लागता. सगळे भियेतात. एकमेकांक
हांसलो, कोण हांसलो ?' अशें विचारतात. नागीर तरनाटो पु
हालयता.)

तरनाटो : हो तर पाशाणी. हो कसो हांसतोलो ? हाका म्हणून हांसूंक

मानाय : हो पाशाणी मनीस. हाका जर हांसूंक येता, जाल्यार उ
येवंक जाय.

पसरकार : हाका जर उलोवंक येता जाल्यार हालूंकय येवंक जाय.

मवाली : आनी हालूंक येता जाल्यार धावूंकय येवंक जाय.

पुलीस : (एकदम) धावूंक येता, जाल्यार नक्की हो चोरच आसूंक ज

येंप्रेगाद : हो चोर, जाल्यार जानीवंत मनीसच आसूंक जाय.
(पुतळो परत हांसता.)

फुडारी : हो मनीस जाल्यार होच हांसता आसूंक जाय.

चली : हांसता – हांसता म्हज्या मोगांत पडलोसो दिसता ! (पुतळो
बाकीचे हांसतात. ते थांबले काय पुतळो हांसता.)

तरनाटो : तूं कित्याक हांसता ?

मानाय : कोणाक हांसता ?

पुतळो : काय बरे बावल्यांच्या जल्माक आयल्यात तुमी. पूण कांय खिणा
जाण्ना, तुमी मनीस जाले. मनीस जावपाची तुमची ओड
हांसूंक आयलें.

मानाय : बावल्यांच्या जल्माक आयल्यात खरें पूण शेंडी मनशाच्या
जोशी नाचयता तशे आमी नाचपाचें. हो कसलो जल्म कर्माचो

पसरकार : आमकां आमचें अशें कांयच ना. रूपय ना आनी नांवय ना.

मवाली : बराबर. आज हांव राजा जाल्यार फाल्यां शिपाय.

पुलीस : आज इन्स्पेक्टर जाल्यार फाल्यां कंडक्टर.

येंप्रेगाद : एक दीस गळयांत टाय जाल्यार, दुसऱ्या दिसा असोच फागाव

फुडारी : आज फुडारी जाल्यार फाल्यां घरगडी.

चली : आज ठमी जाल्यार फाल्यां मामी.

म्हातारी : आज म्हातारी जाल्यार फाल्यां कोतारी.

पुतळो : कितेंय जरी जालें तरी तुमी जल्मतात बावल्यो म्हणून आनी स
बावल्यो म्हणून. मनशाचें तशें ना. तो जल्मता मनीस म्हणून

सोंपता तेन्ना सुर्वेचो मनीस नासता. तो चड करून गुंड जाता, पशू जाता, राकेस जाता आनी आपणाकूच फटयत सोंपता.

तरनाटो : सोंपतना कसोय सोपूं. पूण जगतना आपल्याक जाय तसो जगता. सोपपाचें कोणे पळयलां !

पुतळो : तुमकां तशें सांगलें म्हणून सहज रितीन पटचेंना. एका खीणाक लेगीत म्हाका मनीस म्हणून जगपाचें ना. देखून हांव पुतळो जालां. मनशाची जीण हांवे लागीच्यान पळेल्या कारण हांवे ती भोगल्या. मनशाचे जिणेचो खेळ म्हळ्यार उज्यांत जितो जळपाचो खेळ. त्या परस तुमी तुमचोच बाव्वल्यांचो सदचोच खेळ खेळात, झाडांचो खेळ खेळात, नाजाल्यार दोंगर, फातर, झऱ्यांचो खेळ खेळात.

सगळे : ना. आमी मनशाचोच खेळ खेळटले. कारण आतां आमी मनीस जाल्यात.

पुतळो : हरकत ना. हांव तुमकां मनशाचे जिणेच्यो काणयो सांगता. तशे तुमी खेळात. हो तुमचो पंच (एकटयाक पंच म्हणून कुशीक काडटा.) आमी हांगा बसून तुमचो खेळ पळेतात. सांगात, आसा मूं तयार ?

सगळे : (हात वयर करुन) हय !
(सगळे परत नाचूंक लागतात. नाचतां नाचतां म्हणटात.)

आमी मनीस गा हाडांचे, मासाचे
आमी मनीस गा जातीचे, कातीचे
आमी मनीस गा रंगाचे, भेसांचे
आमी मनीस गा खऱ्यांचे, खोटयांचे

(काळोख)

## देखाव : दुसरो

(उजवाड जाता तेन्ना मानाय एक कुण्यान भरिल्लो साक फाटीर घेवंक धडपडटा.)

मानाय : (घाम सारीत) हांव बसलों म्हणून दीस थोडोच बसतोलो ! पोटाखातीर करचें पडटा. हो साक व्हरून त्या गुदावांत घालूंक जाय. (साक फाटीर घेवपाचो यत्न करता. फाटल्यांतल्यान सगळे घोशणा दित वतात. 'आमकां काम दियात' 'बेकारी पयस करात.'

तांतूतल्यान तरनाटो भायर सरून मानाया म्हज्यांत येता.)

तरनाटो : आगा, तूं दीसभर हेंच काम करता ? तुका पुरो जायना ?

मानाय : जाता. पूण कोणाक सांगू ? अर्दे काम तूं करता ?

तरनाटो : असलें काम हांवे करप ? हांव शिकिल्लो सवरील्लो तरनाटो म

मानाय : चड शिकला ? जितलो चड शिकता तितलो हो साक चड
लागता. हांव कांयच शिकोना. म्हाका जड लागना.

तरनाटो : म्हज्या शिक्षणाच्यो बकच्छायो मारता ?

सगळे : आमच्या शिक्षणाच्यो बकच्छायो ? कोण मारता ? कोण मारता

मानाय : छॅऽऽ शिक्षणाच्यो ! आनी बकच्छायो मारूंक हांव कितें शिकल
(बिडी पेटयता) हो साक त्या गुदावांत व्हरून घालूंक जाय. मा
हात घालता ? फाटीर घेतां.
(मानाय साक फाटीर घेवंक बसता. पूण तरनाटो हात घालीन

मानाय : (तरनाटयाक) हात घालीना ?

तरनाटो : घालतां. पूण कितले पयशे दितलो ?

मानाय : साकाक हात घालपाक पयशे ? साकाक हात लावप म्हणजे दोतो
पोटाक हात लावप काय कितें ? पयशे खंय, पयशे ! घालूंकच ना
कोणय हेवटेन तेवटेन वचपी सांगल्यार घालतलो.

तरनाटो : उबारतल्याक पयशे दिवचोना ? तूं हो साक गुदावांत व्हरून घालप
पयशे घेवचोना ?

मानाय : ना.

तरनाटो : म्हणजे तूं फुकटच काम करता ?

मानाय : ना. असले दोन साक व्हरून घालतोलो तेन्ना दोन रुपये घेतलों.

तरनाटो : म्हणजे रेडया, एक साक घालपाक एक रूपयो अशेंच जालें ना ?

मानाय : ना पाडया. एक साक व्हरून घाल्यार पन्नांव पैशे दिना.

तरनाटो : कित्याक दिना ?

मानाय : मोडचो रुपयो खंय गावता ?

तरनाटो : मागीर कितें करतलो ? हांगा तर हो एकच साक आसा.

मानाय : हो साक दोनदां व्हरून गुदावांत उडयतलों.

तरनाटो : पिसो !

मानाय : तूं पिसो.

तरनाटो : अशें करून वेळ फुकट कित्याक वगडायता ?

मानाय : त्यो घासाघीसी करपाक तूं वेळ कित्याक पाड घालता ?

तरनाटो : बरें. दोनय वेळा हांव साक उबारतां मागीर म्हाका कितले दितलो

मानाय : वीस पयशे.

तरनाटो : कितें ? वीसच पयशे !

मानाय : तेय तूं बेकारथवय म्हणून. मालक्रियाद ! उबार आतां. (तरनाटो साक उबारता. साक फाटोर घेतगीर मानाय तोंडात धरिल्ली विडी तरनाटयाच्या हातांत दिता) धर ही विडी, आनी म्हज्यावांगडा गुदावांमेरेन यो. गुदावांत साक उडयतगीर म्हाजी विडी दी आनी तुगेल्या वीस पयशां विडयो तुकां घे. मोडचे पैशे ना. चल.

पंच : (तांचेफुडयांत येवन) राव – राव. हांगाच तुमी चुकले. मनशाचो खेळ खेळतात. पूण मनीसपण अजीबात ना तुमकां. (तरनाटयाक) ताच्या तोंडानली विडी तूं शिकिल्लो सवरिल्लो तरनाटो हातांत धरता ?

तरनाटो : हांव धरीना. म्हजी ही बेकारी म्हाका धरूंक लायता.

सगळे : आमची बेकारी आमकां धरूंक लायता ... आमची बेकारी ...

पंच : (मानायाक) इतलो धडधाकट मानाय तूं, हो कुण्याचो साक फाटोर उबारपाक तुकां दुसऱ्याची गरज जाय ? काय गणयता ?

मानाय : म्हाका कोणाचीच गरज ना. पूण म्हाजी सवंय म्हाका सोडीना.

पंच : शी ऽऽ ! तुजो संवय आनी ताजी बेकारी.

पुतळो : मनशाची जीण म्हळयार फक्त लाचारी.

सगळे : बेकारी, बेकारी मनशाची जीण म्हळयार लाचारी (म्हणीत वता.)

(काळोख)

## देखाव : तिसरो

(उजवाड जाता तेन्ना एका बसस्टॉपाचेर एक मवाली उबो. तरनाटो येता.)

तरनाटो : पात्रांव, हांवे खूब फावटीं तुका पळेला. पुण बरी ऽऽ वळख ना.

मवाली : म्हाका वळखना ? शार जांव, गांव जांव, नाक्यानाक्यानी भोवतां हांव. पाकीट जांव, तिजोरी जांव, सगळयांचो राजा हांव.

तरनाटो : तुमच्या तोंडावेल्यान तुमी राजकुंवर कशेव दिसता. म्हजें एक काम करशात ?

मवाली : कसलें काम ?

तरनाटो : हांव फस्टक्लास ग्रॅज्यूएट. पूण देवाच्यान हांव बेकार. म्हाका खंयीय

नोकरी दिवशी जाल्यार भोव जातले उपकार.

मवाली : नोकरी नोकरी नोकरी. शाण्यासुरत्या शिकिल्ल्या फर्स्टक्
ग्रॅज्युएट बेकार तरनाटचा, नोकरी करून मेळटा कितें ? म्ह
जातगोर तितलोच कोको, तितलेंच मेमें.

तरनाटो : पूण राजा, कसलोय धंदो करतोलो जाल्यार जाय भांडवल अ
जागो. तेशिवाय जायना धंदो उबो.

मवाली : सगळ्याच धंदयाक भांडवल नाका. बिनभांडवली धंदे जा
आसांत. आतां म्हजोच धंदो पळय. भांडवल नाका. जागोय ना
असो दोनय हात कंबरार दवरून ह्या बसस्टॉपाचेर जांव खंय
पब्लीक जाग्याचेर उबो रावपाचो. नदर सारकी हेवटेन तेव
भोंवडावपाची. गिऱ्हायक नदरेक पडलें रे पडलें त्या बर
पारखूपाचें की, ह्या गिरायकावांगडा कशें उलोवपाचें.
(मानाय हातांत एक पिशवी घट्ट धरून येता.)

मानाय : बाबा, आतां बस आहा ?

मवाली : असो रत्यार उबो राव नाका. असो कडेक यो. कोणय खंयच्य
धक्को दित म्हणून सांगू नजो. असो यो.

मानाय : (ताच्या फुडयांत येवन बाकार बसता) आतां वळवय वसपा बस

मवाली : आसा. तूं वळवयचो ?

मानाय : हय.

मवाली : राव. येतली बस आतां. तूं हांगा खंय आयिल्लो तर ?

मानाय : हांव बँकेंत येयलेलों. कोणालें एकटयाचें काम आसलें. क
जातासर दनपार जाली. आमच्या गरीबांची कामा केन्ना वेग
जाता ?

मवाली : हांवय बँकेंतच आसलों. उदळसर हांगा येवन बशीक रावतां.
अजून बस ना. मोटारसायकल करून वतलों आसलों. पूण बोल्स
आसा धा हजार रुपये. ते घेवन एकटो मोटारसायकलीन वच
आयच्या काळांत भिरांत दिसता. कारण आज कोणा निवी
कोणाच्यान दिव येता !

मानाय : आतां म्हाजेंच पळय. तेवटेन दोंगरावटेन वचत जाल्यार हांव वळ
पावतां. पूण पैशे आसात न्हू ! कोण कोणाची कशी पाळत धर
रावता म्हूण कळना.
(बशीचो आवाज)

मवाली : बस येताशी दिसता. (मवाली आनी मानाय बशीखातीर दुसरेवट
धांवतात.)

तरनाटो : हो कसलो धंदो. ताचेकडेन उलय-उलय उलयलो. बशींत बसून गेलो. असल्या धंद्यांनी पोटां भरता? त्या परस वीस पयशां धंदोच बरो.

(मवाली येता.)

मवाली : (मानायाची पिशवी तरनाटयाच्या तोंडामुखार झेलयत) मानायाचो वीस पैशां धंदो बरो, काय म्हजो चारशें वीसांचो धंदो बरो ?

तरनाटो : ही पिशवी त्या मानायाची. तुजेकडेन कशी पावली ?

मवाली : धंदो ! पाकीट जांव, तिजोरी जांव, पिशवी जांव, सगळ्याचो राजा हांव. म्हजो धंदो, म्हणजे जाय तकली आनी हातचलाखी. (मवाली हांसता. एके चलयेचेर नदर पडटा तसो आपले पोशीन उबो रावता. चली पर्स धोलयत धोलयत येता.)

चली : एक्स्क्यूज मी !

मवाली : येस् ऽऽ

चली : पणजेची बस गेली ?

मवाली : अजून एकय बस वचूना. हांवय पणजेच वचूंक उदळसर रावतां.

चली : खूब गरम जाता. सोसूं नज.

मवाली : हय. अंदू पावसय साप्प कमी पडलो.

(चली पर्स उगडून लिपस्टीक, हारशी घेवन ओठ रंगोवक रंगता. पर्स बाकार. मवाली ल्हवूच तांतूतले पैशे, काकणां आनी लेंस काडून आपल्या खोलसांत घालता आनी बगी रावता. चली सामान पर्शीत दवरपाक पर्स काडटा आनी किळांच मारता.)

मवाली : कितें जालें ?

चली : म्हजे पयशे !

मवाली : खंयचे पयशे बाय ?

चली : म्हजे पर्शीतले. आत्तां आशिल्ले. ही लीपस्टीक काडल्या तेन्ना सुद्धा आसले त्या शिवाय म्हजी कांकणाय लेंसाक बांदून आशिल्लीं.

मवाली : आगो, अशें आवाज जांव नाका. सारखी याद कर.

चली : आत्तां आशिल्ले. हांवे आत्तां पर्स उगडल्या तेन्ना सुद्धां आशिल्ले.

मवाली : आगो, बेठेंच रडूं नाका. तुका बशीक जाय जाल्यार हांव दितां पयशे. हांगा कोण येंव ना वचूं ना. आनी ना कशे जातले ? बेठींच पिशेपणा करूं नाका. चल, तुजेबरोबर हांव जाल्यार येतां. घराकडेन वचून पळोंवया.

तरनाटो : (आपलेच मितर) तरणे तरणे रगताचो, मदनाचो पुतळो हांव, न्याय जाव, अन्याय जाव सगळ्यांत पयलीं म्हजो धांव. (चलये म्हण्यांत

येता) जाणा, तुजे पयशे हाणे काडल्यात. हांवें पळेल्या. हांव हे थ
उब्रो आशिल्लो. तुवें पर्स बाकार दवरत्री आनी तूं ओंठ रंगोवपा
रंगलें. तितल्यांत हाणे सादयलें.

चली : म्हाकाय तसोच दुबाव आशिल्लो. नाजाल्यार कोण काडटलो
(मवाल्याक) बरेभशेन दी, नाजाल्यार जोत्या व्हाणानी मारतलें.

मवाली : कितें ? हांवे काडल्या ? सरळ सरळ म्हजेसारखेले प्रतिश्ठ
मनशाचेर आळ घालता ? दोगाकय काडून सोमतींच पोलीसां
तांवडीत दितलों.

तरनाटो : ताचे पयशे तुवेंच काडल्यात.

मवाली : म्हाका दिसता खंयूय वाटेर फारायल्यात आनी आतां म्हजेर घाल
साव जावंक सोदता. दिसता पळय मवाली, गुंड कसो ! बाय, तु
पैशे हाणेच काडल्यात.

चली : (तरनाटच्याक) खरें सांग, म्हजे पैशे कोणे काडल्या? हलक
मवाल्या, चोरा ... (पायांतली व्हाण हातांत घेता.)

मवाली : (तरनाटच्याफाटल्यान वता) बाय मार तूं. तुजेसारके चलये
असल्यांक बुद्द शिकोवंकच जाय. मार तूं. हांव पळयतां कसो वता त
हांगसल्ल्यान. (तरनाटच्याक घट धरता. चली ताका मारता. ही सं
सादून मवाली आपल्या बोल्सांतलो लेस तरनाटच्याच्या बोल्सां
ताका नकळटां चोंदता.)

तरनाटो : बाय, राव. म्हाका मारू नाका. म्हजें आयक. गरजेक पावता ताका
मारता ? खरेंच हांवे पैशे काडू ना. हांवे काडिल्ले जाल्यार पळू
वचपा सोडून हांगा मरपा येवचो नासलों. विचार कर सारखो. तु
सुद्धां पर्स उगडून पैशे आशिल्ले ते पळेल्यात आनी हांव केन्ना कस
काडटलों ?

मवाली : मार तूं, मार. हे अशेच उलोवन कूस मारतात.

तरनाटो : बाय, तो पळे पुलीस. आपय ताका. जांव दी तपासणी.

चली : पुलीस, पुलीस हांगा यो बेगीन. बेगीन यो. म्हजे पैशे चोरल्यात
बेगीन यो.

पुलीस : (धांवट येता) कितें जालां ?

चली : आत्तां हांगा म्हजे पैशे, भांगराची कांकणा ह्या पर्शितल्यान न
जाल्यांत (मवाल्याक बोट दाखोवन) हो एकटोच हांगा आशिल्लो.

पुलीस : राव-राव सगळी रडकथा नाका. आनीक पंदरा मिनटांनी म्हाजी
ड्युटी सोंपतली. मागीर हांव वयतलों.

चली : म्हाका हाजोच (मवाल्याचो) दुबाव येता.

पुलीस : (मवाल्याक) कितें रे ? तुवें हाचे पशितले पैशे काडल्या काय ना ?

मवाली : ना सरकार. खरेंच हांवे चोरूना.

चली : ताचीं बोलसां तपासून पळेयात.

पुलीस : खरें सांग. चोरूना जाल्यार कित्याक चोरूना आनी चोरलां जाल्यार कित्याक चोरलां ?

मवाली : खरेंच तर तुज्यान !

पुलीस : फट उलयल्यार भितर उडयतलों.

मवाली : आतां कशें सांगू हांव ?

पुलीस : तुका पकडलेशिवाय तूं सारको वदचोना, चल धांव धांव. तुका धरून लडे दितांच हांव.

(मवाली, ताच्याफाटल्यान पुलीस, तरनाटो आनी चली धांवता. धांवतां धांवतां फुडें पुलीस आनी फाटल्यान मवाली धांवता असो देखाव)

मवाली : सरकार-सरकार हांव तुज्या फाटल्यान आनी तूं म्हज्या सामकार ऽऽऽ

पुलीस : (धांवतनाच) आरे, तूं कसो फाटल्यान उरलो रे ऽऽऽ

मवाली : तूं म्हजे फुडें धांवलो आनी हांव फाटीं उरलों ऽऽ

पुलीस : (लक्षांत येवन तसोच फाटल्यान येता आनी रावता) खूब तेपान धांवलो. (खर्शेता) हांगा कोण एक ना. बरें जालें. आयज कितली जोड जाली ?

मवाली : हे पळय, हे पांच हजार एकटचाले. हे ते बायचे पैशे आनी ही कांकणा घे. एक लेंस आसलो तो त्या तरनाटयाच्या बोल्सांत ल्हवूच घालो. ताका खबरच ना.

(पुलीस सगळें आपल्या बोल्सांत घालता)

पुलीस : ही दोगांय आमच्या फाटल्यान धांवत येतालीं, तीं खंय पावलीं ?

मवाली : येनलीं. हे पळय तांतूतलो अर्दो वांटो म्हाका दी आनी उरिल्ल्यांतले धा परसेंट तुका दवरून बाकीचे वयर पावय

पुलीस : (हांसता) भियेंव नाका. आमी आसाच फाटल्यान. (पयस पळोवन) पड – पड बेगीन. हांव तुका मारिल्लेबशेन करतां. हीं पळय आयलींच तीं. (मवाली पडटा. ती दोगांय खर्शेत येतात)

पुलीस : (ताका मारता) सांग, चोरलां काय ना ? दुसऱ्याचें चोरपाक लज दिसना ? दिसाधवळ्या हात मारतात. मात आमचो भंय ना ? खंय दवरलां ते सांग, नाजाल्यार असोच व्हरून भितर उडयतां. सांग ऽऽ (मवाली वळवळटा.)

चली : अजून मेळना ? अजून सांगना आपणे चोरलां म्हणून ?

पुलीस : अशें सहज सांगतात ते. फुकट आमकां त्रास. तुमच्यो पर्शी तुमच्य
सांबाळपाक जायना जाल्यार कित्याक कपलाक घेतात त्यो ?

चली : रागार जांव नाका. पूण कशेंय करून सोडून दियात.

पुलीस : ए, बोल्सां दाखय. उठ. सगळे सारखें दाखय.
(ताचीं बोल्सां तपासपाचें नाटक करता.)

मवाली : सरकार, म्हाका बेठोच मारलो. हांव सादो मनीस. पणजे वच
राविल्लों आनी फुकट मार खालो.

पुलीस : तुजें कितें कितें ना जालां ?

चली : म्हजे पैशे आनी कांकणा.

मवाली : आतां हाका तपासात. हाणेंच काडल्यात. हांव सांगता. पूण हाच
बोल्सांत आतां कशें मेळटले ? हाणे वाटेर खंयीय उडयल्या आसत
मागीर व्हरतलो.

तरनाटो : घेयात, तपासात म्हाका. निर्दोश मनशाक कसलो भंय. घेया
तपासात. (पोलीस ताका तपासता. ताच्या बोल्सांतलो चलयेचो ले
काडटा.)

चली : हो म्हजो लेस. हाकाच बांदिल्लीं हांवे कांकणा.

पुलीस : तुजो लेस आनी हाच्या बोल्सांत ? मागीर होच चोर आसूंक जाय

तरनाटो : म्हज्या बोल्सांत लेस कसो आयलो ? म्हाकां कांयच खबर ना.

पुलीस : (खोमसाक धरून) कांयच खबर ना. आतां काडटां तुजो कुण
मागीर सगळें आपशींच कळटलें.

मवाली : उदळसर हांव हेंच सांगता. पूण चोराक सोडून संन्याशाक सुळी.

चली : चूक जाली म्हजी.
(इतल्यांत मानाय येवन मवाल्याक धरता)

मानाय : सांग, तूंच तो. उदळ बसस्टॉपाचेर बसलेलो तो तूंच. म्हाजी पां
हजार रूपयांची पिशवी खंय ? सांग. नाजाल्यार मस्तून मस्त
मारतोलों.

मवाली : पापया, म्हाका सोड. तुजे पैशे शेणल्या ? चोरल्या मरे ?

मानाय : हय. तुये म्हाका बरो बनयलो हातोहात फटयलो.

मवाली : हांवे न्ही. हाणे. हो पळय चोर धरला. हे चलयेचें पाकीटय हाणे
मारलां. (मानाय मवाल्याक सोडटा)

मानाय : हयवय, होय थंयच गणयतालो खरो. होच तो.
(ताका आड घालता. सगळे तरनाटयाक मारतात. तरनाटो 'हां
चोर न्ही' म्हणत किळच्यो मारता.)

पंच : आरे अशें न्हय. अशें न्हय तें. ताका मारूं नाकात.

सगळे : चोराक मारूंकच जाय.
पंच : कोण चोर आनी कोण साव ?
सगळे : असल्या चोरांचे घट्टाण जावं.
पंच : तुमी मनशाभशेन ताका मारतात किते ? आमी बावले. खरे मनीस न्हय.
सगळे : तूं वच तुका जाय थंय.
पुतळो : (पंचाक) आतां तुका ते आयकुचे नात. ते तुका वळखुचे नात. तांच्यातलो मनीस आतां पिसावला. हेवेळार ताका कांयच कळना आनी समजयना. तूं एकतर कडेक सर नाजाल्यार तूंय तांचेभरशी ताका मार आनी तुज्या हाताची खाज भागय. कोणाक तरी मार होच मनशाचे जिणेचो सार.
(सगळे तरनाट्याक मारतात. काळोख.)

## देखाव : चवथो

(सरकारी ऑफीस. येंप्रेगाद हातांत पेन घेवन खुर्चेर न्हिदला. फुडयांत एका स्टुलाचेर प्यून बसला. इतल्यांत थंय कामाखातीर प्रजेचें प्रतीक म्हण एक चली येता)

प्रजा : नमस्कार सायब.
प्यून : हांव सायब न्हू. हे पळय. हे ते सरकारी येंप्रेगाद. तुमचे सायब.
प्रजा : आमचें काम जालें म्हणटकच जालें सायब. तूं जांव तो आमकां प्रजेक सगळेच सायब.
प्यून : तूं कोण ?
प्रजा : हांव गरीब प्रजा.
प्यून : प्रजा ! प्रजेचीं सगळीं कामां सरकारी ऑफीसांतच काय किते दिसभर ? तुमकां आनी ऑफीसां ना राज्यभर ?
प्रजा : ऑफीसां खूब आसात. जलमनोंद ऑफीसपासून मरणानोंद ऑफीसांमेरेन मेजूंक येवची ना इतलीं ऑफीसां आसात हे प्रजेखातीर. पूण त्या त्या कामाखातीर त्या त्या ऑफीसांनच वचून मरूंक जाय.
प्यून : मागीर ह्या ऑफीसांत मरपाक आतां हो वेळ ? आमचें ऑफीस सकाळीं धांक उगडें जाता म्हणून खबर ना ? आतां दनपारचें एक जालें. हो वोगोत काम करपाचो कांय न्हिदपाचो ?

प्रजा : सायब ऽऽऽ!

प्यून : (मोठ्यान) हांव सायब न्हय.

प्रजा : मागीर तूं कोण ?

प्यून : हांव - हांव - अं ऽऽऽ (विचार करून) हय, हय, हांवच सायब. म्हाकाच सायब म्हण. म्हण.

प्रजा : सायब ऽऽऽ!

प्यून : हांव सायब आनी हे तुमचे सर. हांका किदें म्हणप ?

प्रजा : सर ऽऽऽ

प्यून : केदया मोटयान म्हणटात ? तांचे न्हिदेची झोपमोड जायत जाल तुज्या कामाची तोडफोड जातली हें खबर ना ?

प्रजा : सायब, तूं तरी सराक उठय. ऑफीसाच्या दारार प्रजेची केदी लागल्या पळय.

(कांयजाण प्रजेच्या फाटल्यान एके वळीन भजन करीत येतात)

'सर सर उठ सर, प्रजेचें काम कर.'

(येंप्रेगाद उठटा. सगळे थांबतात आनी आशेन पळेतात.)

येंप्रेगाद : कितलीं जालीं ?

प्यून : अजून स वाजूना सर.

(येंप्रेगाद परत न्हिदता. परत सगळे भजन मोटमोटयान म्हणटात

प्यून : शट अप् ! बोवाळ किदें घालतात ? हें सरकारी ऑफीस. हां शिस्तीन वागूंक जाय.

(सगळे भियेन एके वळीन उबे रावतात. एकएकटो फुडें येवन)

पयलो : सायब हांव धा वरांचेर आयिल्लों. पूण तेन्ना हांगा कोणच ये नाशिल्लो म्हणून परतो गेलों.

दुसरो : हांव साडे धांक आयिल्लों. पूण तेन्नाच सर पुरो जावन बसला म्हण हांव भायर गेलों.

तिसरें : हांव अकराक आयिल्लें. पूण तेन्ना सर भाजीपाव खाता म्हणून भा गेलें.

चवथो : हांव साडे अकरांक आयिल्लों. पूण तेन्ना सर फोनाचेर घराक बरोच वेळ उलयत आशिल्लों म्हणून वाजेवन भायर गेलों.

पांचवो : हांव बारांक आयिल्लों. पूण तेन्ना सर जेवतालो म्हणून भायर गेल

सवो : हांव साडेबारांक आयिल्लो, तेन्ना सर न्हिदिल्लो.

सगळे : तो अजूनमेरेन उठूंक ना.

प्रजा : आतां येंप्रेगादाक उठोवपाचें काम कोणाचे ?

सगळे : सरकाराचें.

प्रजा : सरकार कोण ?
सगळे : आमीच.
प्रजा : मागीर काम कोणाचें ?
सगळे : आमचेंच.
प्रजा : मागीर उठयात तर.

(एकटो शिकयता. बाकीचे म्हणटात)

आंगार सूट, पायांत बूट
उठ येंप्रेगादा उठ आतां उठ

हातांत पेन, माथ्यार फॅन,
येंप्रेगादाक पडल्या सुस्त झेम

व्हडलो बंगलो, दारांत गाडी
जनतेच्या कामाची नाशाडी

प्रजा तिश्टता ऑफीसां दारांत,
येंप्रेगाद बुडला रंगीत सपनांत
(स वरांचे टोले वाजतात. तसो येंप्रेगाद उठटा)

सगळे : (खोशेन) सर – सर – सर ऽऽऽ
येंप्रेगाद : अे ऽऽ हें कितें चल्लां ? दिसभर काम करून म्हाका पुरो जालां. सकाळच्यान कितलीं म्हणून कामां करपाचीं ?
एकटो : सर हांव म्हयनो जालो फावटी मारतां. अजून म्हजें काम जावना.
दुसरो : म्हाज्या कामाक जाल्यार अितलो तेप जालो कीं म्हाजे कसलें काम तेंच हांव विसरलों.
येंप्रेगाद : आतां सगळे फाल्यां येयात. स जालीं. ऑफीसाचो टायम् सोपलों.
प्रजा : सर ऽऽऽ ! !
येंप्रेगाद : आतां हांगसल्ल्यान भायर सर ऽऽ : (वता)
प्यून : (बाकीच्यांकडेन पळोवन) आरे, आसो वसो रे सासो वसो, तोंड बंद करून वच आयला तसो. तळी दवरलेबगर जाग येवची ना, नाल्लविडयाशिवाय कामां जावची ना.
सगळे : आरे आसो वसो रे सासो वसो. तोंड बंद करून वच आयला तसो –

(सगळे वतात. काळोख.)

## देखाव : पांचवो

(फुडारी बसला. ताच्या फुडयांत व्यापारी, मवाली, पुलीस ताच्या हातांत एक - एक ल्हानशी पोटली आसा.)

पुलीस : सलाम सरकार.

व्यापारी : नमस्कार सरकार.

मवाली : तुमचो आशिर्वाद सरकार.

फुडारी : कशें चल्लां ?

तीगय : बेस बरें.

फुडारी : राज्यांतले काळे गोरे ?

तीगय : बेस बरे.

फुडारी : दूद, उदक, सोरे ?

सगळे : बेस बरे.

फुडारी : तुमी हांगा येवपाक कारण ?

सगळे : ( त्याच मुडांत) बेस बरें.

फुडारी : हांव विचारतां येवपाक कारण कितें ?

सगळे : येवपाक कारण ... कारण ... हॅं ऽ ऽ हॅं ऽ ऽ ऽ !

व्यापारी : सरकार भेसळ प्रतिबंधक कायदो केल्ल्यान आमच्या धंदयाक खोंट बसल्या. तरीसुद्धां तुमचे कृपेन बरें चल्लां. ह्या म्हय तुमचो शिदो पावोवन घेयात. (हातांतले दिता.)

मवाली : सरकार, कायदे कोणाक जाय ? आमी घेवन आयल्यात आ धंदयाची साय. (हातांतले दिता.)

पुलीस : दूद ल्हायो चाख आनी सगळयांक आमकां राख. (दिता)

फुडारी : आनी कितें खबर राज्यांतली ?

व्यापारी : खबर ! खबर तीच सरकार. म्हयनोभर तेंच चल्लां.

फुडारी : कितें चल्लां म्हयनोभर ?

व्यापारी : चळवळ. वचत थंय बंद, मोर्चे, असलीच चळवळ.

फुडारी : कसली चळवळ ?

मवाली : तुमकां खबर ना सरकार ? आवयच्यान ?

फुडारी : म्हाका कशे खबर आसतलें ? तुमी म्हाका सांगलेशिवाय म्हाक कळटलें ? कितें कितें केलां तुमी चळवळीक ?

मवाली : चळवळीक जें घडूंक जाय तितलेंय आमी घडयलां. तोडफोड चालूच आसा. एकटयाची तकली फोडली, एकटयाचें दुकान

आनी एकट्याचे घराक उजो लायलो. एकूण तीग जाणांचे लुकसाण केलें.

फुडारी : (चिडून) आरे, इतले प्रजेमदीं फकत तीगांचेच लुकसाण केलें म्हणून कितें प्रजा खवळटा. सबंद राज्यांत धुमाकूळ घालूंक जाय. नासधूस करपाक जाय. तरच लोकांमदी उजो पेट्टलो आनी तो पालोवपाचें सवंग करपाचो चान्स आमकां मेळटलो.

मवाली : सरकार, आतां सबंद राज्याची नासधूस करून आमच्या जीवाक त्रास करून घेवपाची गरज ना. आमचो संपादक तीनाचे तीनशीं करून लोकांमदी व्यवस्थित फोडणी घालता.

फुडारी : अशें ? हँ ऽ हँ ऽ हँ ऽ ऽ (पुलीसाक) आनी तुमी कितें केलें ?

पुलीस : आमकां कांयच करचें पडना सरकार, आमी वगी बसोन रावतात. पुण आमचो संपादक 'चोख बंदोबस्त होता' अशें म्हणून आमची आनी तुमचीय तूस्त करता.

फुडारी : व्यापारी वर्ग म्हळ्यार राज्याचो खांबो. तुमी कितें हातवोट लायलां कांय ना ?

व्यापारी : ना कशें सरकार. तोडफोड जाली की आमी आमचे दुकानांतलो फोडपाखातीर बसयिल्लो हारसो आमीच फोडतात. एक - दोन कुण्याचे साकय पेटयतात. तितल्यानच "व्यापाऱ्यांचे लाखो रुपयांचे नुकसान ?" म्हणून आमचो संपादक मोट्ट्या अक्षरांत छापता. (मायल्यान स्पश्ट - अस्पश्ट अश्यो 'मूर्दाबाद' 'झिंदाबाद' घोशणा आयकूंक येतात. सगळे तेवटेन पळेतात.)

व्यापारा : सरकार लोकांचो व्हडलो हूंवार येता. लोक सामके उज्यान पेटून भाजताशे दिसता.

मवाली : सरकार ते हेवटेनच येता.

फुडारी : हेवटेन येतात ? तशें जाल्यार तुमी भितर वचून लिपात.

व्यापारी : सरकार, तूंच आमची आवय, तुमीच आमचे बापूय तुमकां एकटे सोडून आमी कशे वचूं ?

फुडारी : चला. म्हजी चिंता करूं नाका. तुमकां हांगा पळोवन म्हजी अन्न वतलीं. (घोशणा मोटयान) चलात. भितर वचून लिपात. (पुलीसय तांचेबरबर थरथरत वता) आरे, तूं खंय वता. तूं राव भायल्या दारार.

पुलीस : सरकार, भिरांत दिसता. हांवय लिपतां.

फुडारी : कांय भियेंव नाका. हांव सगळे व्यवस्थित करतां. चल. भायर राव. (पुलीस भायर वता. घोशणा मोटयान आयकूंक येतात. पुलीसाचो

आवाज – ' रावात. एकएकटे वचात थोडेच वचात. ' का
येतात.)

फुडारी : येयात, म्हज्या मोगाळ भावांनो येयात. कितें जालां ?

पयलो : सरकार, राज्यांतले चळवळीक हींसक म्हणटात तशें वळण ल

फुडारी : जंय जंय वळणा लागतात थंय थंय आमी ' वळण आसा ' अशें
रोखडेच बोर्ड लायतले.

दुसरो : आमी चळवळीचे वळण म्हणटात. रस्त्याचें न्ही.

फुडारी : खंयचीय वळणा जांव. अंदुच्या बजेटांत आमी सगळीं वळण
करतले.

तिसरो : सरकार, पूण अशा वळणांक लागून कालचे दंगलीत तीनशीं
जळून गोबोर जालीं. जाल्यार तीन हजार लोकांच्यो तकल्यो,
पांय मोडले.

फुडारी : ज्यांची दुकाना नश्ट जालीं, ताणी थंयच नवीं दुकानां उबारचीं.

तिसरो : पुण आतां तांका तें शक्य ना सरकार.

फुडारी : तांका शक्य ना जाल्यार लोकांचे सोयीखातीर आमी शेज
राज्यांतल्या लोकांक दुकानां घालूंक लायतले. पुण लोकांची वे
करतले.

चवथो : आनी ज्यांच्यो तकल्यो फुटल्यात तांचे कितें ?

फुडारी : कितल्यो तकल्यो फुटल्यात ?

चवथो : कांय न्ही म्हळ्यार एका एका मनशाच्यो चार - चार, पांच -
तकल्यो फुटल्यात.

फुडारी : म्हज्या राज्यांत एका मनशाक चार - चार पांच - पांच त
आसात !

चवथो : फट जाल्यार आयचो पेपर पळय. आमी फट सांगीना. (खाक्य
पेपर काडून दिता. फुडारी वाचता.)

पयलो : ह्या गरीबाचो गाडो लुटून व्हेलो सरकार.

फुडारी : कोण लुटू ? धरून हाडात ताका हांगा. लुटूक फावो ती
जातली अशें हांव तुमकां जाहीर रितीन सांगता.

पयलो : लुटू म्हणून मनीस न्हय. लुटून म्हणजे चोरून व्हेलो सरकार

फुडारी : गाडो खंय आशिल्लो ?

गाडेकार : रस्त्याकुशीक सरकार.

फुडारी : तेन्ना तूं खंय आशिल्लो ?

गाडेकार : गाड्याकुशीक सरकार.

फुडारी : कितलो माल चोरलो ?

गाडेकार : पन्नास हजारांचो.

फुडारी : पन्नास हजार ! अशें आशिल्लें कितें गाडयांत ?

गाडेकार : लूटून व्हेलें तितलेंय आशिल्लें गाडयांत.

फुडारी : कितें ?

गाडेकार : (पेपर दाखयत) फट जाल्यार पेपर पळय सरकार.

फुडारी : (वाचता) सामकें खरें. तुका लुकसाणभरपाय मेळूंकच जाय. भावानो, जें घडलां - तें आयकून - म्हाका खूब खेद जाता, दुःख भोगता, काळीज तुटटा आनी अ ऽऽऽ खुब वायट दिसता. हे सगळे गजालीची न्यायालयीन चौकशी जातली अशें हांव तुमका आश्वासन दितां. तेचबरबर सगळयांक लुकसाण भरपाय, आरोग्य भरपाय आनी शारिरीक भरपाय मेळटली. ज्याणी हें नीच कृत्य केलां आनी आमकां बदनाम करपाचो यत्न केला तांका लीपून रावंक मेळचेना. ज्यांका हे दंगलीत मार बसला तांच्या आत्म्याक वेगीन शांती मेळची अशें हांव देवालागी मागता आनी तुमका सगळयांक देव बरें करूं म्हणटां.

(सगळे ताळचो मारतात.)

घोषणा : सरकाराचो विजय जांव !
फुडारी आमचो झिंदाबाद !

पंच : (सहन न जावन) बंद बंद करात. बंद करात.

सगळे : कोण बंद करा म्हणटा ? असो फुडें यो कोण तो.

फुडारी : आमच्या राज्यांत बंद, मोर्चे, मेळावे घडोवन हाडपाक बंदी आसा.

पंच : हांव म्हणटा, तुमचो तो मनशाचो खेळ बंद करात.

पुतळो : तूं तांच्यांत पडू नाका. तांका खेळूनी खेळता तशें.

पंच : कसलो खेळ हो. हे सगळे सुवार्थी, दुश्ट, व्हांवते न्हंयत, हात धुवून घेवपाचो खेळ हो. हो मनीसपणाचो खेळ न्ही. सोड, सोड म्हाका.
(पुतळयाच्या हातांतलो सुटटा आनी फुडाऱ्या म्हऱ्यांत वतां. सगळे परत घोशणा दितात.)

पंच : बंद करात. थांबयात हो खेळ. पुरो. इतलोच पुरो.

पयलो : सरकार, हो कोण तरी दुस्मान आसूंक जाय.

दुसरो : नाजाल्यार तुजो विरोधक तरी आसूंक जाय,

तिसरो : म्हणूनच तर हो तुज्या जयजयकाराक विरोध करता.

चवथो : हाजो बंदोबस्त जावंकच जाय.

पांचवो : निदान हाजो कडकडीत निशेध तरी करूंकच जाय.

फुडारी : कोण रे तूं ? हांगा येवन बोवाळ कसलो करता ?

पंच : तुमी सगळे म्हाका इतले बेगीन विसरले ? मनीस खंयचेकडले !
ह्या खेळाचो पंच म्हणून तुमकां खबर ना ?

पयलो : (फुडें सरून) सरकार, मामकें फट. हांव सरपंच आनी हे
म्हजे पंच. हो कोणच न्हय. पंच खंय !

दुसरो : सरकार, हो बंद करात म्हणटा जाल्यार ताकाच पयलीं बंद कर

फुडारी : पुलीसाक आपयात आनी हाका भितर उडयात.

सगळे : पुलीस ऽऽपुलीस ऽऽऽ (पुलीस येता)

तिसरो : हाका व्हरून कादयेंत बंद करात. सरकारी ऑर्डर आसा.

पुलीस : (ताच्या गोल्लाक धरून) कितें रे ? मल्ला काय कितें ?

पंच : आरे तूंय असो कितें करता. आमी जोशीच्यो बावलयो. मनशाचो
खेळटात. तूं वळखना म्हाका ? तुका याद ना ? हांव - तूं - जोश

पुलीस : (ताका धुकलीत) कोण जोशी ? पोस्तार यो. थंय कर तुज्यो के
(पुतळो उठून तांचे फाटोफाट वता. काळोख.)

## देखाव : सवो

(उजवाड जाता. तेन्ना पुतळो पंचाक घेवन येता. पंच आपले क
फाफुडटा. खर्शेता.)

पंच : तुका लागून तांचे तावडीतल्यान सुटलों हांव.

पुतळो : तुका हांवे सांगिल्लेंच कीं थंय वचूं नाका म्हणून. मनशाची
म्हळचार एक व्हडलें व्यसन. जो जो ही जीण जगता ताका
सोडीनच दिसना. तांचीय तीच अवस्था जाल्या.

पंच : पुण कितेंय कर आनी तांका आशिल्ले तश्शे कर. पुरो हो
म्हाका वीट आयला आतां.

पुतळो : इतल्यानच विटलो. ?

पंच : हो कितें खेळ. लाचारी, फटींगपणा, अन्याय, नागोवप आनी ख
नाटें सांगून आपआपली भाकरी चान्स मेळटा तशी भाजून घे
कित्याक ? कित्याखातीर ?

पुतळो : फकत पैशाखातीर, जगपाखातीर. पुण इतल्यानच खंय कितें जाल
असो यो. हो पळय, खेळ चालूच आसा.
(खंयतरी बोट दाखयता. फाटल्यान तसो तसो देखाव 'मॉब'
करता)

पंच : झोपडी ! एक - दोन - तीन - चार !

पुतळो : झोपडी न्हय, झोपडपट्टी.

पंच : (नाका - तोंडार हात दवरता) शी ऽऽ घाण !

पुतळो : मनशाची घाण मनशाखातीर, तांतुतले किडे वेचून खातात, भुकेल्लीं आपले पोटाखातीर.

पंच : हे घाणीतले किडे खातात ?

पुतळो : किडे मनशाक खातात, मनीस किडयांक खाता. असो यो. हांगा पळय. (दुसरे कडेन घेवन वता)

पंच : मनीस ! फकत तकली, छाती आनी पोट ! मनीससुद्धां वळवळटा ?

पुतळो : किडो कसो. म्हारोगी तो. ताजो एक एक कुडीचो भाग ते म्हाकीडयांनी खाला आनी उरलां हें फकत धड.

पंच : थंय वळवळपी किडयांक मनीस खाता. हांगा वळवळपी मनशाक किडो खाता. आवयस् !

पुतळो : हेवटेन यो. हांगा नदर मार.

पंच : भुरग्यांचो बापूय भुरग्यांच्यो गोमटयो कापता कोंबडयोच्यो कश्यो. ते काडिल्ले भुरग्यांचे दोळे पळय कशे भायर लोंबकळटात.

पुतळो : आनी कापतल्याचे पळय. सगळे दोळे शेवटी मनशाचेच.

पंच : तो कित्याक कापता ?

पुतळो : आपणाक जगपाखातीर. ह्यो गोमटयो खंयतरी मनीसच विकत्यो घेता. आता थंय पळय. कोणतरी नवे व्हंकलेक उजो लायता. हुंडयाखातीर. तेवटेन पळय. चारय भुरग्यांक घेवन बांयत उडी मारता तांची आवय सुटकेखातीर.

पंच : इतलेंय जावन हें कोणच थांबयना ? कोणाकच थांबयन दिसना ? कोणाचेंच पोटांत संतापान उजो पेटना. कोणाकच हें सोपोवचेंशे दिसना ?

पुतळो : दिसता. पूण वाट चुकता.

(काळोख)

## देखाव : सातवो

(पुतळो, पंच परत जाग्यार. सगळे आपआपले पोझीन उबे)

तरनाटो : तरणे तरणे रगताचो मदनाचो पुतळो हांव न्याय जांव अन्याय जांव

सगळयांत पयलीं म्हजीं धांव.

म्हजेर अन्याय ! एका शिकिल्या ग्रॅज्यूएट तरनाटयाचेर अ

एक सादो भिकाड्डो मानाय आनी शापोतां केदी व्हडलीं !

साक उबारप आनी बेल्यान ह्याच्या तोंडातली विडी धरप हे

तरनाटयान. आज ह्या मानायाक सोंपयता ह्या मुऱ्यान.

(मानाया म्हऱ्यांत वता आनी ताजेर मुरो उबारता)

मानाय : आरे, हे कितें ? तो ऽऽ नो ऽऽ मुरो मात्सो फाटीं घे.

तरनाटो : तूं दिसभर कामाक आंग चोरता आनी एका दिसावडयाचे

धा दीस काडटा. बेठोच वेळ मारून व्हडलें काम केल्याचे

करता.

मानाय : हांवे केल्लें दिसता तुका. पूण तो व्यापारी भेसळमिसळ

हजारानी जोडटा तें दिसना. ताणे अशें नागोवन फटोवन

फुगयल्यार जाता आनी आमी मात दिसभर मरप. त्या व्याप

पयलीं मार मागीर म्हाका विचार.

तरनाटो : तुजेंय फट न्हय. हो धर मुरो. (दोगय व्यापाऱ्या म्हऱ्यांत वता

व्यापारी : येयात, येयात. सवाय – सवाय

तरनाटो : आरे तूं तर फटींगाचो पाय. (मुरो उबारता)

मानाय : (सूरो उबारून) आनां किदयाक भिलो ? अशी भेसळ करून

जाणांचो जीव घेतलो ?

व्यापारी : म्हजो धंदो कसोय जांव पुण थोडेतरी कश्ट आसा. भांडवल

पुण ते गुंडाचे तशें ना. तो गुंडगिरी करून फुकट जोडटा. पुण

कोण कितें करता ?

तरनाटो : हें तरी फट कशें जांव येता ? (सगळे मवाल्या म्हऱ्यांत येतात

मवाली : मारात. पुण मारचे पयलीं आयकात. वयेन शेत खाल्यार

शेतान भात खाल्यार जातां. पुण आमचेसारखेल्या हेवटेन

उडटल्या कावळयानी दोन दाणे खाल्यार तांका तुमी हर्त क

बाबानो गुंडगिरी आमी करीना. हे तुमचे राखणदार आम

करूंक लायता.

(सगळे पुलीसा म्हऱ्यांन वतात)

पुलीस : (भिवन) रा ऽ रा ऽऽ रावात बाबानो. आमचें कितें घेवन बस

सरकारी येंप्रेगादानी घेतल्यो गाडयो, बांदलें बंगले. हें कितें

पगाराभितरच जालें ? पुण ना. अशें रस्त्यार रावन घेवपी

पुण ऑफीसाचे चार वण्टीमदों घेवपी लिपले.

मवाली : म्हणजे सरकारी येंप्रेगादच लायतात वाट.

तरनाटो : पयलीं तांचीच फोडूंक जाय फाट.
(सगळे येंप्रेगादा म्हऱ्यांत वतात. सगळे त.जेर सुरो उबारतात.)

येंप्रेगाद : कोण ?

मानाय : खणूंक आयल्यात तुजो मरणाचो फोण.

येंप्रेगाद : पायां पडटा तुमकां. म्हाका मारूं नाका. हांव काम करीना आनी लांच घेता ही आमच्या फुडाऱ्याची क्रुपा. ताच्याच आशिर्वादांतल्यान हें सगळें घडटा.

तरनाटो : आतां पावल फाटीं घेवन उपेग ना. ह्या भ्रश्टाचाराचीं पाळांमुळां खणून काडूंकच जाय.

सगळे : सरात फुडें. (सगळे फुडाऱ्या म्हऱ्यांत येतात.)

येंप्रेगाद : होच तो फुडारी.

फुडारी : आयज किदया आयल्या जनता लोटून म्हजे दारी ?

तरनाटो : तुजी वाजोवंक भातेरी.

मवाली : तुका मारून आमी सोपयतले भ्रश्टाचारी.

फुडारी : तुमीच म्हाका हे आसनाचेर बसयलो आनी आज तुमीच सकयल उडयतले ?

व्यापारी : जें घडटा ते सगळें तुकाच लागून, फुकट आमी किदया भोगतले ?

फुडारी : हांव ह्या राज्याचो फुडारी. बरें घडूं वायट, म्हजीच जापसालदारी. ही गोश्ट खरी. म्हाका मारपाक हरकत ना. पुण हें आसन रिकामें दवरप बरें दिसचेना. हे राज्याचें फुडारपण कोणेतरी चलोंवक जाय.

सगळे : हांव चलयतां – हांव चलयतां ...

फुडारी : अशे सगळेच फुडारी कशे जातले ? तुमच्यांत कितलेशेच जातीचे आसात, कातीचे आसात. अशे वेगवेगळे जातीचे, भासांचे लोकांक सांबाळपाक शक्तीवान ताकदवान ह्या आसनार बसूंक जाय.

सगळे : हांव शक्तीवान–हांव ताकदवान ... ! (फुडें सरतात)

फुडारी : अशे हांव, हांव म्हणले म्हणून जाता ? त्यापरस तुमी सगळे झगडात. जो शक्तीवान तो जिकतलो. तो मागीर म्हाका मारतलो, आनी ह्या आसनार बसतलो.

सगळे : हय वय. (एकमेकांक मारतात. पंच धांवून येता)

पंच : आरे, आरे थांबयात. एकमेकां मारूं नाकात. तुमी मनीस न्हय. तुमी आमी खामसुत्री बावल्यो. हो मनशाचो खेळ आतां थांबयात. रावात.

पुतळो : तूं वगी राव. खरो मनशांचो खेळ तो होच. एकमेकांचे जीवार उठप, एकमेकाचे रगत काडप होच खरो मनशाचो खेळ. ह्या खेळांत खरी मजा येता. तुकाय मजा येतली. चल तूंय खेळ.

(पंचय तांच्यान पडटा. सगळे एकमेकांक मारनात. झगडटात.)

पुतळो : झगडात, तकल्यो फोडात. आतकडचो मायर काडात. रगताचे व्हांवयात. आनी मरात. मागीर तुमी सगळे हुतात्मे जातले. बाकीचे जीते आशिल्ले तुमचो दर एकल्याचो एक एक पु उबारतलो कसो जाणात ? असो.

(पुतळो आपले पयलींचे पॉझींत उबो जाता. सगळे सकयल प बावले - बावल्यो ऊठून नाचूंक लागतात. नाचतां ना म्हणटात – )

आमी खामसुत्री, आमी खामसुत्री
मनशाचो खेळ आमी खेळटलीं, आमी खामसुत्री.

(नाचता नाचता पड्डो पडटा)

## एकांकीतलीं पात्रां

किर्तनकार
जाणटो
तरनाटो
गुरव
भार
मुखेली
काकाभट
भटालो चलो

पां/स गांवचे लोक

---

हीं झुजां सैमाचीं

- ३ -

# हीं झुजां सैमाचीं

(किर्तनकाराच्या मेसांत माचयेर मदीं रावन किर्तनकार किर्तन सांगता. ताच्या फुडें एकेवटेन एक तरनाटो आनी दुसरेवटेन एक जाणटो मनीस किर्तन आयकुपाक बसल्यात. पड्डो उगडटा तेन्ना भजन चालू आसता.)

किर्तनकार : राम – राम – राम – राम, सिताराम – सिताराम ... पुंडलीक वरदे हरी विठ्ठल – श्री नामदेव तुकाराम – श्री अंबा माता की जय.

आज किर्तनाचो निमाणो दीस. भौतेक लोक कथा आयकुपाक येतात. तांका पूर्वरंग आवडना हें हांव जाणा. देखून आनीक थोडेंच सांगून हांव पूर्वरंग सोंपयतां. पुंडलीक वरदे हऽऽरी विठ्ठल.

तर आज आमचेमुखार एक मोटो प्रस्न आसा, तो म्हळ्यार सैमाची रचना कोणे केली ? कोण तो कारागीर जाणे हांगा थंड सावळी दिवपी झाडां लायलीं ? फळांनी भरिल्ले दोंगर आनी फुलांनी भरिल्लीं रानां लावन हांगा अशी सुंदरकाय ओतपी असो कोण तो कलाकार ? आनी ताणे हांगा जिवितूय निर्माण

केलें कितल्लेशाच तरांचे किडे, मवणीं आनी जनावरां ताणे
केलीं, हे जिणेंत म्हच हाडली ती मनशाच्या गिन्यानान.

मनीस जल्माक आयलो. तो व्हड जावंक लागलो.
जालो, तेन्ना आंगात मस्ती आयली. आपले तेंच खरें,
जीव लायली ताळयाक, जाणट्यांनी शिटकायलें तरी
आनी अशें करतां करतां जेन्ना तरनाटो जाणटो जा
जें केल्लें, ताचें पानवळ भोगूंक लागता. मात विचार करि
रोयिल्लें झाड खूब तेपान विखाचीं फळां दिवन आपली
करून दिता तेन्ना तो पस्तावता. पूण उपेग कितें? ते
जाल्लो आसता. ती मस्ती, तें जुवानपण शेणिल्लें आसत
उरता ... उरता तें फकत वाडिल्ले कुडींत एक दुबळें म्हा
(काळोख. फुडें बशिल्ल्या जाणट्यांचेर आनी तरनाट
उजवाड.)

जाणटो : आयकलें ... आयकलें सारकें कान फोडून ?

तरनाटो : कान फोडल्यार आयकूंक गा कशें येतलें जाणटेल्या ?

जाणटो : हूं ! जाणटेलो – कोण जाणटेलो ? आरे, पिरायेन चड
हांव. पूण म्हजी अक्कल जाणटी जावंक ना. बुद्द करपून
ना. ती मरमेरेन तशीच उरतली तूं अजूनय तुजे जुवान
गुर्मेंत आसा. म्हजें सांगिल्लें आयकूंक तुका लज दिसता.
भोगतलें, जिवा आकांतान तळमळटलो तेन्ना ... !

तरनाटो : पुरो - पुरो. तुजें तत्वगिन्यान आयकुपाची म्हाका गरज ना.

जाणटो : तुका तें आयकुंचेंच पडटलें. म्हजें कर्तव्य म्हाका करूंकच
पिळगेन पिळगी जें चलत आयलां तें बंद वडोवन म
पातकाचो धनी जावपाचें ना.

तरनाटो : पूण पिळगेन पिळगी तरनाट्यानीं जांणटेल्यांचें आयकुपा
चलत आयलां, तेंच आज म्हाका बंद करूंक जाय.
तरनाट्यांचे वतीन तुका जाणटेल्यांचें प्रतीक अशें स
(बशिल्लो दिमी मोडटा) ह्या हांगा जमिल्ल्या लोकां
सांगता 'हांव तुजें आयकुंचों ना म्हणजे ना.'

जाणटो : म्हणजे हीं कितंना - तीं पुराणां - तीं तत्वगिन्यानां जे
सांगतात तें तुका फट म्हणचें आसा ? तुज्या बऱ्याख
वावुरपी हीं तूं हाडां मोडून वडोवंक सोदता ? तुका जाणटेप
बरीं फळां मेळचीं, तुजो फुडार बरो जावंचो म्हणून तुजेखा
सांबाळून दवरिल्लीं म्हजीं भांगरा मोलाचीं उतरां तुका प

भायर वडोवचीं आसात ? जाल्यार आयक. जो मेरेन हें धरतरेवयलें जाणटें जिवीत आसतलें तो मेरेन जुवानपणाक हांगां कसलोच अधिकार गाजोवंक मेळचो ना.

तरनाटो : आरे, वा रे हाडकुळचा ! असलीं आव्हानां दिवचेपयलीं आंगातली शक्त तरी अजमाय मगा ! बेठोच उसळून म्हजें काम आनीक वाडोंव नाका.

जाणटो : तुज्या रक्तांत शक्त आसत. पूण म्हज्या रक्तांत अणभव आसा आनी अणभवामुखार शक्त म्हळ्यार वागामुखार शिंगांच्या नेटार पायांच्या गेतांनी जमीन खरवडपी बोकड.

तरनाटो : (स्वगत) आतां हाजें चड जालें. हे धर्तरेवेलें हें जाणटेपण मुळासकट हुमटावन वडयत जाल्यार म्हजे वाटेर आनी आड येवपी कोणूच ना. हाजी हांगाच चेटणी करतां. (उकतेपणी) चड जालें तुजें. इतलो वेळ हांवें खूब सोंसलें. आतां म्हाका एक खीणभर लेगीत तुजेवांगडा वाद घालपाची उमेद ना.

(मारूंक ताज्या आंगार वता. काळोख. परत पयलींभशेन किर्तनाचो देखाव)

किर्तनकार : आतां सगळे एका चित्तान भजन करात.

श्री राम जयराम जय जय राम (लय अिल्ली अिल्ली वाडटकच थांबयता.)

तर जाणटे आनी तरनाटे हांचे मदीं हें अनंत काळापासूनचे झूज चालूच आसा. दोगांकूय एकमेकाकडेन पटना. दोगांकूय दिसता आपल्याचेर अन्याय जाता. तरनाटो म्हणटा आपणालें खरें. पूण तो जेन्ना जाणटो जाता तेन्ना तोय तरनाटयांक दोश दिता. अशें हें चक्र चालूच आसा. देखून तांचे मदीं कोणाचें खरें आनी कोणाचें फट हें पारखूवप म्हळ्यार पिशेपणांच. कारण हें सगलें घडप म्हणजे सैमाचेंच कारस्थान.

अशीच एका काळार घडिल्ली गजाल सांगता. मुखासमाधानान नंदपी एका गावांत कोणा एका तरनाटयाचे तकलेंत आयलें, न्हय त्या वेळार आमकां उपदेस करपी, अैनवेळार आडमेळे हाडपी ह्या जाणटेल्यांक नाच करून वडोवप. म्हणजे जाणटे आनी तरनाटे हांचे मदलें झूंज आपमुक सोंपतलें. जाणटो. मागीर तो कोणूय जांव इश्ट जांव दुस्मान, जांव शेजारी जांव परकी, पयसुलो जांव लागशिल्लो बापूय जांव आवय सगळयांक सासणाचे सोंपोवपाचें. केदो व्हड विचार त्या तरनाटयाचो ! ताणे आनी वेळ केलो ना.

गांवच्या पेडार चडलो. दोन वोटां जिवेर दवरलीं आनी पयू
करून शिळोणी घाली. भूर्र करून गांवचे तरनाटे जमले.
आंगातल्या जुवानपणाक नेट आयलो आनी ताणे आप
येवजण तांचेमुखार मांडल्ली. वा ! वा ! सगळचांकच
सगळेच खोशी जाले आनी ताणी थारायलें जो जो ज
जाला, ताका गुपचूप फारान मारचो. जालें. तशें सगळेच ख
नाचूंक लागले. नाचतां नाचतां कोणाचें तरी तकलेंत एक वेग
विचार आयलो. तो तट्ट करून एका पायांर उबो रावलो.
ताचेकडेन पळोंवक लागले. 'कितें जालां रे तुजें अकस्म
तुका कितें विचारचें आसा ? ' ताणे मानेनूच ' हय ' म्हळें
ताणे प्रश्न मांडलो, 'फाल्या हांव जाणटो जातगीर म्हाका म
ना मूं जाल्यार हांव तयार आसा. ' ताच्या त्या प्रश्नान
सगळेच चक्रावले. मागीर दुसऱ्यान सुचयलें. मारप
धांवडावप. प्रत्येकान आपआपल्या घरांतल्या जाणटेल्याक
धांवडावपाचें हें सगळयांक पसंत पडलें. सगळें गेले आनी म
घराघरान एकूच बोवाळ, एकूच प्रसंग, जाणटेल्यांक भ
काडपाचो.

(काळोख, माचयेच्या एका कोनशाक हो प्रसंग. तो तर
आनी जाणटेलो घरांत बसला. भुरगो फुडें उबो आसा.)

तरनाटो : पयलीं सर भायर.

जाणटो : अशें कितें आज अकस्मात ?

तरनाटो : तें मागीर सांगता. पयलीं भायर सर.

जाणटो : खंय वचूं ?

तरनाटो : म्हाका खबर ना.

जाणटो : पुण कित्याक ? हांवे कितें केलां ?

तरनाटो : तें म्हाका खबर ना. आमचे बसकेंत तशें थारलां. जाणटेल
धांवडावपाचें.

जाणटो : म्हजी चूक तरी कितें ?

तरनाटो : म्हाका वेळ ना. तूं वता कांय ना ? कांय तुका हाताक ध
भायर काडपाचो ?

जाणटो : (थोडोवेळ ताचेकडेन पळेत रावता. दुखेस्त आवाजान) प
पडटा पुता. म्हजे आनी चड दीस उरूंक ना रे. म्हाका
कांयच नाका. तुजो पैसो नाका, अन्न नाका, तुका लज दिस
जाल्यार हांव भितर काळखाकुडींत बसतां. पूण म्हाका घराभा

काडूं नाका.

तरनाटो : तुजीं नाटकां नाकात. तूं वता कांय ना ?

जाणटो : फकत निमणो श्वास तरी ह्या घरांत घेतां. फकत थोडच्या दिसांखातीर.

तरनाटो : पूण म्हाका बेठीच आडखळ जाता ताचें कितें ?

जाणटो : कसली आडखळ ? आरे ही आडखळ जाता ती बऱ्याची. ही आडखळ त्या वेळार जाली ना जाल्यार तुजें पावल चुकतलें. तूं शेणटलो. आतां तुका हांव आडखळ कशी दिसता. पूण ही आडखळ पयस करशी जाल्यार मागीर पस्तावतलो तूं पुता, पस्तावतलो. कांय आडखळी अश्यो मुद्दाम वाटेर दवरिल्ल्यो आसतात. त्यो पेंस करपाच्यो नासतात.

तरनाटो : (स्वगत) हाका बरेपणान भायर सर म्हणून सांगल्यार लेगीत हो परत उपदेस दिवपाक लागलो. बाकी जळ्ळो तरी पीळ वचना हेंच खरें. हाका आतां हातांक धरून भायर काडलोना जाल्यार फाल्यां हेर सगले म्हाका हांसतले, भिजूड म्हणटले.
(ताच्या हाताक धरून ताका भरभरीत घराभायर हाडटा. आनी धुकलून दिता.)
(उक्तेपणी) वच, वच पयलीं आनी भर खंयूय वचून !
(जाणटो दुखेस्त मनान घराक पांयापडटा आनी चलूंक लागता.)
(काळोख. काळखांत 'पयलीं भायर सर' 'नाका रे पुता' अशे आवाज वाडत बतात. उजवाड जाता तेन्ना पयलींभशेन किर्तन सुरू.)

किर्तनकार : आनी अशेतरेन दर एका घरांतलीं जाणटीं मनशां चलूंक लागलीं. तीं खंय वतालीं तांकाच खबर नासलें. तांकां गांवचे शिमेभायर सोडून तरनाटे घरा येताले इतले म्हणसर आनीक कोण तरी जाणटेपण पांगुरतालों. मागीर ताका भायर काडप. अशें चलत रावलें. दीस गेले, राती गेल्यो. म्हयने गेले. वर्सां गेलीं आनी अशें करतां करतां गांव रितो जालो. गावांत जाणटे उरले ना पूण गावांक जाणटेपण आयलें.

तर आयकुप्यानो जाणटेले वेतगीर तरनाटचा भुरग्यांचे कितें जालें. तें आनी सांगूक जाय ? फाल्यां जर झाडापोंदचे मातयेन थारायलें आमी कित्याक ह्या झाडांचो पेज घेवप ? तांकां पडोवया सकयल जाल्यार ज्या झाडांक लागून मुळांतले मातयेक सावळी मेळटाली ती नाच जातली आनी माती करपतली. पावस

येतलो आनी आदार नाशिल्ल्यान माती मेळत थंय व्हां
(किर्तनकारावयलो उजवाड कमी, तरनाट्याचे
जाणटेल्याचेर चड उजवाड.)

जाणटो : आतां तरी पटलें तुका जाणटे म्हळ्यार कितें तें ? दोळे उगड पापया म्हाका मारूंक फुडें सरिल्लो न्ह मार आतां. मार मरे !

तरनाटो : तुका कितें दिसलें ? हें पुराणातलें वायंग्या भर्त रुची हांव कितें सामको भोटो ? आरे म्हाताऱ्या. पुस्तकां आनी प्रत्यक्षांत करपाचें हातूंत खूब फरक आसता.

जाणटो : तुका केन्नाच पटपाचें ना कारण तुका लज दिस म्हणपाक. वगीच उडयो मारून फुलून वचप, तुमचेच मि तुमची तुस्त करप म्हळ्यार सर्ग जीखिल्याचो आ तुमकां. आपलें काम सादोवन घेवपाखातीर कोणाचे पोशेवप म्हळयार तुमचें समाजकार्य. खोरजता एकीक खरपवप दुसरेकडेन ही तुमची गत !

तरनाटो : तुमी तरी हाजेपरस चड बरें कितें केलां ? तरनाटे कामा ताचेर टिका करप. तांच्या विचारांचेर विचारांचीं आडमेळीं हाडप. तांचे कसलेंय काम तें खंयच्यान पाड घालचें अशी तुमची बुद्द. एकदीस त आमी केल्ल्या कार्याची तोखणाय केल्या ? तुमी आड आयलेना असो दीस उदेला ? एकदीस तरी तुमी समजून घेतल्यात ? ना. कारण आमचें जुवानपण दोळ्यांत भरता. जें आमच्यालागीं आसा तें तुमचेकडेन न खिणाखिणाक तुमी आमचो दुस्वास करतात. आसा आ जाणटेल्या ?

जाणटो : कित्याक बेठोच जळटा ? कित्याक ओगीच म्हाका ज म्हाताऱ्या म्हणून हिणसायता ? आमची आडखळ जाता तुमी उपाय केल्लो. जाणटेल्यांक भायर काडपाचो. फुरफुरलो–सगळे फुरफुरले. निमाणे कितें जाले ? आ तुवें ? अशें एकदम फुरफुरप आनी न्हय तेंच करून बसप वेळार जर ...

तरनाटो : पुरो, पुरो. त्या किर्तनातली गजाल घेवन बसला तो !

जाणटो : त्या वेळार कोणाचेय मत घेतिल्लें, कोणाचीय अणभवाची आयकल्लीं जाल्यार तसो वेळ येवचो नाशिल्लो. पूण

सळसळटा न्हय ? चितपाक वेळ आसा खंय ? आपुणय केन्ना तरी जाणटो जातलो, मागीर आपल्याकय तोच ख्यास्त आपलो पूत दितलो हें लेगीत चितलेंना.

तरनाटो : आरे ती किर्तनातली कथा. आमी तशें केन्नाच करूं ना.

जाणटो : ही तुमची सदचीच रड. 'आमी तशें करूंकच ना.' सगळे गावांतले जाणटे बायलो–दादले गेले आनी तरनाटे उरले. करपत व्हांवत. झाडाक वडयतगीर मुळांतले मातयेची जशी दशा जाली तशीच. आतां कित्या वगी पडला ? आसा तुजी जीब सैल ? आसा जाप ?

तरनाटो : म्हणजे आमीच चुकतात तर; अशेंच तूं म्हणूंक सोदता न्ही ? बरें आसा. वेळ येतगीर कळतलें, कोण चुकता आनी कोण चुकना तें.

जाणटो : तुमीच चुकतात. तुमीच. आनीक कसलो वेळ आनी काळ घेवन बसला ? तरनाटे आनी जाणटेल्यां मदीं झगडे जावपाचें खरें कारण म्हळयार तुमीच. उखलली जीब लायली ताळयाक करून तुमी तुमचेबराबर आमकांय सोंपयतात.

(तरनाटयाक सोंसूक जायना. तो जाणटेल्याच्या आंगार वचपाक काळोख. परतून उजवाड जाता तेन्ना किर्तन चालू.)

किर्तनकार : पुंडलीक वरदे हरी विठ्ठल ।।
नामदेव तुका ऽऽ राम ।।
(पद म्हणटा)

देवा, देवा तूं रे सांग
कोण व्हड, कोण ल्हान
जाणटे, नेणटे सगळेच मनीस
झुजां-झगडीं रात आनी दीस
कोण फट, कोण खरो
कोण वायट, कोण बरो
बुद्ध दी रे तूंच देवा
सुशेग दी रे आमच्या जिवा
देवा, देवा तूं रे सांग
कोण व्हड, कोण ल्हान !
पुंडलीक वरदे हऽऽ री विठ्ठल.

आंधळे गांवांत एक दीस एक विचित्र गजाल घडिल्ली. गावांत म्हादेवाचें एक देऊळ आशिल्लें. एक दीस सकाळफुडें गांवचो

मट म्हावन धूवन देवळांत वचपाक भायर सरलो.
मंडपांत आयलो. आनी ताणे विचित्र गजाल देख
हळडुवोच फणो फुलयिल्लो सोरोप नंदी म्हन्यांत उत्रो अ
मट फाटीं मरलो. खिणभितर सगळ्या गावांत गजाल
म्हादेवाच्या गळ्यांतलो सोरोप दुखावला. तो दुखरप
गावांत किते तरी घडल्यां कोणे कसलें तरी व्हड पात
वचत थंय हीच चर्चा. दरएकलो दुसऱ्याकडेन दुखावान
लागलो. एक दीस गेलो, दोन दीस गेले. सोरोप तसोच आ
लोकांची पळोवपाक ही गर्दी. कोण धूप पेटयताले. कोण उ
थोडे भायल्यानूच प्रदक्षिणा घालताले. पूण तो हाल
फकत वाऱ्याच्या थंड ल्हारार धोलतालो. हातूंतल्यान वाट
काडपाक गांव देवपणाक लागलो. गांवचे धा जाण देवपण
फुडें सरले.

(काळोख. उजवाड जाता तेन्ना एका कोनशाक अवसर का
देखाव. लोक जमल्यात. गुरव गाराणे घालता. दर उतरा
बाकीचे 'हय सायबा' म्हणटात.)

गुरव : देवा तूं समर्था म्हाराजा – तूंच आमकां जल्माक घालपी –
आमकां वाडोवपी - तूंच आमकां सांबाळपी - गांवांत कस
आनी केद्याय व्हड परसंगाक आनी कसल्याय संकश्टाच्या उ
देवा तूं पावपी – पाशाणाक लेगीत जीवनकळा हाडपाची तु
शक्तगा – आज आमी तुजीं बाळकां हांगा जमिल्लीं आस
गावांत कसले संकश्ट आयलां तें तूं जाणा गा – कितले दीस
देवळाकडलो सोरोप हालना – कितें चूक जाल्या कितें प
घडलां आमकां कांय समजना – तेन्ना, देवा म्हाराजा, कितें
घातपात जालां तें तुवें दाखोवन दिवंचें – एका चित्तान,
मत्तान, कसलोच कंद दवरनास्तना तुज्या पायांकडेन देवा मा
आमी, अवसर येवन आमकां बाळकांक दोन उतरां सांगचीग
वारें सूत्र, भूतबाधा, देवचार – खेत्री, नड – झड कस
आडमेळी येता ताका घाल फाटीं आनी सर फुडें – दी आम
उतर – दाखय आमकां धा जाणांक वाट.

(भार येता आनी 'भश्टकार' 'भश्टाकार' म्हणटा.)

एकलो : कसलो भश्टकार सारकें सांग.

भार : सोडून काडात. सोडून काडात. प्रसादपाकळेचेर जोखून पळय
म्हाका आयत्र शक्त ना रे बाळकांनो. म्हाका उतर ना.

पयलीं काडून वडयात.

(काळोख. परत याच जाग्यार उजवाड. गावांत चर्चा करपाक बसल्यात असो देखाव.)

एकटो : हांव जाणाच आशिल्लों.

दुसरो : आनी आमकां कितें खबर नाशिल्लें काय कितें ?

तीसरो : शी ऽऽ शी, आनी आनी कितें उल्लां ?

चवथो : प्रसादाचेरय तेंच सांगला जाणा मरे.

पांचवो : आनी घाडयान सारखे आंशे काडल्यात.

सवो : कोणा म्हणपाचे न्हूं. पयर आनी साक्षात म्हादेवाचो अवतार म्हज्या सपनातय तेंच सांगून गेलो.

पयलो : आतां कितें ?

दुसरो : गावान थारायलां तेंच.

तीसरो : म्हळयार कितें करप ?

दुसरो : गांव शुद्ध करप. लक्ष यज्ञ करप. मनीसबळी दिवप.

सगळे : मनीसबळी ! !

चवथो : कोणाचो दिवप ? कोण तयार जातलो आपलो जीव व्होगडात्रंक ?

दुसरो : तेंच तर आज थारपाचें आसा. चड दीस व्होगडावन उपेग ना. आख्खो गांव तळपोन वयतलो.

चवथो : बराबर. देवान प्रसादाचेरय हेच सांगलां.

सवो : म्हाका पडलां तें मनीसबळीचेंच.

पांचवो : तांतूत कितें ? कोणय एक जाणटेलो सामको मरणाक तेकला ताजोच ... ...

पयलो : पूण परत प्रश्न येतलो. तुगेलो जाणटेलो बापूय आसा, म्हजोय आसा.

पांचवो : हय रे बाबा, झक मारूं तें ! आमकां कित्याक पडलां ? गांव पळेतोलो.

दुसरो : अशें केल्यार ? नरसूक मारल्यार ? नाजाल्यार तो आसून-नासून सारकोच.

पयलो : हयवय ! हें उपकारता. तो पिसोय बी. खंय तरी कोनशाक पडिल्लो आसता.

तिसरो : पूण तूं जाणा ? देवाक कोंबो मारतात तो बरो साद घालपी धश्टपुश्ट आसूंक जाय. ताका कसलेंच किरमणे आसूंक फावना. (सगळे वग्गी. कांय वेळान)

चवथो : पुण काकामटालो चलो अशें करीत, अशें कोणाकूच दिसूं नाशिल्लें.

पांचवो : शी ! एके किरीस्तावांचे चेडवा वांगडा भोंवप आनी दे
देवळांत वचप म्हळयार भश्टकार रे बाबा भश्टकार !

सवो : काकाभट कितलो देवमनीस ! ताणे ताका खूब पयलीं समजाय
पूण जाणट्ल्यांचें आयकुवप म्हळ्यार हांकां लज दिमत
सांगतात तें वायट. जाणट्यांक आज मात मान म्हणून उ
ना. खायात आतां ! भोगात कर्माचीं फळां !

(काळोख - काळखांत 'किरीस्तावां चेडवा वांगडा काकाभ
चलो, हाका लागून म्हादेवा देवळां भश्टकार जालां' अशें म
वाडत वता. उजवाड जाता तेन्ना पयलीं भशेन किर्तन चालू.

किर्तनकार : तर एका पुजाऱ्याचो भुरगो किरीस्तावांचे चलयेवांगडा भोवत
देवळांत वतालो आनी हाकाव लागून भश्टकार जाल्लो तेवख
तो सोगेप भायर येवन राविल्लो.

'लक्षयज्ञ.' एकूच उपाय गांवचे शुद्धीकरणाचो, यज्ञ
तयारी जाल्ली. शेणान सगळो गांव सारयिल्लो. कितले
भटां – विद्वानांचे मंत्र घोश चलताले होमकुंडां धगधगत
तुपाचे डबे, तांदळाच्यो राशी होमकुंडात जळटाल्यो. स
न्हेसून आनी आंगाक भस्म फासून आपलें सोवळेंपण दाखो
हेवटेन तेवटेन धांवताले. पूण अजून प्रश्न सुटूंक नाशि
'मनीस बळी.' कोणाचो दिवप ? कोणाच्या घराण्यातलो
जीव होमांत सोडप ? कोण तयार जातलो आपलो
व्होगडावंक ? फाल्यां निमाणो दीस. बळी दिवपाचो द
रातीकडेन सगळो गांव जमलो. आज थारावप तें निम
ताजेमुखार कोणाचेंच आडमेळें उपकारचें ना. वेळ आयल
जबरदस्ती लेगीत. पूण जाचो बळी दिवप थारतलें ता
दिवप. पुंडलीक वरदे हऽऽरी विठ्ठल !

(काळोख. उजवाड जाता तेन्ना गांवपणाक लोक जमल्
गांवचो मुखेली बसला. काकाभट आनी ताजो भुरगोय आस

मुखेली : फाल्यां बळी दिवपाचो. आज धा दीस जाले. कोणाक
दिवपाचो तें थारूंक ना. तेन्ना कोणाकूय कितेंय सांगपा आसल
देवाचो राग थंड करपाखातीर मनात आसा तें भिनास्तना सां
(लोकांमदीं कुजबूज. एकटो उबो रावता)

एकटो : लोकाचें म्हणणें अशें किं, काकाभटाल्या चल्यान जें वितें
तेखातीर आमी दुसऱ्याच्या घरांतलो बळी दिवचेपरस तांच
घरांतल्या ल्हान भुरग्याचो बळी दिल्यार कोणाक वायट वि

ना.

मुखेली : भुरग्याचो बळी ? अं, काकाभट तुमचें मत कितें ?

काकाभट : जें कितें म्हज्या घरांत घडलां तेखातीर हांव कसलीय ख्यास्त भोगूंक तयार आसा. सगळो गांव हुलपावन वचचे परस ... ...
(हुंदक्यांनी रडूंक लागता)

चलो : (रागान) तें जावपाचें ना. म्हज्या ल्हान भावाक बळी दिवपाक तें कितें गांवचे उश्टें खावन मातिल्ले सुणे न्हय ! जें कितें करपाचें आसा तें म्हजेंच करात.

मुखेली : पूण शास्त्रांच्या नेमाप्रमाण मनीसबळी हो निश्पाप आनी तोय पाच वर्सां सकयले पिरायेच्या भुरग्याचो. तुजेसारकेल्या मातिल्ल्या रेडयाचो न्हंय.

चलो : शास्त्रां गेली रांदनीत. म्हाका तुमचेंय पडूना आनी शास्त्रांयचें ना. एके किरीस्तावांचे चेडवावांगडा भोंवप म्हळ्यार भश्टकार जाता अशें खंयच्या शास्त्रांत आसा ते मांग पळोवया.

मुखेली : हें पळय बेठोच तडफडू नाका. आमकां कितें तुज्या भावाक मारिल्लो जाय ? जें प्रसादाचेर, घाडयान सांगलां, खासा म्हादेवान दृष्टांत दिला ते प्रमाण आमी चलतात.

चलो : हांव सांगतां तशें करात. हांव त्या सोरपाक मारून वडयतां.

सगळे : कितें !

चलो : हय. हांव ताका केन्नाच मारपाचों. पूण गांवच्या लोकांचो भावार्थ दुखवचो न्हय म्हणून हांव वगीच रावलों. तुमकां एक सांगतां, म्हादेवाचो सोरोप बी गजाली फट ! तो थंयच्यान केन्नाच वचपाचो. पूण लोकांच्या एकसारख्या बोवाळान तो भियेला आनी थंयच रावला जावयें. कसलें प्रसाद आनी कसले घाडी ? फकत आंधळ्या गावांतली कुड्डी नदर, मन मोटें करात. दोळे उगडात. भायर संवसार खंय पावला तें पळयात. कसलो बळी आनी कितें ? चलात. हांव आतांच ताका मारून वडयतां. हें लाखांनी पेटपी होम म्हळ्यार कितलीशीच गरीब लोकांची पोटां, हें मंत्राचे जयघोश करपी विद्वान-पंडीत म्हळ्यार दक्षिणेखातीर जमिल्ले कावळे आनी तुमी ह्या कुड्ड्या गावांतले दोळे आसून लेगीत कुड्डे लोक.

(लोकांमदीं बोवाळ. लोक उठटात आनी ताका मदीं घालून मारतात. तो सुद वचून थंय पडटा. काकाभट शेणिल्ले नदरेन तसोच उबो. काळोख. उजवाड जाता तेन्ना किर्तन चालू.)

कीर्तनकार : थाल्लें, काकाभटाल्या तीन वर्साच्या भुरग्याचो बळी. दुसर
उदेलो. गांव प्राकारांत जमलो. कित्याक ? यज्ञाक न्हय !
दिता तो पळोंवक. सगलेकडेन थंडाय. सबंद गांवार मोने
होमकुंडातलो उजो हातभर जिबली भायर काडून उ
सुण्यावरी बळीची वाट पळेतालो. धुपाचो घमघम. भांगर,
कडटालें. तूप - तेलां जळटालीं. आनी थंयच एका पाटा
तीन वर्सांचो भुरगो बसून सगळयांक पळेतालो. लोकांच्यो
त्या भुरग्याचेर. ताका कुकुम लायिल्लो. गळयांत वासाच्या फु
हार घाल्लो. रस्मी लुगड ताच्या आंगार. निश्पाप भुरगो म
हासो तोंडार फुलोवन गळयांतल्या फुलांलागीं खेळट
काकाभट आनी बायल दोळे पुशीत थंय आयलीं. ताका मां
घेतलो. दोळे व्हांवताले पूण काळीज घट्ट केल्लें. फकत देवाखा
गांवावेलो देवाचो राग थंड जावपाखातीर. लोकांनी के
ख्यास्त भोगूंक तीं तयार जाल्लीं. आवय भुरग्याक सोडूंक त
नासली. ती घट्ट धरून बशिल्ली. 'ॐ प्राणाय स्वाऽऽ' व्ह
जयघोश जालो आनी आवयच्या हातांतलो भुरगो ओडून का
ताका होमकुंडात सोडलो. त्याचवेळार, त्याचवेळार मंड
बोवाळ जालो. कोण तरी मंडपांतल्यान प्राकारांत होमकुंडाव
धांवत येतालो. काकाभटाचो चलो. हातांत सोरोप घेवन.
मोटमोटयान आड्डतालो. 'रावात, रावात.' सगळे तेव
पळोवंक लागले. काकाभटाच्या चल्याच्या हातांत सोरो
सगलेच भियेले. तो धांवट येवन होमकुंडाकडेन उबो गव
'रावात. हो सोरोप फकाणाचो रबराचो. हो खरो न्हय.' आ
ताणे तो रबराचो सोरोप तोडून तोडून होमकुंडात वडय
लोकांचे दोळे आतां उकते जाल्ले. पूण कळाव जाल्लो.
पुंडलीक वरदे हऽऽरी विठ्ठल !
(काळोख. जाणटेल्याचेर आनी तरनाटयाचेर उजवाड)

तरनाटो : आतां सांग, कित्याक त्या काकाभटाल्या चल्याचें त
जाणटेल्यानी आयकलेंना ? कित्या तुमचें तेंव खरें करून त
निष्पाप भुरग्याचो बळी दिलो ? सांग. नाजाल्यार नाजाल्य
तुका हांव मारतलो. सांग बेगीन नाजाल्यार हांव तुका ना
करतलों.

जाणटो : (भियेता) आरे, ती एक कथा. आख्यायिका. कीर्तनाचो अंतर
तो. ताका कितें अर्थ आसा ?

तरनाटो : आतां तुजेर येतगीर ताका अर्थ ना? कथ. सुद्धां आसली तरी तांतूत अर्थ आसा. त्या तरनाटयाचें आयकल्लें जाल्यार ती कथा फुडें वचचीच नाशिल्ली. पूण जाणटेल्यांनी आपलें तेंच केलें. आपले विचार चड व्हड थारायले. ताणे आपूण त्या सोरोपाक मारतां म्हळ्यार ताकाच मारलो तुमी. आनी वेल्यान एके कुडीचो बळी. शीऽऽ! तुमचें आयकत जाल्यार अशे कितलेशेच बळी वतले.

जाणटो : आरे वा रे वा! बळी खंय. आमकां लागून. तुमी बळी दितात तेन्ना कितें?

तरनाटो : आमी? आमी खंय कोणाचो बळी दिला? फुकट आमचेर आळ घालूं नाका.

जाणटो : संप करून. बंद घडोवन.

तरनाटो : आमी संप करतात, बंद घडोवन हाडतात ते आमच्यो मागण्यो पुऱ्यो जांवच्यो म्हणून.

जाणटो : (तेच चालीन) मागण्यो पुऱ्यो करपाक संप? अर्थ नाशिल्ल्यो मागण्यो! मास्तरान शिकना म्हणून भुरग्यांक माल्ल्यार संप आनी मागीर भुरगे परिक्षेक नापास जाल्यारय संप. न्हीं आशिल्ले गजालीक लागून संप करतात आनी लोकांच्या पैशांचो बळी दितात तें कितें? समाजाचें नुकसान करप म्हळ्यार बळी न्हय? कश्ट करून बापायन जोडिल्ली जोड तुमकां वाडोवपाक खर्चुंची आनी तुमी विचार करिनास्तना तिची उधळपट्टी करप म्हळ्यार बळी न्हय? घरच्या जाणटेल्या आवय - बापायक घराभायर काडटा आसतना तांच्या विचारांची, तुमचेविशीं आशिल्ली आस्त, तुमकां दिल्लो मोग हाचो बळी घेता आसतना तुमी केन्ना विचार केला? कसलें कथेचें पोंत घेवन म्हाका बुद्ध शिकयता रे आजकालचो पोर तूं. आनी वेल्यान मारतोलो खंय. आसा तुका तितली शक्त. आसा तितलें काळीज?

तरनाटो : आनी तुमी केन्ना विचार केला आमकां नीट वागणूक दिवपाची? उदकाक सुर्वेकच वाट दाखोंवक जाय. हुंवार येतगीर न्हीं. आतां उलोवन कोणाक दाखयता? आमी ल्हान आसतना तुमी केन्ना आमकां सारके सांबायळ्यात? आमकां समजून घेतल्यात? केन्ना शिकयल्या आमकां आमच्या धर्माची खरेली व्याख्या? बरे संस्कार जांवचे ... म्हणून केन्ना आमकां बरी देख दिल्या? जशें तुमी रोयलां तशें आज वयर मल्लां आतां आमकां दुशणा कित्याक?

सांग कित्याक?
(सगल्याक सारको उजवाड)

किर्तनकार : आरे, आरे जालां कितें ? कितें घडलां ?

तरनाटो, जाणटो : आज ह्याजो निकाल लागूंकच जाय.

किर्तनकार : कसलो निकाल ?

तरनाटो : कोण कोणाचेर जुलूम करता तो. कोणाचे खरें आनी
फट तें आजच थारपाक जाय.

जाणटो : कोणाक चड मस्ती माल्ल्या ती आजच जिरपाक जाय ना
आमचें हें झूज शेवटमेरेन सोंपचे ना.

किर्तनकार : तुमचें कितें जालां तेंच म्हाका समजना ! पयलीं म्हाक
सांग, तुजें नाव कितें ?

तरनाटो : तरनाटो.

किर्तनकार : आनी तुजें ?

जाणटो : जाणटेलो.

किर्तनकार : वा – वा ! म्हणजे तरनाटो आनी जाणटो हांचेमदीं झग
कित्याक ?

जाणटो : कारण म्हजी अणभवाची उतरां आयकुपाक तो तयार ना.
पायां पडपाक ताका लज दिसता. म्हाका मान म्हणटा ते
दिवंक ना. हांव कितें सांगता तें ह्याज्या बऱ्याकच मूं ?
पिळगी म्हणजे तुमच्या म्हणण्याप्रमाणे झाडामुळांतली
ह्याका दिसता आमी उबे आसात, आमचो भार ह्याणी कि
घेवचो ? पूण हांका खबर ना आमी आसात म्हणून हांका सा
आमी नाजाल्यार हे आदार नाशिल्ल्यान कशें व्हांवत वत
हांका खबर तरी आसा ? तुमी तुमच्या किर्तनात हें सगलें
फुकट. तितलें समजुपाची लेगीत हांका अक्कल ना.

तरनाटो : आनी तुमची कथाय फुकट. आपले विचार दुसऱ्याचेर जबरद
थापून त्या भुरग्याचो जीव घेवप म्हळ्यार अणभवाचे वि
आमच्या विचारांक मोलूच ना. आमी म्हळ्यार कांयच
हांचे आयकुपाक आनी आमचो बळी वचप. तुमची कथा ल
न्हय जाल्यार कितें ?

किर्तनकार : जाणटेल्या – नेणटेल्या, आतां म्हज्या लक्षांत आयलें तुमी कि
झगडटात तें. हांव किर्तनकार. मेळत थंय वचून किर्तन
आनी लोकांक जागे करप हें म्हजें काम. आयचें म्हजें वि
आशिल्लें जाणटे आनी तरनाटे हांचे मदलें झूज जावपाचें क

तुमकां पटोवपाचें. पूण तें समजून घेवपा बदला तुमीच झुजपाक लागले. आरे, जाणटे-नेणटे हीं वयावयल्यान आयिल्लीं उतरां - मनशाच्या गिन्यानावेल्यान न्हय. देखून दर एकल्यान दुसऱ्याक समजून घेवन नीट चलप गरजेचें. हांवे पयलीं सांगलें तें तरनाट्याचो अविचार दाखोवन दिवपाखातीर. दुसरी गजाल सांगली ती जाणटेल्यांची अंधश्रद्धा दाखोवन दिवपाखातीर आनी तुमी दोगूय समजून घेवपाचें सोडून झगडूंक लागले.

दोगूय : पूण हीं झूजां ना जावपाखातीर उपाय ?

किर्तनकार : (नव्या नेटान) हीं झुजां केन्नाच थांबचीं नात. ताचेर उपाय ना. तुमच्या गिन्यानात भर पडची म्हणून सैमाचे शिकवणेची एक पद्धत म्हळ्चार मनशांमदली झुजां. मागीर ती जाणटेनेणटेल्यांची जांव. मुरग्यांभितर जांव, घोवबायलेची जांव नाजाल्यार स्वत:भितरूच जांव हीं झुजां जोमेरेन आसात तोमेरेन नवें कितें तरी शिकूंक मेळटलें नाजाल्यार सगळेंच अळणी जावन वतलें. तुमीच एकमेकांक समजून घेयात. भेदभाव पयस करात. सैमान तुमचेभितर भेदभाव करूना. सुर्यान केन्ना आपलें वत तुका चड ताका कमी अशे केलां ? झाडान केन्ना फळ दितना तुका गोड ताका कोडू अशें दिला ? वाऱ्यान केन्ना तुजेर मोड आनी ताजेर शितळ वारें व्हांवयलां ? ना. सैम रचतल्यान सगळ्यांक सारकेंच दिलां. जाती, धर्म, शास्त्रां हीं मनशांनी मनशाखातीर केल्यांत. तीं मनशाक वांचयतात आनी एका वेळार बुडयतात लेगीत. मनशान विज्ञाना वरवीं खूब सादयलें. पूण तेचबराबर एका खिणांत सगलो संसार बुडवपाचीय शस्त्रां घडोवन तेंच विज्ञान आज मनशाच्या नाशाक कारण जालां देखून जें सैमान दिलां ताजो सारको वापर करूंक मनशान पयलीं शिकूंक जाय आनी तें शिकलेना जाल्यार हीं झुजां झगडीं अशींच चलूंक जाय. तीं थांबोवन उपेग ना.

(किर्तनकार भैरवी आळयता)

झगड - झुज रे मनशा  
देखूंक गिन्यानाची दिशा ।।  
सैमामुखार मनशाचें चलना  
झगडी झुजांचें चक्र थांबना ।।  
येता नागडे, वता नागडे  
मदलेंमदी झुजां झगडें ।।  
सैम रचतल्या शरण येता रे  
उदार मनान वाट दाखय रे ।।

(सोंपता)



## एकांकीतलीं पात्रां

हापो
मिगेलपाय
मावशी
पोदेर
फुलकार चली – १
फुलकार चली – २
फुलकार चली – ३
फुलकार चली – ४
फुलकार चली – ५

धा/बारा शाळेंतले भुरगे

धा/बारा टुरीस्ट लोक

---

-४-

# मायपास

(तीनसांजेचो वेळ. माचयेचे एकेवटेन एक खोंप. खोंपिच्या मायर हापो, पिराय सादारण सात - आठ, हातपांय गुठलावन वग्गी बसला.)

पो : सद्दां काळोख कित्याक जाता ? काळोख जाता म्हणोन हांव घरा येतां. नाजाल्यार केन्नाच घरा येवचोंच नाशिल्लों. थंयच देवळाकडेनच बसोन रावतोलों आशिल्लों. मावशी वावर करून आतां घरा येतलीं. मागीर ... मागीर ... ! (खंयतरी 'घुब्ब' करून आवाज जाता. हापो भियेवन आंग काडटा) मावशी सद्दां काळोख जातगीर घरा येता. वाटेवेलीं काळखांतलीं भुतां तिका मात गिळोन उडयना.

(मिंगेल, एक रेंदेर. वेंतभर चड्डी, हातांत काती आनी दाबणे घेवन हापोले खोपी फुडल्यान वता.)

गेल : ओ ऽऽ रे ऽऽ हापो ! कित्त रे ? कावोख जायलो आनी तूं कावखांतच बोहला ? आरे, ओगी कित्या रे ? उलय मुरे ? मावशेन पेट घायलो काय कित्त रे ?

पो : (भिडेन) मावशी, म्हाका मारीना मिंगेलपाय. खरेंच तर

मारीना.

मिगेल : आबा ! बरो मावशेची पार्त घेनाय मुरे तूं. ईतो भि
तिका ?

हापो : मिगेलपाय, म्हाका खंयीय काम दिवशी ? हांव काम
खूब पयशे हाडटलों.

मिगेल : काम ! तुका आनी कोहलें काम जाये ? तूं भुरगे
भुरगेपोणात फकत खेवपाचे, नाचपाचें.

हापो : पूण सद्दीं मावशेक पांच रूपये तरी हाडोन दिवंकच
म्हागेली फुलां खपचना. मागीर मावशी म्हाका वाडिना.
मार मारना. हांव काम करून पैशे हाडटोलों आनी म
दितलों. मागीर मावशी म्हाका केन्नाच मारचीना मिगे

मिगेल : (काकूळटेन) पिसो !

हापो : तुगेले जॉनीक तूं केन्नाच मारीना पाय ?

मिगेल : केदनाच ना आं ऽऽऽ ! तेशी मोस्ती केल्यार केदना के
मात्तां, पूण तुगे मावशी मात्ता तेसो मार मात न्होय रे
खोरेंच ! आवय ती आवय ! बाकीं सोगळीं फोटीचीं.

हापो : म्हजी आवय आशिल्ली जाल्यार म्हाकाय मारची नाशि
मिगेलपाय, मावश्यो दोन - तीन - चार कितल्योय आस
मागीर आवय एकच कित्याक आसता ? म्हाका आनी
आवय कित्याक ना ? (रडटा.)

मिगेल : आरे हापो रडों नाकाय रे. हांव आसा तुजी आवय.
दितेलो तुका जायें तें. आरे, रडों नाकाय रे. आवो
उगडासान हो रडतलो म्हूण म्हाका शितीदूच उरलें ना.
हापो नाकाय रे रडों. (ताका खुसलायत) चोय, मा
ताज्जी सूर पियेतोलो ?

हापो : नाका.

मिगेल : पिये रे. सूर म्होणजे सोरो न्होय रे. माडाचें कवळांतलं
आनी आवोयचें आंगातुलें दूद. एकूच. पियेतोलो ? घे पि

हापो : मिगेलपाय, सद्दूची आवय ताका सगळें दितां. मावशी
म्हाका ... (रडटा.)

मिगेल : तूं रडों नाका तीनकात्रेचो. तुका हांव दितेलों जाय
म्हाका म्हुजे जॉनीसारखो तूं रडलो म्हुणगीर म्हुजो
रोडता. तूं हांसलो म्हुणजे म्हुजो जॉनी हांसता.

हापो : मिगेलपाय ...

मिगेल : हांव तुका खावच्याक दितलों, कपडे दितेलों. तुका जाय जाय तें दितलों. तूं म्हुजो मुरे.

हापो : मिगेलपाय ...

मिगेल : सांग रे, किदें जाय तें सांग. हांव तुजी आवोय. उलय, किदें जाय तुका ?

हापो : म्हाका एकदांच ...एकदांच मिगेलपाय ...

मिगेल : उलय रे, सांग रे. हांव दितलों म्हुणजे दितलों. भुरग्याक फोटयत जाल्यार देवाक फटयिल्लेवरी जाता. हांव तुका केदनाच फटी मारचोना.

हापो : एकदांच म्हाका आवयमशेन वेंगेत घेवशी ?

मिगेल : (विचारांत पडटा आपले भितर) देवा सायबा ! हांव सोगलें दीन. पूण आवोयची वेंग ! म्हुजे वेंगेत तेका कोसलें सुख गावतलें ? (उक्तेपणी) यो - यो रे म्हुजे पुता, म्हुज्या जॉनी यो तुका वेंगेत घेतां हांव. यो ऽ ऽ ! (हापो मिगेलीक घट वेंग मारता. मिगेल ताच्या माथ्यांत सांसपिता.)

हापो : मिगेलपाय, आतां एक बरें कातार म्हण मरे.

मिगेल : कांतार ? आतां ना पुता. म्हाका ओगोत जालो. चं;य, मळबांत चंद्रीम आयलो.

हापो : मातशें म्हण. तुजें कातार आयकतगीर बरें दिसता.

मिगेल : तुजें काळीज दुखोवन म्हुज्यान वचूंक नजो. आयक तर. (कांतार म्हणटा)

केसो घोडला हो संसार,
थेंबभर सुख, दुःखाचो हुंवार.
कोणाचें घोर मोल्लां पूण, घोरांत मुरगें ना,
कोणा घोरा मुरगें आसा पूण, तेका आवोय ना.
संसारांतल्यो सोगळ्यो वस्तू सांडल्यार, खंयच किदें जायना,
पूण मुरग्याचें मुरगेपण सांडल्यार, तें पोरत गावना.
किरीस्तांव - हिंदु म्हणोन जातीधर्म वेगळे.
पूण काळजाक काळीज लागतगीर जाता एक सगळे.

(कांतार आयकतां आयकतां हापो बसला थंयच न्हिदता.)

मिगेल : आरेच्या, कांतार आयकोतां आयकोतां हो हिंगाच न्हिदलो. काकूट बाबड्याची ! देवा तूंच राख हेका.
(हापोक उबारून खोपींत न्हिदयता आनी कांतार गुणगुणत मिगेल चलूंक लागता.)

(मावशी येता. पिराय चाळीस - पंचेचाळीस, जेवणाची आयदना आसात.)

मावशी : (दारांतच उबी रावन) मेल्ल्यान दिवो मुद्दां पेटो पाडपडलेलो जीव खावंक लागला. बरें न्हिदेचें सवंग पडला. मालक्रीयाद ! एक खोंट मारोन सोमतो उबो आंऽऽऽ ! (भितर वचून दिवो पेटोवन घेवन येता) फुलां खपयल्यां कांय दीसभर हेडोन येवन पडला हांग हापो ऽऽ, तुका इचारतां हांव काणयो सांगिना. तीं नाका. पयलीं उठोन बस मारचे पयलूं. उठलो ज सुटलो. मेल्ल्यान जातनाच पयलूं आवयबापायक आनी आतां म्हाका खाता. मरयना पिडा एकदांची. तूं उठटा कांय ... ! (थंयचीच एक बडी काडून मारता)

हापो : आवय ऽऽ आवय ऽऽ (एक किळांच मारून उठून बसता)

मावशी : चड न्हीद येता ? आयचे फुलांचे पयशे खंय ?

हापो : दितां, मारूं नाका. (उठटा. कुरपण्यांतले कप गुठलायल्ले मोडचे पयशे काडून दिता.)

मावशी : इतलेच ? दोनच रूपये ? तुका हांये सांगलेले, म्हजेकडेन पांच रूपये तरी फुलांचे येवंकच जाय म्हणोन

हापो : फुलां खपोना.

मावशी : खपोना ? तुकां जाये दीसभर भकपाक. (बडी मारता) कोणा म्हाका सांगता ? खपोना म्हणोन ? ह (मारता) लोकांल्या भुरग्यांनी फुलां विकोन कितें केलें आनी तूं दीसभर फुलां विकपा सांडोन खेळटा–खे खेळटोलो? (मारता) हांव दीसभर हेगेल्यातेगेल्या द मरतां आनी तुगेलें फुकट पोट भरतां. तुजे फाटीचीं स देंवयल्यार सुद्दां कोण नाका म्हणपाचो ना. इतलो हांव पोसतां आनी वेल्यान हांव मारतां म्हणोन तूं गां घालता हय ? (मारता) सांगनोलो सांगतोलो परत (मारता आनी रागान बडी ताजेरच वडोवन भितर व हापो हुंडक्या हुंडक्यानी रडटा. काळोख)

(देवळाकडलो वांठार. सकाळचो सात साडेसातांचो वेळ. ह अेका हातांत फुलांनी भरील्लो कुरपणो आनी दोरा वावळ्चो घेवन येता. जाल्यार दुसरेवटेन तीन-चार मु

पिकनिकेक वचूंक शाळेवटेन वतात.)

ापो : (तांका पळेत) आज बेगीन रे शाळा ?

ुरगीं : आज आमची पिकनीक.
बोंडला, मयां, वागातोर, दर्यार बी वतलीं आमी.
तुवें कित्याक शाळा सोडली. काय बरो पिकनीकेक येंवचो नासलो ?

ापो : आता येंव ? फुकट येवंक गावता ?

ुरगीं : फुकट कित्याक न्ही गो ? बरे पंदरा-पंदरा रूपये दिल्यात आमी.

ापो : तुजेकडेन आशिल्ले पंदरा रूपये ?

ुरगीं : म्हजेकडेन कित्याक ? बरे आईन दिल्या म्हाका.
म्हाका बाबान दिल्यात. ते शिवाय वाटेर भूक बी लागल्यार कितेंय घेवन खावपाक म्हणून आनीकय दिल्यात.
ए ऽऽ आमी आयस्क्रीम घेवन खांवया मरे ?
हांव कॅडबरी घेवपी
(एक पोदेर माथ्यार पाटलो घेवन 'पोंक-पोंक' करीत येता.)

ुरगीं : बरी याद जाली. आईन सांगिल्लें. पोदेराकडल्यान दोन पाव घे म्हणून.
चल घे तर मुगो. हो पळय पोदेर.
(भुरगीं पोदेराकडल्यान पाव घेतात)

ापो : पोदेर भाऊ म्हाका एक पाव दी मरे.

ोदेर : कालचे पयशे हाडल्या तुवें ?

ापो : फाल्यां सकाळीं दितां. खरेंच !

ोदेर : मागीर फाल्यां सकाळीं पाव दितां.

ापो : एकच दी मरे कांयच खावों ना हांयेन सकाळच्यान.

ोदेर : तुवें खावना म्हणून भाजल्या हे तुज्या पोटाखातीर ! चल वच.

ापो : पोदेरभाऊ, जांव रे ! एकूच दी रेऽऽ !
(भितल्ल्यान सुण्याच्या भोंकपाचो आवाज. पोदेर तेवटेन पळयता)

ोदेर : यो गो यो, चूऽऽचूऽऽचूऽऽ ! (पाव सुण्यावटेन भितर शेवटीता)

ापो : (पाव शेंवटीला तेवटेन धांवता. पूण सुण्यान पाव व्हेल्लो देखून खंती जावन परतता) सुण्याक मुद्दां तूं सद्दीं पाव दिता आनी म्हाका मात दिना मरे ?

ोदेर : तूं सुणो ?

(भुरगीं हांसतात. पोदेर माथ्यार पाटलो घेवन वत
भुजांनी दोळे पुसता. इतल्यांत भुरग्यांले पिकनीकेचे
आवाज येता.)

सगळीं भुरगीं : बस आयली, आमची बस आयली ऽऽ (बशीचे दिकेन
वतात.)

(पिकनिकेचे बशीक लायिल्ले लाऊडस्पीकराचेर '
चेडवा दिसता कसो खंडाळ्याचो घाट' हें पद लाग
आयकतां आयकतां हापो थंयच बसून फुलां गुंतता
फुलकारां तेंच पद म्हणीत फुलां घेवन माचयेर येतात.

फुलकारां : हें पद बरें दिसता न्हू गो ?
सकाळीं पिकनिकेक बस गेल्यां न्हू तेजेर लायलेलें तें.
शाळेंतली सगळीं गेल्यां पिकनिकेक.
(हापोकडेन पळयत) आनी हो कित्याक वसोना तर ?
तेका शाळा आसा ? तो आमचेभशेन फुलकार !
आमच्या पांच चेडवांमदीं एकटोच चेडो.
पांच खांवचीपाना आनी एकच बेडो.
कित्याक गो तेजीं फकाणां मारतात ?
कोणे माल्ल्या गो तेजीं फकाणा ? तेजें कितें नांव
आमी ?
ए ऽऽ तेजें नांव कितें गो ?
पाडपडो खंय. (सगळीं हांसतात) मावशेक एकदीस इ
तेजे नांव कितें गे ? ती म्हणटा पाडपडों तेजें नांव.
हे हापो, तुजें खरें नांव कितें रे ?
ए हापो, उलयना रे ?
(सगळीं 'ए हापो, ए हापो' करून ताका तिडायतात. म
सगळीं उठून ताजेम्हन्यांत वचून ताका तिडायत म्हणटा

सगळीं : 'हापो झिंगा पो, व्यारी मिरीं पो.'

हापो : (रागान) म्हाजें नांव हापो न्हू.

फुलकारां : मागीर सांग मरे तरी कितें तें ?
– सांगलेशिवाय कळटा ? लोक म्हणटा तें आमी म्हणटात.
– आवय शेणली म्हणटगीर पोराचे नांवय शेणटा (स
हांसतात)
– ए कितें गो तुमी ? तूं वगी राव आं हापो.

हापो : म्हाजे नांव हापो न्हू. म्हाजे नांव बरें ऽऽ हापा.

फुलकारां : आवयस् ! आनी गोकुळदासाक सांगोन पेपराचेर छापा. (हांसतात)

– आसूं गो. तेका कित्याक पिकार करतात गो ?

– हय गो, तेका पयलूं आवय - बापूय ना.

– ए ऽऽ कितें गो तुमी अशीं ! तो मागीर रडटोलो मुगो.

– तेका रडोंक येता तर ?

– ए, रडटा तो !

– हांव पैज मारतां, तो रडचोना.

– तेगिली आवय तुमी परतोन परतोन वयर काडटात. मागीर रडोंक येयना म्हणोन आसा ?

– पूण तेणे आवयक पळोवंकच ना न्हु गो, मागीर रडटलो कित्याक ?

– मावशी म्हणटा, येरें व्हडले आवयक हेणें जातनाच खाली खंय !

– म्हणोन तेजे पोट मोठेशें दिसतां.

(सगळीं हांसतात. हापो रडटा. सगळीं एकमेकाक खुणायतात.)

हापो : (रडत) पाडपडलेल्यांनो ... कुत्र्यांनो, मुण्यांनो . . . सद्दीं म्हजे फाटीक लागतात. म्हाजो खाल्लेशिवाय पोटां भरना तेंचीं. सुणी - कुत्रीं !

फुलकारां : आमकां कित्याक गाळी सोंवता रे ? आमी कितें केलां न्हु गो ? हांये जाल्यार तेका कांयच म्हणोना.

– आमी हेजे वाटेक गेल्यां तरी ? आमी आमचे झेले करताना आमकां जाय तें वडबडटलीं. हेका कित्या लागता ?

हापो : म्हाजी आवय ना म्हणोन तुमी म्हाका खातात. म्हाका कोण ना म्हणोन म्हाजीं फकाणां मारतात. हाय्रें कितें केलां तुमकां ? म्हाजीं फुलां घेवन बसल्यार तुमकां किदयाक दुखता चुमडयांनो ?

(हापो रडटा. एक टुरीस्ट बस हॉर्न वाज्यत येता तो आवाज. सगळीं फुलकारां 'बस येयली – बस येयली' करीत बशिवटेन धांवतात आनी 'टुरीस्ट' लोकाबराबर झेले झेलयत येतात)

– म्हागेलो घे मरे.

ए झेलो घे मरे – आबोल्यांचो घे मरे.

टुरीस्ट १ : मंदिरात कुठून जायंच ?

फुलकारां : असं सरळ. पूण एक झेलो घे मरे. आठ आणें.

– ए फांती घे मरे देवाक फांती घाल मरे.
(टुरीस्टाबराबर फुलकारां देवळावटेन वतात. दुसरो टु
हापो बसला थंय येता)

टुरीस्ट २ : एक अच्छावाला दे दो माई – अच्छावाला देना.

हापो : हो घे, आठ आणे.

टुरीस्ट ३ : और वो दुसरा – दुसरा !

हापो : (समजनासून) दसरो आता न्हू. दसरो जालो आतां जा
जातली
(दुसरीं दोन फुलकारां थंय येतात.)

फुलकारां : हमारा घें, हमारा घें तेचा चांगला नहीं. ये चांगल
आबोल्याका है
– तेचा फुलां बाद है. जमनीर पडलेला फुलां है. हमारा अच्छ
चाफेंका हार घे. वासाचा. है वासाचा.

टुरीस्ट २ : इसका कितना ?

फुलकार : पांच रूपये.

टुरीस्ट २ : पांच ! अभी पचास पैसा बोला ना तुमने. नहीं चाहिये.

फुलकार : चार रूपये दी-चार रूपये बोणी करूंया.

टुरीस्ट ३ : चार रूपया. नही-नही, ये ले लो तुम्हारा.

फुलकार : ना ना परत घेवचींना हम. आमच्या फुलांक हात कित्या
लायला ?
दिल्ली एकदां परत घेना आमी.

टुरीस्ट ३ : हम दिल्लीके नहीं है.

फुलकार : बरें तीन रूपये तरी दी मरे.
(टुरीस्ट देवळावटेन चलूंक लागतात. तांचेफाटल्यान फुलका
वतात )

टुरीस्ट ४ : (हापोक) माय, शांतादुर्गाका मंदीर कितना दूर है ?

हापो : शांतादुर्गा ! असे नीट जाना और पयले वोल्तान सरत
वचायचं.

टुरीस्ट ४ : (कांयच समजना जावन) रस्ता, रस्ता जानेका कैसे ?

हापो : रस्तो न्हू, सगळो डांबरी बस वयता सरळ जायचं.

टुरीस्ट ४ : सीधा जानेका क्या - सीधा ?

हापो : धा नाजाल्यार बारा मिनटां.

टुरीस्ट ५ : ये फूल कहां से लाता है तुम ?

हापो : लातां फुलां घेयना आमी. लातां दनपारची तापता और फुल

बावता.

टुरीस्ट ५ : क्या बोलता समझमे नहीं आता.

टुरीस्ट ४ : अच्छा, यहां बार कहां है ?

हापो : गोयंडो बार ? म्हाजेकडेन ना आतां.

टुरीस्ट ४ : इधर बार नही है ? अजीब है !

(गायड् 'प्यू' करून पिल्लूक वाजयत माचयेर येता.)

गायड् : चलो भाय, चलो. जल्दी करो. चलो.

(टुरीस्ट वतात. गायडय वता.)

टुरीस्ट ५ : गरीब है बेचारा. ये ले लो तुमे. (बोल्सांतल्यान पैशे काडटा)

हापो : आमकां नखो फुकटचे.

टुरीस्ट ५ : नही चाहिए. अरे रख दे भाय. गरीब बेचारा !

हापो : गरीब जालों म्हणोन, भिकमागो न्हू हांव. माझा झेलो घे आनी पैसा दे.

टुरीस्ट ५ : अच्छा, दे दो बाबा. (झेलो घेता आनी पांच रूपये दिवन बशिवटेन चलूंक लागता.)

हापो : पांच रूपये दिवन गेलो. म्हाजेकडेन मोडचे ना. तेणे चुकोन रूपयो समजोन पांच दिले दिसता (ताका उलो मारता) ए ऽऽ ए भाऊ, पांच रूपये दिला है. मोडचे नही है. ए ऽऽ भाऊ ऽऽ भाय ऽऽऽ

(फुलकारां येतात)

हापो : ए, तुमचेकडेन मोडचे आसा गो ?

फुलकारां : आवय, पांच रुपये ! खंयचे रे ?

हापो : मोडचे दी बेगीन. बस वयतली. (बस वता तो आवाज)

फुलकारां : बस वयतली कितें ? गेली ऽऽ ! बरी नाटकां करता. बरो आसा. मोडचे दी खंय. म्हणजे कोणय सोदीत आयल्यार नोट आमचेकडेन आनी हो साव.

हापो : हांये कितें चोरल्या तर ती ?

फुलकारां : चोरूना ? देवळांत वयतल्यान एकटयानय तुजो झेलो घेवंक ना. आमीं नकळो ?

– आमी पांच रूपये सांगल्यार ते 'नही चाहिये-नही चाहिये' करतात. आनी हाका पन्नास पैशां झेल्याचे पांच रूपये दितात ! बरो आसा चोर.

हापो : हायें चोरूना गो. खऱ्यांनीच तर तेणी आतां वयतना घेतला म्हाजो झेलो.

फुलकारां : वयतना घेतलो ? कोणा बगीक घालोंक ?

– फुडें फुडें बरो वस्ताद चोर जातलो तूं असल्यांनी.
– हांगा आमचेवांगडा बसोन असले धंदे करना ?
– झेले खपना म्हणोन लोकांले चोरप न्हू गो ?
– सगळ्यांक सांगपी आमी, तूं चोर म्हणोन.
(सगळी 'हापो चोर - हापो चोर' करून बोवाळ घालीत वत
हापो रडकुरें तोंड करून थंयच बसता.)

हापो : हांये चोरूना जाल्यार सुद्दां वेठींच म्हाका चोर म्हणटात. स
कितें ना कितें तरी करून म्हाका रडयतात. हांगा फुलां घे
बसल्यार हीं अशें करतात आनी फुलां घेवन बसलोना जाल्य
रातची मावशी मारता. म्हाजेबरबरचे मात सगळे शाळेंत वयत
म्हाका शाळेंन वचोंक खूब आवडटा. पूण मावशी वचोंकच दिन
शाळेंत काय बऱ्यो कविता आसतात ! 'ये रे ये रे पावसा, तु
देतो पैस' ...' 'शर आला तो धावूनि आला का
कळवळला श्रावण बाळ ...' म्हाका सगळ्यो कविता आतून
येता. इंटरवलांत काय बरी मजा येता बॅस्ट - हांव, नंदू, गोडे
विसेंत मज्जा धांवप, खेळप, पडप (उमेदीन एकटोच हांसत
आमी काय बरे लंगडी खेळटाले - इंडरव्हालाची घंटा वाजली
वाजली आमी शूट ऽऽ !
(हापोक फाटली याद जाता. इंटरव्हालाची घंटा वाजना. सात-अ
भुरगे बोवाळ घालीत हापो भोवतणी जमतात.)

भुरगो १ : ए कालचेभशेन लंगड्यानी खेळोया ?

सगळे : हयवय.

भुरगो २ : कालचीच गडी मरे ?

भुरगो ३ : हयवय कालचीच गडी.

भुरगो ४ : नाका नाका. आज हापो आमकां जाय. सद्दीं हापो तुमकांच
बरे बरे गडी सद्दीं तुमकां ?

भुरगो ५ : ना ना, आज हापो आमकां. कालचीच गडी जाल्यार हांव येत

भुरगो ६ : वा वा ! बरो आसा ! आज हापो आमकां. ना जाल्यार पर
गडी घालोया.

भुरगो २ : परत गडी घालतासर इंटरव्हल सोंपतलो. मागीर खेळूंक मेळचेंन

भुरगो ४ : नाका गावों. हापो सद्दां तुमकां, तुमी जिकों जाय म्हणोन
यो रे हापो तूं आमकां. (ताका हाताक धरून ओडटा)

भुरगो ५ : व्हडलो तूं. हापो आमकां. (हापोच्या दुसऱ्या हाताक धरू
ओडटा. १, ४ आनी ६ एका हाताक जाल्यार २, ३, ५ दुसऱ्य

हाताक धरून 'हापो आमकां - हापो आमकां' करून ओडटात. दोशीवटेन ओडून धरील्ल्यान हापोचो घुस्मटमार जाता आनी तो उबगून किळची मारता. तशे सगळे ताका सोडटात.)

सगळे : कितें जालें हापो ?

हापो : कितें दोरी ओडटात ? म्हाका कितें जालें जाणा तुमी ?
(हापो चलूंक लागता.)

भुरगो १ : हापो तूं येयना ?

भुरगो २ : कितें जालें हापो ?

हापो : (किरंगळीचे बोट वयर करून) मुतों. (वता)

भुरगो ४ : पळयलें असल्यानी इंटरव्हाल सोंपलोलो. खेळूंक मात मेळचेना.

भुरगो ३ : बरें हापो व्हरा तुमकां आनी आमकां कोण दिता ?

भुरगो ४ : तुमकां हो घेयात. (पयल्याक धुकलता.)

भुरगो ३ : (नळकुटीचेर थुंकून) सांग, ओली काय सुकी ?

भुरगो ४ : ओली ! (ओली पडटा आनी ४, ६ ओली म्हणून नाचतात. हापो येता.)

भुरगो ६ : तुमी लंगडी घालात.
( खेळाक सुरवात जाता. ६, ४ आनी हापो फाटल्यान एकटो लंगडी घालून धरूंक धांवता. ६ आनी ४ क रोखडेच धरतात. पूण हापो मेळचना. 'शाबास हापो' 'हापो मेळूं नाका' अश्यो हुयेल्यो मारीत ६, ४ ताका ताळयो मारुन पाठबळ दितात. इतल्यांत लंगडी घालपी बेठोच हापोक 'धल्लो' म्हणून सांगता.)

लंगडी घालपी : धल्लो - धल्लो !

हापो : ना धरोंक, वगीच !

लंगडी घालपी : सारको हात लागला फाटीक.

हापो : वगीच रडयो.

लंगडी घालपी : देवाच्यान तर बोट लागलां.

हापो : हात लागला म्हणसर आतां बोट लागलां म्हणटा. आनी थोडयावेळान बोटांचें नाकूट लागला म्हणटोलो.

लंगडी घालपी : आवयच्यान तर !

हापो : म्हाका धरोंक जायना म्हणोन कितेंय सांगता ?

४ आनी ६ : अेऽऽ, वगीच तूं. कांयच हात बी लागोना तुजो.

भुरगो ५ : हापो तुका हात लागोना तेजो ?

हापो : आवयच्यान तर लागोना.

लंगडी घालपी : तुका आवयचो सोपूत घेवपाक कितें. तुवें आवयक केन्नाच

खालीं खंय !

हापो : आनी तुवें कोणा बापायक खालो ?

लंगडी घालपी : म्हाजो बापूय वयर काडल्यार सोंड धरून फोडटोलो आं ऽ

हापो : कितें तें ? पडभर जेवन यो घराकडेन वसोन.

लंगडी घालपी : आनी तूं मावशेकडल्यान बरो मार खावन घट जावन यो च

हापो : हय रडया. फटींग नंबर एक पयलो.

लंगडी घालपी : तुजो बापूय फटींग.

हापो : कळटा कोणाचो तो.

लंगडी घालपी : म्हाका राग येत जाल्यार मोमतीं दातकडां बीं पो
उडयतोलों आं ऽ ऽ !

हापो : घराकडेन सांगोन यो. (सगळे हांसतात. लंगडी घा
रागान ताकां धुकलून उडयतां. मागीर दोगांचीय झट
जाता. जमनीर एकमेकांचेर पडटात. बाकीच्यांक नेट ये
ताळयो, शिळोण्यो, 'सोडूं नाका – आमी आसा ' अशे क
नाचतात. इतल्यांत बडी घेवन मावशी येता. सगळे क
सरतात हापोच्या गोलाक धरून ताका बडयेन मारता.)

मावशी : रस्ताद खंयचेकडलो ! सगळया देवळाचो, वाठारभर सो
हांव तुकां आनी तूं हांगा शाळेकडेन पावलो – कितल्या वे
सांगलें तुकां शाळेंत वचों नाका – शाळेंत वचोन आम
पोटां भरना. फुलां खपय म्हणोन सांगलेलें – सगळे
घराकडेन तश्शे पडल्या आनी तूं शाळेंत पावलो – हेजे
जर तूं शाळेंत म्हणून दिसत जाल्यार तुका जितोच मार
चल पयलूं घराकडेन !

हापो : म्हाजी पुस्तकां, दप्तर –

मावशी : उजो लागों तेका. वच पयलूं.
(शाळेची इंटरव्हाल सोपिल्ल्याची घंटा वाजता. त
काळोख.)

x x x

(उजवाड जाता तेन्ना हापो पयलींचेच स्थितींत चि
बशिल्लो दिश्टी पडटा.)

हापो : त्या दिसाच्यान मावशेन म्हाका शाळेंत वचोंक दिलो
मावशी आसासर म्हाका शाळेंत वचोंक केन्नाच गावचें

फुल्लांच खणोवचीं पडटलीं. (बोल्सांतली पांच रूपया नोट काडटा. नोट पळयत) आज हे पांच रूपये मावशेक दीत जाल्यार तो म्हाका मारचीना. म्हाका वाडटली सुद्दां. हांव हांव आज भरपूर जेवपी, मावशी आज म्हाका बरो म्हणटली. (हांसता) हांव आज बेगीन घरा वचपी. लाऽऽलाऽऽलाऽऽ (गुणगुणटा)

(मिगेल येता)

मिगेल : आव्बा ! आयज बरो खोशी दिसोता मुरे.

हापो : (नोट दाखयत) पळय – पांच रूपयें !

मिगेल : आव्बा ! देखूनच म्हुणतां. पावसाथेंबो आंगार पोडला देखून बेबो उडक्यो मात्ता, जांव तूं खोशी हांव खोशी. तूं खोशी म्हुजो जॉनी खोशी.

हापो : मिगेलपाय, तूं जॉनी जॉनी करता. पूण हांवे जॉनीक केन्नाच पळंवंक ना. तो तुजेवांगडा हांगा केन्नाच येंवंक ना.

मिगेल : येतेलो – म्हुजो जॉनी येतेलो – एक ना एक दीस येतेलो ही चोय तेका लागोन हांयें चॉकलेट घेतल्या तेगे भोव घोस्ताची ही चॉकलेट !

हापो : तो केदो आसा ?

मिगेल : तुजेयेदो बाबा तुजेयेदो तुजेभाशेन, बारबोर तुजेसारखोच.

हापो : तो शाळेंत वयता आसतोलो न्हू ?

मिगेल : तेका शाळा म्हुळयार मोटी उमेद. 'शाळेंत वेतेलो आनी माडायेदो जातेलो' म्हुणतालो तो. पूण शाळेंत म्हूण गेलेलो म्हुजो जॉनी आयज कितो दीस जाले आजून येवंक ना. (दोळे पुसता) म्हुगें जॉनी येतेलो शाळा सुटतगीच आयज ना फाल्यां धांवत येतलो. (मिगेलीचो गळो भरून येता)

हापो : मिगेलपायऽऽ ! (वेंग मारता)

मिगेल : म्हुजे जॉनी, घे तुका चॉकलेट घे

हापो : नाका, म्हाका नाका पाय. तुजे जॉनीक दी.

मिगेल : नाका म्हणू नाका पुता. तुवेंन नाका म्हुणल्यार म्हुजो जॉनी म्हाका केदनाच मेवचोना. घे, घे रे म्हुजे पुता.

हापो : (घेता) मिगेलपाय, तूं म्हाका ख़ूब बरें बरें करता. जॉनीक हाडिल्ली चॉकलेट सुद्दां म्हाका दिता. तूं म्हाजो कोण ?

मिगेल : (चिंतता) हांव – तुजो – कोण ? (ल्हव हांसता आनी कांतार म्हणटा)

(कांतार) – तू म्हुजो जॉनी नी, हांव रे तुजो पाय,
दुखाचे काळजाक, मायेची ओलसाण जाय.
तूं म्हुजो जॉनी, हांव तुजो पाय,
तुका दुख भोगल्यार, म्हुजो जॉनी रोडताय.
ओ म्हुज्या जॉनी ऽऽऽ ... !
रे म्हुज्या जॉनी खोंय रे लिपोला
मिंगेलपाय तुकां भुरग्यांनी सोदिता
यो म्हुजे जॉनी तुजे पासोत जियेता
म्हुजे जॉनी – ओ म्हुजे जॉनी ऽऽऽ
(कांय भुरगे 'पिसो पाय' 'पिसो पाय' करीत मिंगेलीच्य फाटल्यान लागतात. मिंगेल फाटीं वळून तांका पळेता तेन्ना पयस पळटात.)

मिंगेल : आरे, म्हाका भियेताय रे. तुमी सोगळे म्हुजे मुरे. तुमं अशेच नाचपाचें खेळपाचें, भुरगेंपण मोस्तुपाचें. येयाय रे (कांतार म्हणीत नाचता. तशे भुरगेय ल्हव ल्हव लागीं येव ताचेबराबर नाचूंक लागतात. कांतार गावंक लागतात भुरगेपणांत भुरग्यांनी खेवपाचें नाचपाचें, भुरगेपणां भुरग्यानी खोशेन रावपाचें. भुरगेपणांत जाणटेपण कोणे ना भोगपाचें भुरगेपण शेणल्यार तें परोत ना मेवपाचें. म्हु जॉनी ऽऽऽ ओ म्हुजे जॉनी ऽऽऽ
(मिंगेलपाय जॉनीक साद घालीत वता. ताचेबरबर भुरगे नाचत वतात. हापो एकटोच उरता.)

हापो : मिंगेलपायचो जॉनी खंय गेला कांय ? मिंगेलपाय काय बरे जॉनी मात पिसो. मिंगेलपाय काय बरें खावपाक, खेळपा शाळेंन वचूंक दितलो आसलो. जॉनी कित्या गेलो काय ? खंय गेलो ?
(हापो जॉनीक उलो करता. प्रत्येक सादाक एक एक भुरगे माचयेर धांवट येता.)

हापो : जॉनी ऽऽऽ जॉनी ऽऽऽ जॉनी ऽऽऽ

मुरगे : हापो खेळोया.

हापो : कसल्यांनी ?

मुरगे : धरचेल्यांनी !

हापो : म्हाजी फुलां तश्शीं आसात.

मुरगे : तू सद्दीं हेंच सांगता आनी खेळूंक येना.

– तुका खेळूंक आवडना ?

हापो : आवडटा. पूण म्हाजी फुलां ऽऽ! आनी थोड्यावेळान सांज जातली.

भुरगे : आसूं रे फुलां. तीं पळय चेडवां मुद्दां फुलां दवरून खेळटात. आमकां आपयता आनी आपूण मात येना.

हापो : खेळन दिसता. पूण सद्दां हो काळोख कित्याक जाता ? काळोख जायनाशिल्लो जाल्यार हांव दीसभर खेळपी आशिल्लों.

भुरगे : आंवय ! काळोख जातलोच न्हू रे ?

– सूर्य तेवटेन दोंगरावटेन गेलो म्हणजे काळोख येताच.

– चल काळोख जांवचे पयलीं खेळुंया.

हापो : तुमी खेळटले आनी वतले. हांव एकटोच उरतोलों. मागीर ऽऽ मागीर ऽऽ!

– मागीर तूंय वच घराकडेन तितून कितें न्हू रे ?

– हापो, तूं खेळपाक येयना जाल्यार खेळांत मजाच ना.

सगळे : यो रे हापो - यो रे !

हापो : आरे ! म्हाका यादच ना. आज म्हाका खेळपाक कसलीच मिरांत ना. (बोल्सार हात दवरता) चला या, खेळूंया.

सगळे : शाबास ! हापो खेळूंक येता, शाबास !

(सगळे धरचेल्यांनी खेळटात. मेळन तशे धांवतात – हांसतात खिदळटात – आनी मर्दीच राशीर पडील्लेवरी एकमेकांचेर जमनीर पडटात – हापोक सगळेच वयर उबारतात – हापो हांस हांस हांसना आनी तितल्यांत देवळांतली नवत आयकूंक येता)

भुरगे : (हापोक सकयल दवरून)

भुरगो १ : पुरो ! तिनसांज जायत येयली. हांव वयतां रे बाबा.

भुरगो २ : कितलो काळोख जालो रोखडोच न्ही ? भरपूर खेयळे आमी.

भुरगो ३ : चला या. अे हापो फाल्यांय भरपूर खेळूंया.

भुरगो ४ : हापो, फाल्यांय यो आं. भरपूर मज्जा करूया.

(सगळे भुरगे वतात. हापो फुलां कुरपणो घेवन तांतूनले झेले मेजता.)

हापो : हे झेले आतां भायर उडयतां. आनी सगळे खपले म्हणोन सांगोन मावशेक हे पांच रूपये दितां.

(पैशे काडूंक बोल्सांत हात घालता. पूण पैशे मेळचना)

हापो : (रडकुल्या सुरांत) म्हजे पयशे ! म्हजे पयशे खंय ?

(पयसुल्यान हातांत बडी घेवन येवपी मावशी दिश्टी पड

हापो : आॅ ऽऽ! मावशी ! म्हाका मारतली !

मावशी : (माचयेर येता. तसो हापो पळूंक लागता) हापो ऽऽऽ

हापो : (धांवता धांवता उलो करता) मिंगेलपाय – मिंगेलपाय ऽ

(मिंगेल हापोवटेन येता. हापो मिंगेलीक घट वेंग मारता

मिंगेल : तूं भियेंव नाका रे. हांव चोयता तुका कोण किते कोत्ता तूं म्हुजो जाॅनी. असोच धांवट येवन म्हाका घट्ट वेंग मात्त म्हुजो जाॅनी. हांव आतां तुका केदनाच सोडचों ना.

(परत तेच कातार म्हणता. 'तूं म्हुजो जाॅनी नी हाव रे पाय')

(काळोख)

## एकांकीतलीं पात्रां

राखणदार
गिरेस्त
भिकारी
पयलो पूत
दुसरो पूत
तिसरो पूत
कॉलेज विद्यार्थी - १
कॉलेज विद्यार्थी - २
पसरकार
भाटकार
कर्मचारी
चार/पांच मनीस

---

-५-

# पुण्यफळ

---

(पडडो उगडटा तेन्ना माचयेर मशीं एकेच तरेच्यो दोन वाटो म्हळचार एक सर्गांत वचपाची आनी एक नरकांत वचपाची. दोशी वटेन दोन तलवारी लकल्कतात' तांचे फुडें एक राखणदार. कांय वेळान एका गिरेस्त मनशाचो आत्मो येता.)

गिरेस्त : (हांसत) हॅऽऽ हॅ ऽऽऽ. नमस्कार. (हात जोडोना.)

राखणदार : कोण तुमी ?

गिरेस्त : म्हाका वळखना ? हॅऽऽहॅऽऽ. म्हाका वळखना असो कोणच ना. तूं म्हाका वळखून वळखनाशिल्लेभशेन करता काय कितें ?

राखणदार : तूं धर्तरेवेल्यान आयला ?

गिरेस्त : म्हळयार ? तूं कितें आता मळबातबी आसा अशें दिसलें तुका ?

राखणदार : विचारता तितलेंच सांग. परती जाप नाका. तुका खबर आसा तूं खंय आसा तो ?

गिरेस्त : हाव धर्तरेचेरच आसा. पूण तूं मात न्हिदेंत आसा जांवये.

राखणदार : तूं सर्ग आनी नरकांत म्हणजे, वचपाच्या दारांत.

गिरेस्त : आं ! सर्ग आनी नरक ! म्हणजे, म्हणजे हांव समजूना.

राखणदार : म्हणजे यमराजाचे पाश तुजेभोंवतणी केन्नाच आंवळ्ळे
तूं आतां हांगा पावला. म्हज्या अधिकारांत.

गिरेस्त : तुजो अधिकार ? म्हजेर ?

राखणदार : हय. आतां तुका सर्गांत धाडप कांय नरकांत तो
अधिकार म्हाका आसा.

गिरेस्त : तूं जाणा हांव कोण तो ? म्हजेर अधिकार गाजोवपी
जल्माक येंवचो आसा. हांव ह्या कानाचें त्या कानाक
पयलीं कितेंय करूंक शकतां.

राखणदार : तुजो भ्रम तो. तूं कांयच करूं शकना.

गिरेस्त : हांव सत्ताधीश आसां. करोडोपती आसां. हांव कितेंय
शकतां. इतलेंच न्हय म्हज्या हातांत सगळ्या लोकांची
आसा. सगळो देस म्हजे मुठींत आसा.

राखणदार : पूण ते लोक, तो देस हांगा ना. हांगा फक्त तूं आनी
तुजी सत्ता केन्नाच सोंपली. थंय तुजो जागो दुस
बळकायलो लेगीत.

गिरेस्त : हें केन्नाच शक्य ना. म्हजो अधिकारपदाचो जागो म्ह
पुताच्या हातांत दिवन मागीरच जीव सोडटोलों हांव.

राखणदार : धर्तरेवेले सगळे हांगा पावतकीर अशेंच भोंकत
(आपलेभितर) हरशीं मेल्या उपरान्त थोडोवेळ हून
उरताच.

गिरेस्त : तूं फोट उलयता. तूं म्हाका फटोंवक सोदता.

राखणदार : (हांसता) फोट म्हळ्यार ? एक नवोच शब्द तुजेकडल्य
आयकलों.

गिरेस्त : तुका निमणें सांगतां. म्हज्या इतलो वायट मनीस हे धर्तर
ना. हांव बऱ्याक बरों. म्हजे पांय धरशी जाल्यार
मोगशी. नाजाल्यार हांव आतांचे आतां तुजी विटंबना क
शकतां. तुका जिणेतल्यान उठोंवक शकतां. तुका ह्याल
करून मारूंक शकतां. हांव ह्या देशाचो सत्ताधीश आसा.

राखणदार : उलय. जाय तितलें उलय. एक फावट भितर गेल्यार मा
आनी कांयच करूंक मेळचेंना.

गिरेस्त : म्हजीं फकाणां करूं नाका. खरें सांगता. हांव तुजी
फुटपाथावेल्या भिकाऱ्यापरसूय वायट दशा करून उडयत
(इतल्यांत एका भिकाऱ्याचो आत्मो येता)

भिकारी : राम ... राम ... श्रीराम (हात जोडून पायां पडटा.)

राखणदार : पळय आनी एक आत्मो. तुजेसारखोच. दोगायमदीं कांयच फरक ना.

गिरेस्त : म्हजी त्या भिकाऱ्याकडेन तुलना करता ?

राखणदार : तूंय एक आत्मो. तुजी सत्ता, तुजी गिरेस्तकाय, तुजो देस, तुजें घर हें सगळें खिणापुरतें. तशेंच हाचें. हागेली गरिबी, तो फुटपाथ, ती खोंपटी हें सगळें खिणापुरतें. तांतले कांय एक हांगा हाडप शक्य ना. इतलेंच न्हय, तुमची कूड लेगीत थंयच आसा. आतां तुमी फकत रिकामे आत्मे. तुमचें काम सोंपलें. म्हजें काम सुरू. तुमी जें आयुष्य भोगून थंय जीं कर्मा केलीं ताजे सारखें मोजामप करून तुमकां सर्गांत कांय नरकांत धाडप ते म्हजें काम.

गिरेस्त : (गोंदळून) म्हणजे खरेंच हांव धर्तरेचेर ना ? म्हजें सगळें सोंपलें. हांव सत्ताधीश ना ? हांव हांव म्हळ्यार तो गिरेस्त न्ही ? हांव म्हळ्यार सत्ताधीकारी न्हय ? हांव म्हळ्यार तो धर्तरेवेलो दादासायब उरूंकच ना आरेरे ! आतां फकत सर्ग काय नरक.(थांबून) तशें जाल्यार हांव सर्गांत वतलों. म्हजो जागो सर्गांत. चल, दाखय म्हाका सर्गाची वाट.

राखणदार : आतां क्सो जाग्यार आयलो.

भिकारी : धनी, म्हजी काकळूट करात.

राखणदार : हांगा कोणाचीय काकळूट करीनात. हांगा कोणाचेर उपकारय करीनात. हांगा चलता ती एक खरीखुरी न्याय पद्दत

गिरेस्त : तशें जाल्यार तुमच्या न्यायापरमाणे हांव ...... न्ही ... न्ही हो भिकारी खंय वतलो ? नरकांत काय सर्गांत ?

राखणदार : नरकांत ... (भिकारी भियेता) कांय ... सर्गांत तें हांव आतांच सांगूक शकना.

गिरेस्त : पूण हांव मात सर्गांतच पावतलों न्हय ?

राखणदार : कोणाक खबर !

गिरेस्त :(निडकून) मागीर तुमचो न्याय, न्याय म्हळ्यार तुमी करतात तरी कितें ?

राखणदार : कर्माचें मोजमाप घेवप.

गिरेस्त : घेयात तर. आनी वेळ कित्याक ?

राखणदार : तुका वेळ जाता ? तुमकां वेळ जाता आनी वचपाची इतली तातीद आसा जाल्यार तुमी गेल्यार जाता.

गिरेस्त : (भिकाऱ्याक) तुका येवपाचें आसा ?

भिकारी : हय धनया.

गिरेस्त : मागीर यो तर. (दोगूय दाराम्हऱ्यांत वतात. खं
दारांतल्यान वचप तेंच तांका कळना)

गिरेस्त : खंयच्या दारांतल्यान वचप ?

राखणदार : खंय ?

गिरेस्त : सर्गांत.

राखणदार : तें म्हाका खबर आशिल्लें जाल्यार तुका हांव केन्नाच सां
आशिल्लों. पूण इतलें खरें हातूंतली एक वाट सर्गांत
आनी दुसरी नरकांत.

गिरेस्त : (भिकाऱ्याक) तूं पयलीं हे वाटन भितर वच आनी ती
पावता ती पळोवन यो. हांव हांगाच रावतां.

राखणदार : एक फावट भितर गेलो जाल्यार भायर येवप शक्य ज
ना.

गिरेस्त : तें हांव पळोवन घेन. (भिकाऱ्याक) चल वच रे तूं.

भिकारी : आनी हांव नरकांत पावलों जाल्यार ?

गिरेस्त : नाय जाल्यार धर्तरेर कितें सर्गांतली जीण जगता
नरकांत पावलो जाल्यार खंय ! थंय कसल्या गटा
लोळटालो तुकाच खबर. चल वच. सर फुडें.

भिकारी : (फाटीं सरता) हांव वचना. म्हाका भिरांत दिसता.

गिरेस्त : नाजाल्यार अशें करूंया. तूं ह्या दारांतल्यान वच. हांव
दारांतल्यान वतां. नाका तूं त्या दारांतल्यान वच हांव
... नाका ... तूं ह्या हांव त्या ... दारांतल्यान वच हांव
... नाका ... तूं ह्या हांव त्या ... (दोगय हेवटेन ते
करीत घुस्पत उरतात)

राखणदार : (मोठमोठ्यान हांसता) हांगा आयिल्ले सगळे अशेच कर
हरशीं मनशाची जीण भोगिल्लो दर एकलो हांगा येत
इतलो हुतहुतेपणान कित्याक धडपडटा तेंच समजना.

गिरेस्त : (ताचे दिकेन येता) तूं आमकां सतायता छळटा. म्ह
हातांत सत्ता आशिल्ली पूण असो छळ हांवे केन्नाच कोणा
करूंना.

राखणदार : आसत. तूं खरेलोच बरो आसत. घडये तुज्या मर
धर्तरेर आज एक दुःखाचें काळेंकुट्ट सांवट पसरलां आ
तुज्या मरणान थंय दुकांच्यो न्हंयो व्हांवता आसूंये.

गिरेस्त : जातलेंच सगळयांक वायट दिसतलें. खरें म्हणशी जाल्यार तुमी म्हज्या अदर्चा कामावेल्यान म्हाका उठयलो.

राखणदार : तुका आनीकय जगचें आशिल्लें ?

गिरेस्त : हय. म्हजें समाजकार्य पुरें जावंकच ना.

राखणदार : समाजकार्य म्हळयार ?

गिरेस्त : समाजकार्य म्हळयार ... म्हळयार . . .

राखणदार : आं हां ! समजलें समजलें . . . समाजकार्य . . . (भिकाऱ्याकडेन पळोवन) आनी तुजें रें ?

भिकारी : धनी, आमचें कसलें काम ! आमी दीसभर उपाशीं. पोरांचे हाल धनी. बायलेचे हाल.

राखणदार : पूण तूं एक गरीब भिकारी जावन तुवें बायल कित्याक केली ? भुरग्यांक जल्माक कित्याक घालीं ?

भिकारी : चूक जाली धनया.

राखणदार : (हांसता) पूण राव रे. तुका भीक मागचेली गरजच कसली ? धर्तरेचेर अशीं कितें कामाच नात ?

भिकारी : परिस्थिती धनया. परिस्थितीक लागून म्हाका भीक मागची पडली.

राखणदार : आतां तुजेखातीर सकयल खूब वायट दिसलां आसूंये ?

भिकारी : हय धनया. हांव भिकेन जोडटालों. तांतूत बायल भुरगीं आनी त्या भायर बाकीच्या भिकाऱ्यांचीय पोटां भरतालों.

राखणदार : इतली जोड जाता भीक मागून ?

भिकारी : (आडखळटा) कसली जोड धनया ?

राखणदार : (हांसता) खरेंच तुमी दोगूय इतले बरें अशें म्हाका दिसूंकूच नाशिल्लें.

दोगूय : आमी खरेंच बरे. आमी कोणाचेंच वायट करूंना.

गिरेस्त : हांवे केन्नाच कोणाक दुखोवंक ना.

भिकारी : हांवेय धनया.

गिरेस्त : हांव ना कोणाच्या रिणांत ना शिणांत.

भिकारी : हांवय धनया.

गिरेस्त : हांवे कोणाचें घेवंक ना. कोणाचें खावंक ना.

भिकारी : हांवेय धनया.

गिरेस्त : हांव म्हजे बुद्दीन मोठो जालों. गिरेस्त जालों.

भिकारी : हांव, हांव परिस्थितीन गरीबच उरलों.

गिरेस्त : हांव सत्ताधीश जालों. पूण सत्तेची भांग म्हाका केन्नाच

चडली ना.

भिकारी : हांव गरीब. पूण दुसऱ्याची गिरेस्तकाय केन्नाच म्हज दोळ्यांत खुपली ना.

गिरेस्त : हांवे कोणाचीच कसल्याच कामाखातीर लांच घेवंक ना.

भिकारी : हांवे केन्नाच कोणाचेंच कांयच चोरलें ना.

गिरेस्त : हांवे न्यायाक न्याय दिलो. अन्यायाआड झगडलों.

भिकारी : हांव न्यायानूच वागलों. केन्नाच कोणाचेर अन्याय केलो न

गिरेस्त : म्हजी सगळी जीण हांवे समाजकार्याक घालयली. सत्ताधी जावन लेगीत लोकांची सेवा करपाक म्हाका लज दिसली न

भिकारी : गरिबींत लेगीत सुख देखलें हांवे. सगळी जीण गरिबीचें उ काडीत खर्चिली.

राखणदार : (मोठयान) फोट. फोट सगळें.

दोगूय : ना. खरेंच. खरें तेंच सांगले हांवे.

राखणदार : परत एकदां फोट. अशें परत परत फोट उलयशात जाल्या पापाचें दालें जड जायत वतलें हाची जाणवीकाय आसा तुमकां ? खूब तूस्त केली तुमी स्वतःची. तुमकां अशें दिसत म्हाका कांयच खबर ना ? तुमकां अशें दिसता, तुमच कर्माची हांगा नोंद जावंक ना ? हांगा दर एके गजालि नोंद त्याचवेळार जायत आसता तुमी धर्तरेवेले सोंपले आ लोकांक वायट दिसलें अशें दिसता तुमकां, जाल्यार पळय धर्तरेचेर कितें चल्लां ते !

(काळोख. राखणदार गिरेस्ताक धर्तरेर चल्लां तें दाखयत भिकारी काळखांत उबो. फुडें एका कोनशाक प्रेताम्हऱ्यां बशिल्ले बशेन तीग जाण बसल्यात. फुडें दिवली आस ती पेटना.)

राखणदार : तें तुजें प्रेत. थंय एक दिवली आसा. पूण ती दिवली लेगी तुज्या प्रेताम्हऱ्यांत पेटपाक तयार ना. (एक मिनेर ह घेवन येता. प्रेताचेर हार घालता. फोटोग्राफर फोटो मारत तिगांय पुतांकडेन उलयल्याबशेन करता. तांचेमदी रावन ए फोटो घेता.)

गिरेस्त : हो पळय. हो तो कोण जाण ? तो देशांतलो एक मोठ् मिनेर. मुद्दाम हार घेवन आयला. पळयलो ?

राखणदार : तो एक मिनेर. तो खणीवेल्या कामगारांचे रगत पीवन मो जालो आनी ताच्या रगतार तूं सत्ताधीश जालो. आज

तुज्या मडयाचेर हार घालता कारण कितें जाणा ? कारण तुज्या मडयाक हार घातल्याबगर दुसरो सत्ताधीश ताका लागीं करचो ना. एक हार घालून तो आपली बूनयाद घट करता. फाल्यां दुसरो मरतगीर ताकाय हार घालूंक वतलो.
(मिनेर दोळे पुसता.)

गिरेस्त : पळय. ताका खरेंच बायट दिसलां. तो पळय दोळे पुसता.

राखणदार : दोळे पुसप म्हळयार दूःख न्हय. सुर्वेक तुजे पूतय थंयच बसून रडले. पूण वेल्यावयर. तशे रडचेंच पडटा, दोळे पुसचेच पडटात. नाजाल्यार लोक कितें म्हणटले ? आतां तुजे पूत थंयच बसल्यात. पूण तांच्या मनात तुजेविशी ना मोग, ना माया. तुजें प्रेत थंय आसा तें ते विसरूनच गेल्यात. तांच्या मनात कितें चललां जाणा . . . .

एक पूत : (मनातलो विचार) हांव व्हडलो. ही इस्टेट म्हज्याच नावांर जावंक जाय.

दुसरो पूत : व्हडलो भाव सगळी इस्टेट आपल्याच नांवार कशी करता तें हांव पळेतलों.

तीसरो पूत : व्हडलो भाव, मदलो भाव त्याभायर आवय. म्हळयार वाटयाक येतलें तरी कितें ? कितें तरी तकली काडूंकच जाय.

राखणदार : पळेलें ? इस्टेटीचो विचार करतात ते. आरे, मडें मसणांत केन्ना वतलें ताची वाट पळेतात ते.

गिरेस्त : ना – ना. अशें केन्नाच जावचें ना. (मंत्र्याच्या भेसांत एकलो येता) तो पळय. तो पळेलो ? तो म्हज्या मंत्रीमंडळातलो. ताचें तोंड दुःखान कशें सुजलां पळय. येदो व्हडलो मंत्री ! तो केन्नापासून थंय आसा देव जाणा.

राखणदार : तो तूं मरतपासून थंयच आसा. पयलीं तो सरपंच आशिल्लो. तुजे पांय धरून धरून आमदार जालो. मागीर मंत्री जालो आनी एक दीस सत्ताधीश जातलो जाल्यार हीं असलीं सवंगां करचींच पडटात. असलीं खूब सवंगा येतलीं तुज्या मडयासरी. आतां घरांतली नदर काड. थंय मायर पळे ...
(काळोख. भायलो देखाव.)

राखणदार : भायर पळे. लोक कितें उलयतात तें आयक. तांकां कितली खोस जाल्या ती पळय.
(दोकीवटेन दोन कॉलेज तरूण येतात.)

एकलो : हॅलो फ्रेंड, आज मजा मरे.

दुसरो : कसली मजा. आज पेपर आसा मरे आमकां, तें विसरलो ?
एकलो : आरे पेपर कसलो ? पेपर आतां बेगीन जायना.
दुसरो : कित्याक ? आयचोय पेपर फुटलो ?
एकलो : पेपर फुटूंना. आरे आमी मागतात तेंच जालें.
दुसरो : म्हणजे कोण राजकारणी बी खंवसलो काय कितें ?
एकलो : आरे सत्ताधीकारी दादासायब गेलो.
दुसरो : खरेंच ! वा वा ! म्हणजे आनी म्हयनोभर तरी चिंता न
(एक पसरकार येता.)
एकलो : कितें पसरकारा, आज धंदो बंद मरे ?
पसरकार : हय मरे. न्ही त्या वेळार अवदसा गेली मरे.
दुसरो : तूं दादासायबाक अवदसा म्हणटा ? तुमीच तर इलेसांवां
ताका पैसो दिताले मरे.
पसरकार : आरे दादासायब कितें आनी काकासायब कितें ? आमक
चुकता ?
एकलो : हय तर ! अशे खावयलेबगर कितेंय काळेंबेरें करूंक मेळ
तुमकां ?
दुसरो : जांव रे पूण अवदसा म्हणप येदचा व्हड मनशाक ?
पसरकार : आरे अवदसाच ती. तो कितें बरो मनीस. तूं, हांव तरी बर
जितो आशिल्लो तेन्ना कसलेंय काम जाल्यार आमक
पैशांवटेन मार आशिल्लोच आनी आज मेलो तो सुद्दां बरोब
बाजाराच्या गिरायका दिसाच कित्याक मेलो ? मरतना सु
आमकां खावप मरे ? (भाटकार येता.)
भाटकार : (नवीनच गजाल सांगिल्लेवरी) आरे दादासायब गेलो खंय.
पसरकार : जांव. वचचे पयलीं तुजें काम जालेंच मरे ? चल्याक नोक
मेळ्ळीच.
एकलो तरनाटो : तशें नोकरी कितें गुणाचेर मेळटली म्हणून राविल्लो जाल्य
विनो आयुष्यभर घरांतच उरतलो आशिल्लो. न्ही भाटकारा
भाटकार : बरे धा हजार दिल्यात. फुकट पोरा विन्याक नोकरी मेळूं न
म्हळें, सेक्रेटरीअेटांत नोकरी मेळचार आपोआप मंत्र्यांकडे
वळखी जातल्यो. वळखीन केन्नाय कितेंय करूं येता. आ
पळय दादासायब गेलो. चिंता ना. विन्याच्यो सगळ्यांकडे
बऱ्यो दाट वळखी आसात. कितें ?
(सरकारी कर्मचारी येता.)
कर्मचारी : मजा मरे आज. आमकां गोव्हरमेंट ऑफिसांक सदचा पय

तीन दीस सुटी जाहीर केल्या. अशें कितेंय अदींमदीं जांवकच जाय. वाज आयिल्लो ऑफिसांत बसून बसून. (सगळेच हांसतात.)

माटकार : आतां अशें करूंया. अशेच क्लबांत या.

कर्मचारी : आज क्लब बंद आसतलो. दुःख दाखोंवक नाका ?

माटकार : आरे, बंद म्हणजे कितें ? रस्ता बंद. आंत काम चालू आहे (सगळे हांसत वतात.)

राखणदार : पळेले तुजे गुण ? पळेलें तुजें दुःख ? आयकलीं तुजीं कर्मां ? वेल्यान तूं सांगता तुवें कांयच वायट करूना. तूं बरो. तुजेखातीर रडटली जनता.

(काळोख. आतां राखणदार भिकाऱ्याम्हऱ्यांत उबो.)

राखणदार : तुजें प्रेत थंय फुटपाथाचे कडेक पडलां. पळेलें ?

भिकारी : हय.

राखणदार : थंय कोणच ना. ना तुजीं भुरगीं ना बायल. खंय गेले सगळे ? (इतल्यांत एक भिकारी येता आनी प्रेताम्हऱ्यांत वता )

भिकारी : हो पळय आयलो. पळेलो ? आयलो. तो म्हजो इश्ट. तो पळय म्हज्या प्रेताचेर मायेन हात फिरायता.

राखणदार : फोट. तो हात फिरायता तो मायेन न्हय. तो तुका सांसपिता. तुज्या ब्रोल्सांत तुजे चुमडेंत कितेंय आयतेंच मेळटा जाल्यार तो पळयता.

(ताका धा रूपयाची नोट मेळटा. तो खोशेन हांसत वता.)

राखणदार : पळेलो ? तो हांसता. सकाळीं सकाळींच ताका धा रूपये आयतेच मेळ्ळे. खोस जाली ताका. तो चिंतता किं, आनी एकटो फुटपाथावेलो उणो जालो. खूब बरें जालें.

(दोग जाण पासयेक आयिल्लेवरी येतात तांका प्रेत दिश्टी पडटा.)

एकलो : आरे हो मेलो काय कितें ?

दुसरो : मेलो मरे. बरें जालें. नाजाल्यार फुटपाथावेल्यान येवंक वचूंक मेळनाशिल्लें. जशें किते आपलेच खातीर हे फुटपाथ बांदून काडल्यात.

एकलो : आरे धा पैशे दिल्यार शेंवटितालो जाणा ? मदांद जाल्लो.

दुसरो : तूं ताका वळखूंक ना. तो भिकारी असलो तसलो न्हय. बरो आशिल्लो तो.

एकलो : खरें काय कितें ?

दुसरो : आनी ! पूण आज दरएकल्याक हो धंदो सवाय सांपडत
बीनभांडवली धंदो.

एकलो : हय. हातपाय सोडले, भीक मागूंक बसले.

दुसरो : तूं जाणा हो कोण तो ? हो एकवेळचो दादासायबा
लागींचो इश्ट. उजवो हात. हागेलें मूत जळटालें तेन्ना.

एकलो : म्हणजे हो तो रे ... घनश्याम.

दुसरो : आं हां. एक दीस दादासायबान हागेलो सारको घात मारल
मागीर हागेल्यो किळच्यो. दादा तो. सत्ता ताच्या हातां
ताणे सारखे धपटायलें सगळें भितरलेभितर आनी हाचे के
बारा बिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार.

एकलो : पळय न्हीं योगायोग कसो तो. दोगूय एकाच दिसा गेले.

दुसरो : आरे, राजकारणी आनी हे भिकारी हांच्यांत वेगळेपण
कांयच ना. कांय जाण एके रातींत मंत्री जातात आनी ते
एके रातींत भिकारी जातात.

एकलो : एकावेळार दादासायबालो इश्ट हो आजूय तसोच आशिल्ल
जाल्यार दादासायबाच्या मड्याबराबर हाच्याय मड्या
एक मिरवणूक जातली आशिल्ली.

दुसरो : मिरवणूक जातलीच आशिल्ली. पूण लोक म्हणटले आशिल
किं ताका दादासायबाच्या मरणान अती दुःख जालें आ
"त्याची जीवनज्योत मालवली."

एकलो : हय रे बाबा. हें मात सामकें खरें. (हांसत वतात.
(आनी दोग जाण स्मगलरच्या भेसांत येतात)

भिकारी : धनी, धनी ते पळय व्हडले मनीस आयल्यात ते व्हड
गिरेस्त त्या गांवचे. म्हज्या मरणाचें तांकां लेगीत दु
जालां धनी.
(ते दोगूय हेवटेन तेवटेन पळयत येतात आनी मड्या
बारीक नियाळटात. थंयच बसतात.)

भिकारी : धनी, ते बसले म्हज्या मड्यासरीं. खरेंच हांव पूण्यवान ध
हांव पूण्यवान.

राखणदार : आरेरे ! कितले फोट आशेर जगलो रे तूं. तुज्या मड्यास
बसून ते कितें चिंततात जाणा तूं ...

मनीस : १ : म्हाका दिसता हो आतांच मेला आसूंये. आजून हूनस
आसा.

मनीस : २ : चड वेळ घालोंव नाका. मडें उबारपाचें जाल्यार सांग.

नीस : १ : हाच्या मेंदवाचो उपेग जावचोना. मूत्रपींड उपेगाक येतलें.

नीस : २ : मुत्रपींड जाल्यार मुत्रपींड. नीदान पंधरा वीस हजार तरी मेळटले कांय ना ? त्या भायर दोळे, काळीज लेगीत उपेगाक येतलें.

नीस : १ : कोण पळयना मरे. चल व्हरूंया. खूब तेपान संद मेळटा. ती व्होगडावन उपेग ना.

नीस : २ : चल, उबार. (उबारील्ली ॲक्शन घेवन वतात.)
(राखणदार भिकाऱ्याकडेन पळोवन हांसता. काळोख. उजवाड जाता तेन्ना ...)

गिरेस्त : महाराज, महाराज म्हाका सर्गाची वाट दाखयात.

भिकारी : धनी म्हाका समजून घेयात धनी. (पांय धरपाक वता.)

गिरेस्त : हांवे अजूनमेरेन कोणाचेच पांय धरले ना. कोणाकडेन कसलीच भीक मागली ना. आज पयलेच खेप तुमचेलागीं मागतां म्हणून तरी म्हाका सर्गांत धाडात.

भिकारी : धनी पायां पडटा धनी. आतां तरी सर्गांत धाडून म्हाका सुखाची भीक घालात धनी.

गिरेस्त : (आपले भितर) पायां पडप ? कशें पडप तें ? सामकें न्हिदून ? म्हाका लोक पडटाले तशे ? नाक घासप पायांचेर ? हय. तशेंच करचे पडटलें. सर्गांत वचचें आसा जाल्यार मात भीडमुरवत धरीनासतना म्हाका पायांर घालून घेवचेंच पडटलें. (उक्तेपणी) पायां पडटां तुमच्या. पूण म्हजेर उपकार करात.
(पायांर घालून घेता. पूण इतल्यांत राखणदार फाटीं सरता आनी गिरेस्त, राखणदार समजून भिकाऱ्याचे पांय धरता.)

गिरेस्त : म्हाका माफ करात म्हाराज, माफ करात.
(भिकाऱ्याक उतरां याद जातात. "हो एकावेळार दादासायबालो इश्ट, उजवो हात. दादासायबान हाचो सारको घात केलो")

भिकारी : माफी ? ना. हांव तुका केन्नाच माफ करचोना.

गिरेस्त : अशें करूं नाका म्हाराज.

भिकारी : आतां म्हाका म्हाराज म्हणून लागीं करूंक सोदता. तुवेंच म्हाका ही भिकाऱ्याची जीण जगयली. म्हजो संसार तुवें उधळून उडयलो. इश्ट-इश्ट म्हणून तुजेर विश्वास दवरून रावलों हांव.

गिरेस्त : (कच्च करून वयर पळेता) आँ ! इश्ट. तूं म्हजो इ

भिकारी : वळखलोना ? एकवेळचो तुजो इश्ट घनश्याम !

गिरेस्त : घ ऽ ऽ न ऽ ऽ श्याम (ताका वेंग मारूंक वता तो फाटीं सरता

भिकारी : हय. तुका वेळ प्रसंगाक पावपी तुजो इश्ट घनश्याम.

गिरेस्त : एकदां म्हाका बुडयतना वाचवपी तो तूं घनश्याम.

भिकारी : आनी उपरांत ताका तुवें बुडयलो तो हांव घनश्याम.

गिरेस्त : घनश्याम अशें उलोंव नाका. आज म्हाका तुजोच आदार

भिकारी : पूण तो घनश्याम तेन्नाच मेलो जेन्ना तुवें फुटपाथार शेंवटिल

गिरेस्त : हांव चूक मागतां. म्हाका माफ कर.

भिकारी : हांव माफ करूंक शकना. आतां हांव तुका सांगात दिव
शकना. आयती आयिल्ली संद हांव व्होगडावचों ना. ह
सगळें ओकतोलों.

गिरेस्त : घनश्याम, तुका हांव नरकांत गेल्लो जाय ?

भिकारी : ताजेपरस आनी बरी ख्यास्त कसली फावता तुका ? तुज
नीच कृत्याची पावती तुका दिवंकच जाय.

गिरेस्त : कळनासताना घडलें म्हजेकडल्यान आतां विसर तें.

भिकारी : तूं एक सत्ताधीश, कोटयाधीश. तुका बुडटना वांचयलो आ
इश्ट म्हणून आमी लागीं आयले. इश्टाच्या नात्यान
आमगेर येतालो. म्हजो मान - रेस्पेद वाडलो. पैशांचे आश
हांव कितलो पयस गेलों म्हाका कळळेंच ना. हेव
संसाराक कीड लागतली हें चिंतलेंच ना.

गिरेस्त : जीब आवर तुजी घनश्याम, जीब आवर.

भिकारी : एक दीस हांव बंगल्यार ना हें जाणा जावन तूं बंगल्य
आयलो आनी आनी ...... तेच रातीं तिणें जीव दिल
जेन्ना हाव परतलों तेन्ना वेळ जाल्लो. गावांत लोक ल्हव
फुतफुतताले. म्हाका खरेंच दिसलेंना. लोक उलयतात तें फ
अशेंच दिसलें. जेन्ना धीर करून तुकाच विचारलें तेन्ना त
सांगलें ...
(आवाज " घना, म्हज्या पैशांचेर मोठो जाला मरे तूं ? म्हज्य
पैशांचेर जगता मरे ? म्हाकाच लागून तुका रेस्पेद मरे
मागीर खंयच्या तोणान तूं म्हाका तेविशीं विचारूंक आयल
सुशेगाद जगचें आसल्यार तोंड धापून राव. नाजाल्यार व
कितें दडपूचें आनी तुका वाटेक लावंचो तेंय हांव जाणा

भिकारी : आनी तोंड उगडचे पयलीं तुवें म्हाका भिकेक लाय

सत्तेच्या बळार. पैशांच्या बळार.

गिरेस्त : चूक मागली ! पांय धल्ले ! तरी तूं उलयलोच. कोणा कडल्यान चूक घडना ? तुवेंनय एक दीस तरी फुटपाथाचेर अशीच चूक केल्या आसतलीच ! (भिकारी आंग काडटा.) हांवेय एक चूकच केल्ली. हांव सत्ताधीश आशिल्लों, गिरेस्त आशिल्लों. पूण मनांत शांती नाशिल्ली. सुखी नाशिल्लों हांव. लोक कामा पुरते दादासायब म्हणटाले. पूण एक दीस तरी कोणेय म्हजे जिणेच्याभितर पळेलां ? घना, म्हाका बायल आशिल्ली. पूण सत्तेफुडें तिका हांव कांयच दिवंक शकलोना. तरण्या रगताची ती दुसरेवटेन व्हांवत गेल्ली. म्हजेपासून पयस रावंक लागली. तिका गरज आशिल्ली ती फकत म्हजे इस्टेटीची. हांव कांयच करूंक शकनासलों. मागीर म्हजी भूक भागोंवक म्हज्या हातांतल्यान एक दीस तुज्या घरांत चूक घडली. आजूनय म्हाका समजून घे घना. सोब्रीत सुंदर कमळाचो देंठ खोल रेव्यांत बुडून रावला हाचें दुःख त्या कमळाकूच खबर आसता घना. लोक पळेतात तें फकत कमळ.

राखणदार : जालें तुमचें उलोवन ? चलात वेळ जालो. तुमच्या कर्माचें मोजमाप जालें.

दोगूय : आमकां खंय धाडटले तुमी ?

राखणदार : तो एक प्रश्नच पडला म्हाका. हांव हांगा राखणदार म्हणून आशिल्याक एकाच वेळार दोन इश्ट ह्या दारांत येवपाचो म्हजे बाबतींत जाल्यार ही पयलीच खेप. ताका लागून कोणाक खंय धाडचो हेंच म्हाका समजना.

गिरेस्त : आमकां सर्गाची वाट दाखयश्यात ?

राखणदार : जरूर. खरें म्हळ्यार तुमकां सर्गांतच धाडपाक जाय.

दोगूय : खरेंच ? (दोगूय खोशेन हांसतात.)

गिरेस्त : घना, पुण्यवान थारले आमी (हांसतात. तांचे बराबर राखणदारय हासता) आमी सर्गांत वचपाचें. घना, आरे पुण्यवान आमी पुण्यवान.

भिकारी : दाखयता म्ही आमकां वाट ?

राखणदार : अवश्य. (दारामुख्यांत वता.) पूण वाट म्हाकाय खबर ना.

गिरेस्त : मागीर आमी वचप तरी कशें ?

राखणदार : एक खेळ खेळप. एक गेम !

गरीब : आतां आनी कसलो खेळ ?

गिरेस्त : पुण्यवान मनशांची अशी फकाणाय चलतात हांगा ?

राखणदार : कोण पुण्यवान ?

दोगूय : आमी.

राखणदार : कोण सांगता ?

गिरेस्त : आतांच तुमी म्हणूना आमकां सर्गांत धाडपाक जाय म्हणून

राखणदार : म्हळां. तुमकां पळोवन तशें दिसलें म्हाका. तुमकां धाडट अशें सांगूना. अजून म्हजो निर्णय थारचो आसा.

गिरेस्त : तुमी इतल्या नीचपणान खेळयतात हांगा आयिल्ल्यांक ?

राखणदार : जे दुसऱ्यांक खेळयतात तांका हांगा खेळोवचेंच पडटा.

दोगूय : आमी तुका मारून वतले.

राखणदार : म्हाका मारल्यार वाट कळटली ? आनी म्हाका तुमं मारूंकच शकना. म्हजेर एक घाव घालशात जाल्यार तुमचे पुण्य कमी जायत वतलें आनी पाप वाडत वतलें.

भिकारी : तूं आमकां पापपुण्याचो भंय घालून भिशटायता. आमी तुक मारतलेच.

राखणदार : तुमी मारतलेच ? खरेंच म्हाकां मारतले ?

दोगूय : हय. आमी आतां भिवचे ना पापपुण्याक.

राखणदार : तशें जाल्यार हांव तुमकां मदत करतां.

गिरेस्त : आतां कसो जाग्यार आयलो !

राखणदार : खरेंच तुमकां हांव मदत करूंक सोदतां.

भिकारी : सांग तर. सगळें सारके सांग.

राखणदार : चलात. दाराम्हऱ्यांत चलात. (वतात) ह्या दारांत ...

गिरेस्त : ह्या दारांतल्यान गेल्यार कितें सर्ग मेळटा ? खरें सांग. (दोगूय वचपाक फुडें सरतात.)

राखणदार : सारकें आयकात पयलीं. ह्या दारांत एक तलवार त्या दारांत एक तलवार, एकूण दोन तलवारी. एक एक घेयात आनी मारात म्हाका.

गिरेस्त : म्हणजे तूं आमकां मदत करूंक सोदता ती तुका मारपाक ?

भिकारी : आनी तूं कसो झगडटलो ?

राखणदार : म्हाका कित्याक झगडूंक जाय ?

गिरेस्त : तुका भंय दिसना ?

राखणदार : (हांसता) तुमचें पुण्य देवतलें किंवा पाप वाडटलें जाल्यार म्हाका भंय कसलो. चलात घेयात त्यो तलवारी.

(दोगूय फुडें वतात आनी फाटीं सरतात.)

राखणदार : मारनात ? भंय दिसता ?

आसूं. तर आयकात. तूं धर्तरेवेलो एक गिरेस्त, तूं भिकारी. तुजी सगळया लोकांचेर सत्ता जाल्यार तुजी एका फुटपाथाचेर सत्ता. तूं लांच घेवपी, तूं भीक घेवपी. तुमी एकमेकाचे पयलिंचे इश्ट, जाल्यार मागीर कट्टे दुस्मान. तूं जनतेची फटवणूक करून वयर सरलो जाल्यार तूं पैशांचे आशेन संसार उगडयार वडोवन फुटपाथार पडलो. तुवें ताचे बायलेचो भोग घेतलो, जाल्यार तुवें ताच्या पैशांचो. एकूण तुमी म्हळयार एक छत्तीस आंकडो कशे. अशे उरफाटया गुणाचे तुमी तुमकां दोगांकूय सर्गांत धाडप कशें शक्य जातलें ? तें न्यायांत बसचें ना. तुमकां एकटयाक कोणाकय सर्गांत वचूंक मेळटलें आनी दुसऱ्याक नरकांत. सट्ट करून सांगात कोण नरकांत वचूंक तयार आसा ? (दोगूय वगी)

तुमी, वगी आसात म्हळयार कितें समजुपाचें, दोगय नरकांत वचूंक तयार आसात ? तुमची खोशी. नरकांत दोगूय वचूंक तयार आसात जाल्यार प्रश्नच सुटलो.

दोगूय : ना. हांव सर्गांत वतलो. (दोगूय 'हांव वतलो तूं वतलो' करताले.)

राखणदार : तुमचें हें अशें जातले म्हण्न हांव जाणाच आशिल्लों. म्हणून हांवे तुमकां वदळूच सांगलां ...

भिकारी : कितें सांगलां ?

गिरेस्त : दोगांकूय सर्गांत धाडपाक जाय हेंच मू ?

राखणदार : अँ ऽऽ हूँ ! एक खेळ – एक गेम.

भिकारी : खेळांत कोण जिकता ताणें सर्गांत वचप.

राखणदार : न्हय. हो खेळ म्हळयार जिकप-हारप असलें कांय ना. सामको सादो. तुमच्या पाप-पुण्याचेर तुमी आपोआप दोगूय सर्गांत किंवा नरकांत पावतले. किंवा एकटो सर्गांत एकटो नरकांत पावतोलो. ज्याच्या ताच्या पापपुण्याचेर अवलंबून.

गिरेस्त : खेळ तरी कसलो ?

राखणदार : आं खेळ ! खेळ असो.

ह्यो दोन वाटो. एक वता सर्गांत एक नरकांत. तुमच्यांतलो कोणूय एकटो पयलीं जाय त्या दारांतल्यान भितर वचात. तो सर्ग आसूं वा नरक. ताका एकचदां परत येंवक मेळटलें.

येवन ताणे दुसऱ्याक ती वाट खंय वता ती सांगची. म्हाक
बरें. म्हाकाय कळटलें खंयची वाट खंय वता ती.

गिरेस्त : तशें जाल्यार हांव पयलीं वता. पूण तूं सांगता त्या प्रमा
भायर येवंक मेळटलें हें खरें मू ?

राखणदार : अवश्य. त्रीवार खरें.

गिरेस्त : मागीर हांव तयार आसां

राखणदार : फुडें आयक. भायर येवन ताणे ती वाट खंय वता तें सांग
म्हणटगीर दुसऱ्याक तेच वाटेन भितर वचूंक मेळचेंना, मागी
ती वाट सर्गाची आसूं वा नरकाची.

भिकारी : म्हणजे तो गेलो ती वाट सर्गाची आसली जाल्यार हां
नरकाचे वाटेन वचप ?

राखणदार : अवश्य. वचूंकच जाय. होच तर खेळ आसा.

भिकारी : जो सुरवेक वता ताका मात भायर येवपाक संद मेळटा मागी
दुसऱ्याक कित्याक ना ? तशें जाल्यार हांव वतां पयलीं.

गिरेस्त : हांवे पयलींच सांगलां हांव वतां म्हणून. आतां तुका पयल
वचूंक मेळचेना.

भिकारी : तूं सांगपी कोण ? तुजी सत्ता सकयल सोंपली. हांव पयल
वतलों.

गिरेस्त : मागीर ? तुवें पयलींच सांगूक जाय आसलें. सगळें आयकू
मागीर थारावंक रावला

राखणदार : (गिरेस्ताकडेन बोट दाखोवन) हाचें म्हणणे बरबर आस
ताणे आपूण पयलीं वता म्हणून सुर्वेकच सांगिल्लें. आत
झगडीं नाकात. म्हणटगीर तुवें पयलीं वचप थारलें. (हात फु
करता.)

गिरेस्त : थारलें. (ताच्या हातार हात दिता.)

राखणदार : तर जसो एकटो पयलीं भितर गेलो आनी तो भायर आयल
कि ताकाय आपली वाट बदलूंक मेळची ना. भायर येव
वाट खंय वता तें सांगून परत तेच वाटेन ताका भितर वचच
पडटलो. मागीर तो सर्ग आसूं वा नरक. समजलें सारकें
चलात. खेळ सुरू

गिरेस्त : तुमी सांगिल्लें पयलीं वता ताका भायर येंवक मेळटलें. म्हणू
हांव तयार जाल्लों.

राखणदार : बराबर.

गिरेस्त : आनी आतां सांगता भायर येतगीर ताका परत त्याच दारा
भितर वचचें पडटलें. दार बदलूंक मेळचेंना.

राखणदार : बराबर.

गिरेस्त : हें पयलींच सांगूक जाय आशिल्लें. हांव पयलीं वचूंक तयार ना. ताका धाडात. तो तयार आसा न्ही ?

राखणदार : तूं सगळे आयकूचे पयलींच उलयलो. तूंच तयार जाल्लो. आतां फाटीं सरूंक मेळचेंना. तुका वचचेंच पडटलें. तुवें उतर दिलां.

गिरेस्त : हांव वचचोंच ना.

राखणदार : आनीक चड वेळ करूं नाका. म्हाका शक्त वापरूंक लांव नाका.

गिरेस्त : ह्या खेळांत म्हजेर अन्याय जाता.

राखणदार : खेळ अजून खेळचोच आसा. तूं पयलीं वचपाचो. तुका वचूंकच जाय. तुवें वचन दिलां. तें फाटीं घेवशी जाल्यार खर ख्यास्त भोगतली. हांव फकत तीन आंक उच्चारतोलों. ते पयलीं वच नाजाल्यार ... एक दोन तीन –

(गिरेस्त वचना. राखणदार उग्र जाता. हात वयर काडटा. 'तथास्तू' म्हणिल्लेवरी. गिरेस्त किंळच्यो मारता. राखणदार हात सकल घेता. गिरेस्त हळूहळू दाराम्हऱ्यांत वता. खंयच्या दारांतल्यान वचप तें चिंतता.)

राखणदार : चल. उशीर नाका. (एका दारांतल्यान गिरेस्त वता.)

राखणदार : (हांसत रावता) गेलो. गेलो. आपली वाट आपणेच सोदून काडली. मजा आयली. (हांसता) असो खेळ, अशी मजा केन्नाच येवंक ना. बापडो गिरेस्त !

(भिकाऱ्याम्हऱ्यांत वता. भिकारी थरथरता.)

भिकारी : ताका येवंक कितलो वेळ लागतोलो ?

राखणदार : तो आतां परत येवचो ना.

भिकारी : येवंचो ना ? मागीर तुजो खेळ कसलो ? तूं फोट उलयलो.

राखणदार : ना. मनशाची जीण जगिल्ल्याक कसली तरी एक आस दाखोवची पडटा. आस दाखयलेबगर मनीस खंयच्याच कामाक फुडें सरना. परत येवपाक मेळटलें हे आशेर गिरेस्त पयलीं वचूंक तयार जालो. तो नरकांत पावलो. ही वाट नरकांत वता. ताचीं पापां इतलीं आशिल्लीं किं ताका सर्गांत धाडल्यार सर्गाक लेगीत किडे पडटले. मनीस पुण्यवान एकेच गोश्टीन जाता, दान केल्यार.

भिकारी : तो तर गिरेस्त ताणे धर्तरेर कितलिशींच दाना केल्यांत. ताणे कितल्याशाच संस्थाक लाखांनी रूपया दिल्यात. दर एका

समारंभाक तो दान दितालोच. ताणे धर्मशाळा बांधल्यात. क्लब उगडल्यात.

राखणदार : हें दान खरें. पूण जनतेच्या रगताचें. दान हे घामाच्या पैशाचें आसूंक जाय. दान दितना स्वतःचो फायदो देखूंक फावना. दान हें निवळ आनी उदार मनान दिल्लें आसूंक जाय. तें दान. तुवें केन्ना दान दिलां ?

भिकारी : ना. हांव कसलें दान दितलों ? आमचेसारखेल्या भिकाऱ्याकडेन दान दिवपासारखें कितें आसा ?

राखणदार : खूब आसा. रगत दान दियात. तुमचे दोळे, कान, काळीज सगळें कितें दान करूंक शकता तुमी. पैशाच्या दानापरस आपलें शरीर दान दियात. नाय जाल्यार मरतगीर ते कुडिचो उपेग तरी कितें ?

भिकारी : म्हणटगीर म्हाकाय नरकांत धाडटले तुमी ?

राखणदार : तूं मरतगीर तुजें मडें कोणेतरी व्हेलें तें पळोंव ना तुवें ? ताणी तुजें कुडिचे सगळे भाग काडून विकले आनी पैशे जोडले. तुजे कुडीचे भाग कोणा ना कोणाचेतरी उपयेगाक लागले. तुजी कुड गोबर जावन वचूंक ना. तुजी कूड जितीच उरली. तुजी सगळी पापां इतल्यानच धूवन गेलीं. तूं पुण्यवान !

भिकारी : खरें, खरेंच सांगतात तुमी ?

राखणदार : खरेंच तूं पुण्यवान.

भिकारी : म्हाका अजूनय भंय दिसता.

राखणदार : मनशाची जीण जगिल्लो दर एकलो हांगा येतगीर असोच भंयान थरथरता. सर्गाची वाट जाय ताका. पूण आपली मनशाची जीण निश्पाप दवरपाची शुद्द ना. खंयच्यान प्रसिद्धी मेळटली, खंयच्यान कोणाचें रगत पिवंक मेळटले, खंयच्यान कोणाक चिडोवचो, कोणाक झुंझवचो ह्या दुश्ट विचारांनी पेटिल्लो मनीस हांगा पावतगीर सर्गाची वाट दाखय म्हणून देळयांत येता. गिरेस्तकायेच्या नेटार दुसऱ्याची विटंबना करपी मनीस हांगा सुण्यावरी शेंपडी हालयता. दुसऱ्याच्या नाडचार घराक पांखें चडोवपी मनीस हांगा आपूण बरो म्हणून दाखोवपाचो यत्न करता. स्वार्थी, कपटी आनी धोकेबाज जनावर, ज्याचें नांव मनीस. तो एकवेळ दुसऱ्याक फटयत, स्वताक फटयत पूण काळाक फटोंवक शकना.

म्हणूनच तर तो निमणे घटकेक आपणेंच केल्ल्या कर्मांक भियेता. (भिकाऱ्याकडेन पळोवन) तूं भियेंव नाका पुण्यवाना, चल. चल ते वाटेन सर्गांत थंय सगळे तुजीच वाट पळेतात. चल वच.

(भिकारी ल्हवू ल्हवू वता. दारांत पावल घालनाफुडें शिंग, वाद्यां वाजूंक लागतात. राखणदार परत येवन आशिल्लो त्याच जाग्यार उबो रावता.)

– (सोंपता) –

# वनमहोत्सव

हे एकांकीचो पयलो खेळ, राजमाता पद्मावती राजे सौंदेकर हायस्कूल वांदो
ह्याणी गोंय कला अकादेमीच्या, आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी एकांकी सर्ति
(१९८४-८५) पणजे अकादेमीच्या उक्त्या नाटयघरांत सादर केलो.

## प्रयोगांतले कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| तो/झाड/भविष्यकार | : | संतोष द. नायक |
| सरपंच | : | संदीप फडते |
| सायब/मुकादम | : | प्रमोद पार्सेकार |
| गोपी | : | दिलीप गावडे |
| केसव | : | जानू नायक |
| निवेदक | : | संदेश रामनाथकार |
| चिरो – १ | : | प्रशांत प्रभु |
| चिरो – २ | : | कृष्णा नायक |
| चिरो – ३ | : | भास्कर नायक |
| चिरो – ४ | : | राजेंद्र नायक |
| बाकीचे | : | प्रकाश नायक, कुमार गावडे<br>गणपत केरकार |

| | | |
|---|---|---|
| दिग्दर्शन | : | श्रीधर अ. कामत बांबोळकार |
| नेपथ्य | : | सुभाष सरदेसाय |
| उजवाड | : | विनय गावणेकार |
| संगीत | : | उमाकांत नायक, उमेश भट |

* सर्तित हे एकांकीक उत्कृष्ट प्रयोगाचें पयलें, दिग्दर्शनाचें दुसरें, उजवाड
येवजणेचें पयलें, आवाज येवजणेचें पयलें, लेखनाचें पयलें आनी
अभिनयाखातीर प्रशस्तीपत्र (संदीप फडते) अशीं साबार इनामां लाबिल्लीं
* ह्याच पंगडान हे एकांकीचे सुमार धायेक प्रयोग अंत्रुझ म्हालांतल्या
वेगवेगळ्या वाठारांनी सादर केले.

## खामसुत्री बावले खंय खंय पावले

हे एकांकीचो पयलो खेळ, राजमाता पद्‌मावती सौंदेकर हायस्कूल बांदोडे, हाणी गोंय कला अकादमीचे आंतर महाविद्यालयीन कोंकणी एकांकी स्पर्धेंत (१९८५-८८, ) श्री देवकी कृष्ण नाटचमंडप, माशेल हांगासर केलो.

प्रयोगांतले कलाकार

| | |
|---|---|
| तरनाटो | : आनंद नायक |
| चली | : शर्मिला बोरकार |
| मानाय | : दिलीप गावडे |
| पसरकार | : राजेश नायक |
| मवाली | : संतोष नायक |
| पुलीस | : रामदास नायक |
| येंप्रेगाद | : मोहनदास नायक |
| फुडारी | : पांडुरंग गावडे |
| पुतळो | : गिरीश नायक |
| म्हातारी | : मेघना देसाय |
| पंच | : कृष्णा मुळवी |
| प्यून | : गजानन गावडे |
| गाडेकार | : जयंत उमर्ये |

बावले, बावल्यो : निशेश च्यारी, मेघराज देसाय, मेधाविनी देसाय, सुरज बोरकार, विठ्ठल रामनाथकार, दिलीप भावे, गणपत केरकार

दिग्दर्शन आनी नेपथ्य } श्रीधर अ. कामत बांबोळकार

उजवाड : विनय गावणेकार

आवाज : उमाकांत नायक, उमेश भट

- स्पर्धेंत हे एकांकीक उत्कृष्ट प्रयोगाचें पयलें, दिग्दर्शनाचें पयलें, नेपथ्याचें पयलें, उजवाडा येवजणेचें पयलें, आवाजा येवजणेचें पयलें, लेखनाचें पयलें, अभिनयाचें पयलें (गिरीश नायक) आनी दुसरें (शर्मिला बोरकार) तशेंच अभिनयाखातीर दोन प्रशस्तीपत्रां (संतोष नायक, मेघना देसाय) अशीं साबार इनामां लाबिल्लीं.
- ह्याच पंगडान हे एकांकीचे प्रयोग गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांत सादर केले.

## हीं झुजां सैमाचीं

हे एकांकीचो पयलो खेळ, 'ललितमाचीं' बांदोडे, हे संस्थेन ता. जानेवारी १९८२ दिसा, 'कला दर्पण,' सावय-वेरें हाणीं घडोवन हाडि कोंकणी, एकांकी सर्तित, वळवय हांगा सादर केलो.

प्रयोगांतले कलाकार

किर्तनकार : उपेंद्र बिचे
जाणटो : श्रीधर अ. कामत बांबोळकार
तरनाटो : गुरुदास प्रभु
गुरव : गणाधिश बिचे
भार : प्रशांत प्रभु
मुखेली : महेश कामत बांबोळकार
काकाभट : केशव गावडे
भटालो चलो : श्रीपाद कामत बांबोळकार
गांवचे लोक : शशिकांत नायक, उमाकांत नायक, अमृत गावडे, नरेंद्र नाय वल्लभ बांबोळकार

दिग्दर्शन : श्रीधर अ. कामत बांबोळकार
नेपथ्य : दिपक गाड
उजवाड : राजेंद्र प्रभु
संगीत : शशिकांत नायक, उमाकांत नायक

* सर्तित एकांकीक, उत्कृष्ट प्रयोगाचें पयलें, दिग्दर्शनाचें पयलें आनी अभिनया पयलें (श्रीधर अ. कामत बांबोळकार) अशी इनामां फाव जाल्लीं.

## मायपास

हे एकांकीचो पयलो खेळ, राजमाता पद्मावती राजे सौंदेकर हायस्कूल बांदोडें, हाणी गोंय कला अकादमीचे, आंतर विद्यालयीन कोंकणी एकांकी सर्तित (१९८७ – ८८) पणजे, कला अकादमीच्या उक्त्या समाघरांत सादर केलो.

प्रयोगांतले कलाकार

हापो : मेघराज देसाय
मिगेलपाय : रामदास नायक
मावशी : शांती नायक
पोदेर : राजेंद्र कुर्पासकार
फुलकार चली १ : मेधाविनी देसाय
फुलकार चली २ : कांचन ठोमके
फुलकार चली ३ : निलीमा भोसले
फुलकार चली ४ : सुहासिनी गावडे
फुलकार चली ५ : सुनीता भोसले
शाळेंतले भुरगे : समीर दाते, गुरूनाथ नायक, सुरज बांदोडकार, एकनाथ नायक, गोकुळदास कुर्पासकार, बबन नायक, निलीमा तिळवे, अशोक नायक, कालीदास नायक, शामसुंदर पोकळे, पोपट गावडे
टूरिस्ट : सुखानंद गावडे, निलेश च्यारी, उदय भगत, गोविंद गावडे, गजा गावडे, शामीता नायक, संतोष नायक, कृष्णा मुळवी, किशोर तिळवे, सुरज बोरकार
दिग्दर्शन : श्रीधर अ. कामत बांबोळकार
उजवाड : विनय गावणेकार/ अशोक नायक
आवाज : तियाफ सिल्वेरा/ गिरीधर रायकर
गिटार : अँथनी रोड्रिग्ज
ऑर्गन : प्रसाद वळवयकार
नेपथ्य : निलेश च्यारी/ सुखानंद गावडे
निर्मिती सूत्रधार : स्टिफन माथुण्णी

- सर्तित हे एकांकीक, उत्कृष्ट प्रयोगाचें पयलें, दिग्दर्शनाचें पयलें, लेखनाचें पयलें, नेपथ्या खातीर प्रशस्तीपत्र, आनी अभिनया खातीर प्रशस्तीपत्र (मेघराज देसाय) अशीं इनामां फाव जाल्लीं.
- ह्याच पंगडान हे एकांकीचे प्रयोग गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांत सादर केले.
- आकाशवाणी पणजी केंद्राच्या 'खळार आनी मळार' कार्यक्रमांतल्यानूय हे एकांकीची वितरावणी जाली.



## दत्ताराम दामोदर कामत बांबोळकार

जल्म : ९ मे १९५७ वर्सा, बांदोडें गांवांत. विज्ञान शाखेची पदवी, पणजेच्या धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस अॅन्ड सायन्स महाविद्यालयांतल्यान मेळयली. सद्याक बँकेंत काम करतात.

पिरायेच्या बाराव्या वर्सासावन शाळेच्या नेमाळ्यांतल्यान बरोवपाक आरंभ केलो. १९७७ वर्सासावन कथालेखनांक सुरवात केली. 'राष्ट्रमत' आनी 'कुळागर' नेमाळ्यांनी कथा उजवाडाक आयल्यात. कांय कथांक सर्तिनी इनामांय लाबल्यांत.

१९८१ वर्सासावन नाटचलेखनांक आरंभ केलो. फाटलीं पांच वर्सां, गोंय कला अकादमीचे अखिल गोंय शालेय कोंकणी एकांकी सर्तित, उत्कृष्ट लेखनाचीं इनामां लाबल्यांत. 'शेणिल्लो गांव' ह्या पयल्याच पुराय स्वरूपाच्या नाटकाक, गोंय कला अकादमीचे नाटचसर्तित उत्कृष्ट लेखनाचें इनाम तशेंच कोंकणी भाशा मंडळान घेतिल्ल्या नाटचलेखनाच्या हातबरपांचे सर्तितलें पयलें इनाम फाव जालें. 'संगीत महिरावण', 'विख विखळटा' आनी 'रथोत्सव' हिंवूय नाटकां रंगमाचयेर आयल्यांत आनी जैतिवंत थरल्यांत. एकांकी आनी नाटकां, पणजी आकाशवाणी वयल्यान नभोनाटचाच्या रूपान प्रसारीत जाल्यांत.

□ अपुरबाय प्रकाशन □